# भुंयदेवी

(कथांझेलो)

तुकाराम रामा शेट



कोंकण टायम्स पब्लीकेशन
बेती, बार्देश, गोंय,
४०३१०१

# Bhuimdevi

(A collection of short Stories by Tukaram Rama Shet)



पयली उजवाडावणी: 2016

उजवाडावपी
हिरा तुकाराम शेट
कोंकण टायम्स पब्लीकेशन
व्हाळकेश्वरवाडो, बेती, बार्देश, गोंय 403 101
फोन: 0832-2411414

अक्षर संयोजन
कलाकृती
मधुबन कॉम्प्लेक्स, तांबडी माती
सांतइनेज, पणजी, गोंय, फोन 0832-2426526

छापपी
लोकमान्य प्रोसेस
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय

मुखचित्र
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल: रु. 260/-

म्हज्या जिविताचे व्हड कथेत
म्हाकां सांगात दिवपी हिराक

– तुकाराम

# भुंयदेवीक होरायतना...

## – किरण बुडकुले

'भुंयदेवी' हो तुकाराम शेट हांचो नवो कथांझेलो वाचतना कथेच्या फॉम वियली लेखकाची घट जायत वचपी पकड नदरेंत भरता. हरशींय जाल्यार वेगळे विशय, संवकळीची जीण आनी सरभोंवतणच्यीं पात्रां, हांचे भोंवतणीं फिशाल हातान कथा विणपाची कळाशी तांचे ठांय आशिल्लीच. पूण तांचे आदले, खास करुन सुर्वेचे केथेंतली निवेदन–बहुलताय खटकताली. त्या कथांगाचेर ताणीं 'भुंयदेवी' त अंकुश दवरला, आनी कथेक घडणुको आनी संवादाच्या मार्गान फुलपाक संद दिल्या. तशेंच कथ्यावांगडा मानवी संबंद आनी समाजमन हांचोय थाव घेतला.

विशेश म्हळ्यार, 'भुंयदेवी' ह्या झेल्यांतल्यो पंदराय कथा बारकायेन तिजल्यार लेखकाच्या कथाविश्वांत जायत गेल्ली वाड साबार आंगांनी लक्षणीय आसा, हें होलमता. देखीक विशय–विविधतायेच्या नदरेन पळेल्यार दरेक कथा आपलें खाशेलपण केळयिल्ली दिसता. 'सेक्युरिटी' कथेंत नोकरेच्या आशेन गांवघरची पोटापुरती शेतवड सांडून संवेदनशून्य शारी चकचकांत नगण्य थारपी बेकार युवक; जावं सरपंचा वांगडा मिनिस्ट्राल्या राजकी दरबारांत वर्दी दितां–दितां शेजाऱ्याच्या जिवघेण्या वायटाकडेन दुर्लक्ष करूंक पाविल्ल्या सहृदय व्यक्तिची 'निशठा' कथा; वा व्हॉलंटरी रिटायरमेण्ट (म्हळ्यार स्वेच्छा सेवानिवृत्ती) येवजणेचो बळी थारिल्लो 'हिशेब' कथेंतलो जाण्टेलो; जावं स्मृतिभ्रंशाच्या पिडेन सगलें सांगाता आसूनय पुरायेन नागवल्लो 'प्रॉपर्टी'तलो मोहनदास – हे सगले जालेय जाल्यार आमच्या संवकळीच्या वातावरणांत वावुरपी पूण वेगळ्या विशयाचेर बेतिल्ले कथानायक वा कथाबिजां, अशें म्हणूं येता.

मात ह्या कथासंग्रहांतल्यो कांय कथा थेट मनाक हात घालपी आसात. झेल्यांतली शीर्शक कथा 'भुंयदेवी' ब्रह्मपुत्रेच्या पात्रांत जांचे भवितव्य

अर्दबुडीत अवस्थेंत उफेता त्या बेडेय (गारुडी) जमातीच्या भोगनाळांची काणी बांग्लादेशी घुसखोरीच्या फाटभुंयेर वर्णिता. बारीकसाणेन ह्या कथेंत तपशील आनी संदर्भन हांचें संचलन लेखकान केळयलां हें होलमता. तांची पूज्य 'जोमीमांय' म्हळ्यार घडये आमची भुंयमाता हे जाणवून एक अनामीक भावनेचो धागो त्या जमाती वांगडा वाचप्याक अळंग जोडटा – राजकी सरादीं पलतडी!

अश्योच अनपेक्षीत विशयांवयल्यो बऱ्यो सादिल्ल्यो आनी तंत्राचे नदरेनय विकसीत कथा म्हूण 'रात परमळटा', 'एकेच ट्रेनीत', 'म्हज्या चेड्यांचो बापूय', तशेंच 'बळी–म्हाबळी' ह्या कृतींचो उल्लेख आवश्यक थारता. तेच प्रमाण, ज्ञात विशयांवल्यो पूण वेगळ्या नदरेन हातळिल्ल्यो कथा म्हळ्यार 'आदिवास', 'मसणदेव', 'फटिंचे देव', 'कबजा स्पिरीट', 'रिनोव्हेशन' आनी 'आरतें–परतें'. ह्यो समकालीन गोंयांतल्या समाज मानस तशेंच परिस्थितींचो अचळय वेध घेतात.

विशयांची विंगडतायूच न्हय, जाल्यार विशय–विस्तारा नदरेनूय दर कथेक एक वेगळो सांचो दिवचेलो लेखकान यत्न केला. तेच तरेन, दरेका कथाबिजाक सोबशें सैमीक वा सामजीक वा राजकी संदर्भन उबें करचे खातीर ताणें बरीच संशोधकी तकालस घेतल्या. कथे–कथेच्या तपशिलांत तथ्य तशेंच पुरोशी विश्वासार्हताय (पातयेवण्याजोगेंपण) हाडचेखातीर केल्ले प्रयास वाचप्याक जाणवतात. मात कांय कडेन तपशिलाच्या बारकाव्यांनी कथेच्या सुडसुडीतपणाक वा मेकळे व्हांवतेक आडमेळें घालां काय असोय प्रस्न पडटा. 'सेक्युरिटी', 'हिशेब', 'कबजा स्पिरीट' ह्या कथांनी असो भास जाता. मात 'एकेच ट्रेनीत', 'रात परमळटा' आनी 'बळी–म्हाबळी' ह्यो कथा ह्या गालबोटा बाजतय उत्कृश्ट उब्यो जाल्यात.

दरेका कथेखातीर लेखकान मुजरत वेगवेगळी निवेदन, संभाषण, घडणूक हांच्या त्रैराशिकाची तजवीज केल्ली ह्या कथाझेल्यांत दिसून येता. हांतूत, संभाषण–निवेदनाची गांठ 'रात परमळटा' आनी 'म्हज्या चेड्यांचो बापूय' ह्या कथांनी जुस्त बसल्या. 'एकेच ट्रेनीत' 'बळी–म्हाबळी' आनी 'म्हज्या चेड्यांचो बापूय' हातूंत कथाकारान प्रतिकात्मकतायेचो खुबयेन

वापर केला, तशेंच मानवेतर पात्रां जावं निवेदक म्हूण सूचक उपेगूय 'बळी–म्हाबळी', 'म्हज्या चेड्याचो बापूय' ह्या कथांनी जाला.

'एकेच ट्रेनीत' ह्या कथेंतली जाम जाल्ली खिळी,, 'भुंयदेवी'तलो बुडगांव जुंवो वा 'रिनोव्हेशन' कथेंतलो सायकल सजोवन मन रिजोवंक सोदपी बापूय लेखकान वापरिल्लया प्रतिकांत तशेंच भाशेच्या सूचक आनी सटीक उपेगाक लागून लक्षांत उरतात.

कांय कथांनी लेखकाचो प्रसंगानुसार मारिल्लो शेरो वा खंयच्याय मार्मिक खिणावयली ताची प्रतिक्रिया ताच्या कांय कथांक उजू पांवड्यार उब्यो करता. देखीक 'रात परमळटा' ह्या कथेंतली 'स्त्रीत्व आनी ममत्व' हांचे वेली टिप्पणी, जावं आत्म्याच्या तोंडांतल्यान निश्ठूर सैम आनी सुवार्थी मानवी संस्कृताय हांचे लटाफटींत बळी वचपी लोंकाची हृदयस्पर्शी कैफियत – ह्यो ह्या कथाझेल्यांतल्यो जमेच्यो वटी... सौंदर्य स्थळां म्हणसारक्यो! हांका लागून 'आदिवासांतलो' भडक देखाव जावं 'फटिंचे देव' हातुंतलो 'यंत्रदेवी उद्गातो' हांचो कांय अंशी अतिरेकी दिसपी अंतर्भाव सुसह्य जाता.

'भुंयदेवी' ही तुकाराम शेटीची इश्टदेवता थारल्या. तिचे होरावणेक चार उतरफुलां ओंपूंक खोस भोगता. 'भुंयदेवीची'चें मनासावन स्वागत.

# मांडावळ

# सेक्युरिटी

ताणे पळयलें पात्रांव शोपाच्या शटराचें कलयाद काडटा. रस्त्यावयल्यान बेगिबेगीन चलून तो शोपाकडे आयलो. शटराक हात लावन वयर धुकलपाक ताणे पात्रावांक मजत केली. हरशी तो शोप उगडच्या पयलीं पावतालो. आयज मात्सो कळाव जालो.

शोपांत भितर सरून ताणे आपल्या खांद्यावयल्या शर्टाच्या फिताक खोयल्लें काफये कोराचें कॅप काडलें. तें माथ्याक घातलें आनी दाबून बसयलें. त्या बराबर ताच्यांतलो सेक्युरिटी परसनल उठून दिसलो. फेर्र मारलेली काफये कोराची पँट दोळ्यांत भरताली. बुशशर्ट लेवसार हळदुवो. बुशशर्टाच्या दोनय खांद्याक फितां. तांचेर गरुड पक्षाचीं चित्रां. तें तांच्या इगल ब्रँड सेक्युरिटी कंपनीचें सिम्बोल. पायांक काळे चकचकीत बूट. ताणे कुशिकच्या हारश्यांत आपलें पडबींब पळयलें आनी कॅपावयलो आपले सेक्युरिटी कंपनीचो सिम्बोल नीट केलो. मागीर शोपाच्या पात्रांवा फुड्यांत वचून ताणे ताका सॅल्युट मारलो. पात्रावान ताका पळयलें ना पळयलेशें केलें. मागीर तो शोपाचें मुखावयलें ग्लासाचें रुंद दार सवकास धुकलून भायर येवन दाराकडे उबो रावलो.

शोपांत भितर येतल्या गिरायकाक ताणें ग्लासाचें दार उगडलें. आनी ते भितर वयतकूच बंद केलें. शोपांत एसी सुरू जावन भितरलें वातावरण थंड जावपाक लागलें. लायटीचो झगझग. सिलींगाचे कवच्यांचे झुंबर तर अदीकच चकचकतालें. वेगवेगळें विजेचें सामान व्हरपाक गिरायकांची घिट्टी जाताली. वेगवेगळ्यो तरेच्यो वायरी, बल्ब, ट्यूब, स्वीच अशें सामान. तशेंच फॅन, टेबललॅम्प, कंवचेचे झुंबर, फेर्र, हीटर अश्यो जायत्यो वस्तू आसल्यो. शारांतलो हो एक इलेक्ट्रीकल सामान विकपी नांवाजतो डिलर. ताच्या नांवाची पाटी सेक्युरिटी गार्डाच्या तकलेवयर झगमग जाताली. 'कासीम ट्रेडर्स' Dealer in all electrical goods. ह्या शोपार तो सेक्युरिटी गार्ड म्हूण काम करतालो. ताची इगल ब्रँड सेक्युरिटी कंपनी ताका हांगा दोन म्हयन्यासावन धाडटाली. ताची ही कामाची दुसरी कंपनी.

गिरायकांची यो–वच वाडली तशें दार उगडपाचें आनी धांपपाचें ताचें काम वाडलें. फाटल्या दिसांनी भर दनपारां एसी चालू आसताना शोपाचें दार उगतेंच दवरलें. तेन्ना पात्रावान ताका तापयल्लो. आतां ग्लासाचें पारदर्शक दार उगडच्या

उगडून तो रोकडोच धांपतालो. दार उगतेंच उरल्यार शोपांतली थंड हवा भायर वताली. लायटीचें बिलय वाडटालें. आपूण गिरायकाक दार उगडून धांपून सेवा दिताच ते भायर जाय तशें दार धांपून उरलेल्यान पात्रावाक अर्थीक नदरेन बरें पडटा हें ताका समजलें. तो दारार आसलेल्यान शोपांत येवपी फालतू गिरायक, चोर, भिकारी भितर सरनासले. गाडयांनी आयल्ले गिरेस्त गिरायक गाडी पार्क करून भितर येतालें. तो तांका आदरान दार उगडटालो. ह्या झगझगीत शोपाच्या भायर दाराकडे सेक्युरिटी गार्डाच्या रावपात त्या शोपाचो पांवडो वयर व्हेल्लो.

कासीम ट्रेडर्साच्या शोपाक गेल्या तीन म्हयन्या पयली रिनोव्हेट केल्लो. आदलें रूप वचून ताका नव्या शोरूमाचे रूप लाभलेलें. पात्रांवाखातीर बसपाक वेगळेच कॅबीन. कांवटर वाडयल्ले. त्या कांवटरार माल दिवपीय सेल्समन आनी सेल्सगर्ल चड दवरलेले. नवे तरेचो इलेक्ट्रीक माल आनी परदेशी वस्तू व्हड प्रमाणांत आतां खपताल्यो.

भायर दारार उबो रावल्लेकडे दाराच्या ग्लासांत ताका आपलें पडबींब हयनशें दिसलें. आंग ताचे गोरसार. तोंड वाटकुळें पूण आतां बावल्लेभाशेन. आंगांन बारीक पूण लांबसो. माथ्यावयलें सिम्बोलाचे कॅप पळोवन ताका आपूण मिलिटरीत नाजल्यार पुलिसेत आसूंक जाय आसलो अशें खिणभर दिसलें. तो पोशाख ताच्या आंगाक रुबाब आनी मनाक उभारी दितलो आसलो.

ताणे दार उगडलें. गिरायक बांदून दिल्लें सामान शोपाभायर काडटालें. बांदून दिल्ल्या सामाना भायर आनीक किदें आसा कांय ते ताणे निरखीलें. इगल ब्रँड सेक्युरिटी कंपनीच्या गरुडाच्या दोळ्यांनी तो पळयतालो.

दनपार जावपाक वगत आवाळ्यो घुंवाळ्यो काडटालो. ताका आयज बेगीन भूक लागली. ताणे आयज सकाळी ब्रेकफास्ट घेवंक नासलो. रातीकडे तो पावभाजी खावन न्हिदलेलो. उदकाचे तीनचार पेले पोटांत भरून तो कामार भायर सरलेलो. मानसीक ताणान आनी थकव्यान ताचे दोळे चुरचुरताले. एका म्हयन्याचे बिराडाचे भाडे ताणे दिवपाक जाय आसलें. घर मालक परत परत याद करतालो.

ताची बायल, पांच म्हयन्याचो भुरगो आनी आवय इतल्या कुटुंबाक पोसपाक आनी बिराडाचे भाडें फारीक करपाक ताच्यान जाय नासलें. गोंयांत येवन तीन म्हयने तांच्या वांगडा सारलेले. दोन दिसा पयलीच ताणे आपल्या कुटुंबाक आपल्या घरा रेडये गांवांत धाडलेली आनी तो रोकडोच भाड्याचे बिराड सोडपाचो आसलो.

सेक्युरिटी गार्डाचें काम करपाक गोंयांत आयल्यार ताका स म्हयन्यावयर जावन गेल्ले. ते पयले दीस तो बरेच उमेदीन आसलो. फेरीबोटीतल्यान तेरेखोल न्हय पार करू न तो गोंयांत पावलो. परवरी पावतकच तो बसितल्यान देंवलो. दिसाळ्यांतल्या जायरातीच्या पत्त्याचेर किंग कोब्रा सेक्युरिटी कंपनीचे ऑफीस सोदलें. ताची ही पयलीच कंपनी. रेडये गांवचे दोन तरनाटे गोवन स्पिरीट हॉटेलांत स्टाफ वॉचमनाचें काम करताले. आपल्याकय तांचे प्रमाण काम मेळ्ळ्यार बरें जातलें. अशें तो चित्तालो.

ऑफिसांत कंपनी मॅनेजर केवलसिंहान ताका एक फार्म दिलो. ताणे बरयलें आपलें नांव : एकनाथ सावंत, पिराय : अठ्ठावीस वर्सां. मुक्काम : रेडी, ताल्लुको : सावंतवाडी. तो फार्म भरून जातकच मॅनेजरान ताका कंपनी मालक डेव्हीड डिमेलोकडे व्हेलो. मालकान ताच्या तोंडाक बारीक पळयलें. वळखीची खूण खाडकेवयलो बारीक तीळ फॉर्माचेर नोंद केलो. मागीर ताका म्हयन्याचे पयले तारखेर कामार येवपाक सांगलें. त्या बराबर उमेदीनच ताणे ताका विचारलें, 'पात्रांव, पगार कितलो ? रावपाची सोय ? पात्रांव डिमेलोन केवलसिंह मॅनेजराकडे बोट दाखयलें आनी म्हणलें. 'तो सांगतलो.'

केवलसिंहान ताका पात्रांवाच्या रुमाभायर व्हरून हिन्दीत सांगलें 'तुकां म्हयन्याक तीन हजार रुपया पगार.'

'फक्त तीन हजार.'

'हय ? दिसाक शंबर रुपया. तूं मदी गैरहाजीर रावल्यार ते दिसाचे आनी आयतारचे पयशे कमी करतले.'

'हां सर, आनी रावपाची सोय ?'

'तूं घरा वचून कामाक येवंक शकना ?'

'ना सर.'

'गोंयचे भुरगे घरासून कामाक येता. तूं गोंयचो न्हय तर ?'

'न्हय सर.'

'मळ्यांत तुमकां रावपाक एक रूम आसा. धा–बारा जाण एकठांय रावचे पडटले.'

'एका रूमांत धाबारा जाण ?'

'हय. तशे ते शिफ्टीनी कामाक आसतात. रुमार एका वेळार इतले जाण आसनात.'

हें आयकून एकनाथाक पयलीं कुवाडें कशें दिसलें. पूण न्हिदपा पुरती

तरी सुवात जाय अशें ताचे मन सांगतालें.

पयले तारखेर ताणे कंपनीची काळी पँट, काळे बूट, निळसो शर्ट, माथ्याक काळें कॅप घातलें. शर्टाच्या फितांचेर आनी कॅपाचेर किंग कोब्राचो सिम्बोल आसलो. तसेच बोल्सावयर कंपनीच्या नांवाची KCSC अक्षरां. ही ताच्या कामाची पयलीच कंपनी. सदचे परस ड्रेस घालून ताका बरें दिसलें. पुलीसेत वचपाचें आपलें सपन कांय वांट्यानी खरें जालें अशेंशें दिसलें. ताच्या दांडगेपणाक तो पोशाख सोबतालो. हातान बेटन, टॉर्च, घेवन तो भर दनपारां कंपनीच्या दुसऱ्या सेक्युरिटी गार्डा सांगातान थेटरावटेन चलतालो. दुसरो सेक्युरिटी गार्ड तेजबहादूर नेपाळचो. चलताना बुटांच्या तालार पुलीस बँडाचो ट ऽ र्‌ ट ऽ र्‌ असो आवाज ताच्या कानार पडल्याचो भास जातालो.

तेजबहादूर आनी एकनाथ थेटराच्या दाराकडे दनपारच्या एका वराचेर पावले. तेजबहादूर एकनाथापरस ल्हान पूण तो कंपनीचो सिनियर म्हूण तो सांगता तशें तो काम करपाक लागलो. मोटरसायकली, गाडयो सारक्यो पार्क करतात कांय ना तें पळोवपाचें तशेंच थेटराच्या प्रापर्टीची राखण करपाचें तांचे काम. गाडयो सारक्यो पार्क करूं नात आनी जर हाणी तांका सांगले तर ते थोडेशे भियेतच सारक्यो पार्क करताले. पूण बाकीचे लोक तांकां कोतार काडी नासले. काम करतां करतां पिक्चराचे तीन शो जावन रातचें एक वर जावन गेल्लें. आतां एका वरार रुमार वचूंक जाय. ते दोगूय सटासट रुमाकडे वचपाक लागले.

रुमाचे दार उगतेंच आसलें. भितर मून लायट पेट्टाली. ल्हानश्या रुमार धा जाण एकामेकांक खेटून न्हिदलेले. तांचे कुशीक जागा करून आड पडपाबगर तांका उपाय नासलो. बारा वरांच्या कामान तांचे शरीर थकलेले आनी दोळे धांपून येताले. तेजबहाद्दुरान एकल्याक कुशीक करून मदी जागा केली आनी तो आडवो पडलो. वयर फॅन घुंवतालो तरी घामसाणीचो वास रुमभर. वण्टीकडे जमखणाचेर इल्लीशी सुवात पळोवन एकनाथान थंय पांय दवरलो आनी वण्टीक तेकून बसलो. मात्शे पांय पयस केले. तशीच ताका लकण येवपाक लागली.

सकाळी ताका जाग आयली पूण दोळे उगडना जाले. ताणे बळयां दोळे उगडले. सकाळचो आठ वरांचो वेळ जांवये. तेजबहाद्दूर उठून तोंड धुतालो. तीग सेक्युरिटी खबरो मारताले. कांय जाण तर सकाळी फुडें कामाक गेल्ले.

एकनाथ टॉयलेट खंय आसा तें पळोवपाक लागलो. त्या रुमाक टॉयलेट नासली. काळखांत सकाळी फुडें जे कोण उठले ते कांय जाण पब्लीक संडासांत तर कांय जाण न्हयचेर. मुतूक तेंकला म्हूण तो पयस आसलेल्या पे टॉयलेटीकडे

वचपाक लागलो.

कंपनीत येवन एक म्हयनो जायत आयलो तशे कंपनीचे सेक्युरिटी मनीस खंय खंय कामाक वयता तें ताका कळपाक लागलें. कंपनीत तीसेक लोक कामाक आसले. कांय जण खाजगी हास्पिटलांत, कांय जण पॉश हॉटेलांत आनी शोपांत. कांय जण सरकारी महामंडळांत सहाय्यक म्हूण वयताले. सगळ्यांच्या खांद्याक आनी कॅपाक किंग कोब्राचें चीत्र झळकतालें. कंपनी हॉस्पिटलांनी आनी महामंडळांनी चडशे गोंयकार सेक्युरिटी गार्ड धाडटाली. राती वेळा ते आपल्या घरा वयताले आनी सकाळी फुडें कामार येताले. येवपा वचपाकूच तांचे बरेचशे पयशे खर्च जाताले.

एक दीस एकनाथान गोंयकार तरनाट्या गार्डाक विचारलें, 'तुका कितलो पगार मेळटा?'

'फकत तीन हजार रुपया. म्हाकां एक वर्स जावन गेलां. पूण सर.....'

आपले परस सिनिअर समजून ताणे ताका सर म्हणलें.

'पूण किदें? एकनाथाचो प्रस्न.'

'हे पयशें पावच ना. पंदरा वीस दिसानीच घराकडे आनीक पयशे मागचे पडटात. केन्ना केन्ना घराकडचे दिनात. मागीर हाचेकडे माग, ताचेकडे माग करून भागोवचें पडटा. पगार तर धा तारखे उपरान्तूच.'

हांची इतली दशा तर आपल्याचें किदें जातलें असो ताका प्रस्न पडलो. मागीर ताणे ताका विचारलें, 'तुमकां सरकारी जॉब मेळना?'

'सरकारी नोकरेक मंत्र्यांक लाखांनी रुपया दिवंक जाय. नाजाल्यार वळखीच्या मंत्र्याचो फावोर लावंक जाय. आनी आतां जॉब तरी खंय आसा? आतां हेच किरपन जॉब आमच्या नशिबांत?'

कामाचो एक म्हयनो जालो. पगार पडपाक आनीक धा–पंदरा तरी दीस आसतले. एकनाथ ॲडव्हान्स मागपाक ऑफीसांत आयलो. केवलसिंह फोनाचेर उलयतालो.

'पात्रांव, तुमच्या बंगल्यार जाय तेन्ना आमी वॉचमन धाडटां. आमच्या सेक्युरिटीची बारां वरां ड्युटी आसता.

'पगार कितलो?' फोनावयल्यान आवाज.

'पांच हजार पांचशें.'

'आमी ताका किदें दिवपाक जाय?'

'ताका कांय दिवपाचेंना. रातची ड्युटी आसल्यार बेटन, टॉर्च आमीच

दितां. हालीच तुमच्या वाठारांत दोन बंगल्याचेर आमी सेक्युरिटी गार्ड धाडल्यात. म्हयन्यान आमी वॉचर दितले. तें फारीक करपाचें.

'आमच्या शेजारच्या बंगल्यार गार्ड आसा न्हय रे म्हूण म्हजी मिसेस म्हण्टा, आमकांय जाय म्हूण. मात् तुमची फी चड मरे. कमी कर. '

'हां हां. कमी करूंया. तुमकां पाचशें रुपया कमी करतां.'

तूं एक हजार कमी कर. साडे चार दितां. आमकां रातचो सेक्युरिटी नाका. सकाळी आठ ते सांजे सात मेरेन चलता.

बाजारांतल्या वस्तूंचेर वांटपण करचें तशी मनशांचेर वांटपण करतात हें पळोवन एकनाथाक धक्कोच बसलो. ते फुडें उलयताले.

'पात्रांव केन्ना धाडूं?

'फाल्या सकाळी धाड.'

मागीर मॅनेजरान बंगल्याचो पत्तो नोंद करू न घेतलो.

म्हयनोभर थेटराकडे काम करून लोकांच्या गर्देमुखार आपलो तोरो कसो देवता तें तो जाणा आसलो. एका म्हयन्याच्या अणभवान ताची फितां देवल्यावरी जाल्लीं. फोंडां काडपी नागराजाचो हेंवाळें जाल्यावरी ताका दिसतालें.

तो ॲडव्हान्स मागपाक म्हूण मॅनेजराच्या फुड्यांत आयलो. ताका पळोवन ताणे म्हणलें, 'एकनाथ, तुम कल दोनापावल बंगलेपर जाना. सुबह बराबर आठ बजे उधर पहुँचना और शामको सात बजे लौटना. वॉचमन का काम है. तुमको सिर्फ दिनका काम. रातको नहीं. ऑफीससे तुम सीर्फ छोटावाला काला बेटन लेना.'

'पूण सायब, येवपा वचपाक गाडयेचे पयशे?'

' हां... ठहर.'

तो भितर गेलो आनी पात्रांवाकडे बरोच वगत उलयलो. मागीर येवन ताणे ताका सांगलें. तुकां फाल्याच्यान तीन हजार दो सौ रुपया पगार. तुवें फाल्यां वचपाचें. तुकां तुजो धा दिसांचो पगार ॲडव्हान्स दितां. राव मात्सो? एका म्हयन्यांत दोनशें रुपया पागर वाडलो. ताका बरें दिसलें. मॅनेजर भितर गेलो आनी पात्रांवाकडल्यान पयशे घेवन भायर आयलो. पयशे दितना ताणे ताच्या हाजीरी कार्डार बरयलें. आनी ताची सय घेतली.

दुसरे दीस तो सकाळी आठाकच रावाच्या बंगल्यार हाजीर जालो. दरवंट्याचे गेटीक भितरल्यान खिळी आनी कुलूप . ताणे गेटीभायसून उलो केलो. 'पात्रांव'. आवाज आयकून अल्सेसियन सुणे भुंकपाक लागलें. आनी तें

थेट गेटीकडे आयलें. ताच्या आंगार झुडोन वचून भुंकपाक लागलें.

सुण्याचो आवाज आयकून घरांतली मध्यम पिरायेची बायल भायर आयली. सुण्याक तिणे घट्ट धरलें. आयज सेक्युरिटी गार्ड येतलो हें तिका खबर आसलें. तिणे ताका ताच्या पोशाखावयल्यान विचारलें, 'तूं किंग कोब्रा सेक्युरिटी कंपनीतल्यान आयला न्हय?' ताणे हय म्हटल्याबराबर तिणे ताका सारको नियाळून घेतलो. तिणे मनांत म्हणलें,

'वॉचमन पळोवपासारको आसूंक जाय.' मागीर तिणे यो म्हणल्याबराबर तो शादूरतायेन गेटी भितर आयलो आनी माथ्यार कॅप घातलें.

तो भितर येता थंय आसा. तिणे ताका काम सांगलें, 'तुवें वॉचमन कम सेक्युरिटी गार्ड कम आमचो मनीस म्हूण काम करपाक जाय. केन्ना केन्ना मार्केटांत वचून सामानबीन तर केन्ना शाळेत वचून नातरांक हाडपाक जाय.'

'हां मडम', अशें म्हणून ताणे आपलो हात आपल्या कपलाकडे व्हरून सलाम केलो.

तो चडसो वगत दरवंट्याकडे रावतालो. बंगल्या भोवतणी पासयो मारतालो. बंगल्याच्या दाराकडच्या धव्या अल्सेशियन सुण्याकडे ताची रोखडीच वळख जाली. केन्ना तें सुणे ताका पळयतालें तर केन्ना तो ताका पळयतालो. दरवंट्याकडच्या गेटीकडे रावन तो घराभायर वचपी मनशांक सॅल्यूट करतालो तेन्ना घरच्या लोकांक वेगळेंच सूख मेळटालें आनी आपलोच वोगीच गर्व दिसतालो. बंगल्याचो पात्रांव वखदांचे फॅक्टरींचो मालक. तो आपल्या कंपनीच्या ऑफीसांत वताना ताणे ताका मिलीटरीभाशेन सॅल्यूट मारलो. आनी उगडलेली गेट सवकास धांपली.

सांजवेळा मालकीण आपल्या इश्टीणीकडे फोनार उलयताली. गार्डाविशी सांगताली, म्हूण तो लक्ष दिवन आयकपाक लागलो. ती सांगताली. 'जाणा मगो मोनिका; आमी नवो बंगलो बांदतकूच नवी कार घेतली. गाडी येतना वतना गेट उगडपाक म्हूण कोण मनीस जाय न्हय गो. आनी आताचे सिस्टमेत बंगलो गाडी आसतकूच गेटीर गार्ड जायच. आमी तर येदे व्हडले बिझनेसमन.'

हें आयकून एकनाथाक चर्र जालें. 'आपूण ह्या बंगल्यावयली एक वस्तू कशी मरे. त्या सुण्याक लेगीत वालोर. पूण आमकां शे ऽऽ. हे आमचेकडसून राखणेची अपेक्षा करच्या करून वोर्रय मिरयता. म्हज्या सारक्या मनशाक बावलें कशें गेटीर दवरून आपल्याक समाजांत प्रतिश्टा घेता.' तो मनांतल्यामनांत उलयलो.

रातचो आठांक सुमार तो रुमार पावलो. थंयचे पांच स सेक्युरिटी

परसनल गजाली करताले. तेजबहाद्दूर तर थेटरांत गेल्लो. गजाली करतल्यामदी एक मिलीटरी मॅन आसलो. ताका पंचेचाळीस वर्सा आसूंये. आंगापागान घटमूट. काळ्या रंगाचो. रुंद तोंडार काथ्याच्यो कश्यो दाट काळ्यो मिश्श्यो. दिसपाक रागीटसो पूण बरो मनीस. मिलीटरीत वीस वर्सा काम करून ताणे आपूण जावन निवृत्ती घेतलेली. ताका सगळे मेजर पांडुरंग म्हणटाले. ताचे अस्वडी मात् ताका 'युगे अठ्ठावीस विटेवरी उभा' म्हणटाले. कंपनीचो ड्रेस घालतकच ताच्या शरीरांतल्यान एक वेगळीच झांक मारताली.

मिलिटरी सोडून गांवांत येवन ताणे सात वर्सां अशीच भोवन काडलीं. बेकार रावपाक, आळसांत दीस घालोवपाक बरे दिसना जालें देखून तो गोंयां येवन सेक्युरिटी कंपनीत जॉयन जाल्लो. तो मिलिटरीतल्यो खबरी रुचीन सांगतालो. पात्रांव डिमेलोन ताका हॉस्पिटलाच्या पंगडाचो मुखेली केल्लो. मागीर सगळे सेक्युरिटी गार्ड ताका मानान मेजर साहब पाचारुंक लागले. मात केन्ना केन्ना हे नोकरेचेर तो बेजार जातालो आनी गाळी घालतालो. तो म्हणटालो, 'ये साडेतीन हजार रुपयों में क्या होता है. म्हयनेकी शराब और दो वक्त का खाना भी नही आता. जिस नौकरीमें अच्छा पैसा नही मिलता वो हमारे जीवनमें हमें मान और शान कैसे देगी? ऊपर से हमारी बेइज्जत ही करेगी.' हें आयकून एकनाथाक दिसलें तो सांगता तें खरें. आयजची बंगल्याकडची खबर ताका सांगपाची आसली पूण आपली अदीक लज जावंक नाका म्हूण तो वोगीच रावलो.

एकनाथ रुमांत उबोच आसा तें पळोवन मेजरान म्हणलें, 'क्यों भाई इधर भी खडे? खडे रहने की आदत ही हो गयी क्या?' ह्या प्रस्नांतल्या ज्योकान सगळे हांसले. तो कांचाबूल जावन तांचे टोळयेत वचून बसलो.

नेपाळी तरनाटे आयतारा कांपालार फुटबॉल खेळपाक वचपाविशी उलयताले. ते दर आयतारा सांजवेळा फुटबॉल खेळपाक वताले. गोंयकाराभाशेन तांचेर फुटबॉल खेळपाचो भार येतालो. 'भाईच्युंग भुतिया' तांचो हिरो आसलो. 'गुरखा' हे आपले वळखीपरस ते आपली नवी वळख सोदताले. ताणी फुटबॉलाचो आपलो असो पंगड तयार केल्लो.

मागीर नेपाळी तरनाट्यांतलो मानसिंह ठाकूर म्हणपाक लागलो, 'हांव गोंयां येवन सात वर्सा जालीं. पयलीं आमच्या जाण्ट्यांक ह्या कामाक बरो पगार मेळटालो. नोकरी सुरक्षीत आसताली. कंपनीचे कायम कर्मचारी म्हूण घेताले. एक वेगळोच आब आसतालो. पूण आतां मेळत तो ह्या धंद्यात येता.

मदीच दुसरो नेपाळी तरनाटो उलयलो,' इस काम में गोवा के भी लोग

घूस रहे है। वे लोक कंपनी निकालते है और अपनेही लोगोंकी भर्ती करते है। कल तो हमारे कंपनीके गार्ड आगुस्तीन ने मुझे घाटी बोला। वो पात्रांवके गांवका है। मुझे भारी गुस्सा आया। पर मैं...' तो सांगूक सोदतालो. ताचे वोंठ थरथरपाक लागले. एकनाथाक कळ्ळें ह्या कामांत वागणूक बरी मेळपाक कुस्तार. तो खंती जालो.

एकनाथान किंग कोब्रा कंपनीत तीन म्हयने काम केलें. तीन हजार दोनशें रुपयांतल्यान गांवघरा बायलभुरग्याक धाडपाक व्हडलेशे पयशे मेळनासले. दुसरी खंयची नोकरी मेळटा कांय म्हूण तो सोदपाक लागलो.

कोणेतरी सांगल्याप्रमाण तो इगल ब्रँड सेक्युरिटी कंपनीच्या ऑफीसांत गेलो. कंपनीच्या डायरेक्टरान ताका पळयलो. एकनाथ लांबरुंद आनी सोबसारको. पयली सेक्युरिटी कंपनीत काम करपाचो अणभव आसा देखून डायरेक्टरान सांगलें. तुकां थोडो अणभव आसा आनी तूं सिनीअर म्हूण तुकां साडेतीन हजार रुपया पगार तुका मेळटलो. रावपाची वेवस्था तुजी तुवें करपाची. हांगा तिनशे रुपया चड मेळटाले. तो खोशी जालो. तशेच तो वर्सांनी सिनिअर आसल्यान मॅनेजराचें काम मेळू येता अशें हांयस ताका डायरेक्टरान दिल्लें.

पणजे शाराच्या लागसारच्या गांवांत तीन दीस ताणे रुम सोदलो. निमाणी उण्यांत उणे आठशें रुपयांभितर ताणे रूम थारायलो. रावपाची वेवस्था जातकूच ताणे किंग कोब्रा कंपनीची नोकरी सोडली. आनी नवे इगल ब्रँड सेक्युरिटी कंपनीत तो रोकडोच कामार गेलो. ते कंपनीचे गुरुडपक्षाचें चीत्र ताच्या आंगार झगझगतालें. पूण ताका आतां त्या चित्राचें व्हडलेशें आकर्शण उरूं नासलें.

नवे कंपनीत येतकूच आनी नव्या रूमार येतकूच आपल्या कुटुंबाक हाडपाचें ताणे थारायलें. रुम ल्हान आसुनय बरी वेवस्था आसली. ताका हांगा घरचें जेवणबी मेळटलें आसलें.

बायल भुरग्याक तशेंच आपले जाण्टे आवयक घेवन तो गोंयां आयलो. पयलो म्हयनो कुटुंबावांगडा खोसयेन गेलो. पूण बिराडाचे आठशें रुपया दिवन उरलेले पयशे जेवणाखाणाक पावना जाले. कोणाय कडसून उदार घेतले तर तशे वळखीचे कोण नासले.

नवी इगल ब्रँड कंपनी तशी व्हडल्या कॉन्ट्रक्टराची कंपनी. पन्नासावयर लोक ताचेकडे कामाक आसले. कंपनी गार्डांक चड करून हॉटेलांनी आनी शोपानी धाडटाली. कामाची वरां धा ते बारा. नवे कंपनीचो डायरेक्टर जिमी जॉर्ज स्टाफाक तापयतालो. तशेच तांची काळजी घेय नासलो. मदी सोडून गेल्ल्या मनशांचे पयशे तो दिनासलो. पगाराची तारीख नक्की नासली.

व्हडल्या हॉटेलांत बारा वरां काम करून आनीक चड वरां काम केल्यार ओवर टायम मेळटालो. आपलो पगार कुटुंबाच्या खर्चाक पावना हे खातीर एकनाथान चड वरां काम करपाचें थारायलें. ताणे दरबार हॉटेलांत काम मागलें. डायरेक्टरान ताका फक्त एका म्हयन्याखातीर  हॉटेलांत धाडलो.

थंय कंपनीचो ड्रेस घालपाचो लागनासलो. पूण हॉटेलाचो थरावीक ड्रेस आसलो. आंगार झगझगीत सदरो आनी तशीच तायट पिजाम, पायांक इतिहासीक राजाचे बूट आनी माथ्याक फाटल्यान शेलो कशी सोडलेलो फेटो. कपड्यांनी तो संस्थानीक राजा–बादशहा कसो दिसतालो. ताची उंचाय आनी गोरसाणेन तो अदीक सोबतालो. दारांत रावपी ह्या बादशहाचें काम 'आदाब' म्हणून दार उगडून गिरायकाक भितर घेवपाचें. सकाळी णव ते रातची णव आनी मागीर बारा वरांमेरेन ओव्हर टायम. दोन दिसांनी ताका ह्या कामाचो वाज आयलो. ताका हॉटेलांतलें जेवण खाण मेळटालें पूण रुमार ताची बायल वाट पळयताली. कांय वरां न्हिदपा पुरतो  तो रूमार उरतालो.

दरबार हॉटेल तशे हॉटेलापरस बार चड आसलें. शारांतल्या लोकांपरस टुरीस्ट खूब आसताले. हॉटेलाच्या दारावयल्या राजेशाही सेवकाक भुलोवन लोक भितर सरताले. केन्ना केन्ना सोरो पिवन बेबद्या जाल्ल्या टुरिस्टांक आनी थळाव्या लोकांक सांबाळटना एकनाथाक टेंशन. सोऱ्याचो उग्रवास. दाराभायर भायर सरपी बेबद्याच्या तोंडाचो वास. तांचे हळशीक उलोवप. ते दारावयल्या मनशाक किंकोत करताले.

मदी एके राती तो एका वराचेर रुमार पावलो. रुमांतली लायट पेट्टाली. सगळी जणा जागीच आसलीं. माणुकलो भुरगो रडटालो. बायल आनी आवय भियेल्ली. ताणे विचारलें, किदें जालें?

बायलेन कडकडत सांगलें, 'आमच्या रुमाच्या दारार पयली दोनदां मारलें. मागीर दार गडगडायलें!'

'कोणे?'

'आमकां खबर ना.'

'केन्ना.'

'वरभर जालें. बारांक सुमार दाराची खिळीय हालताली. आमी बोबाळ केलो.'

हें आयकून ताचेय काळीज धडधडपाक लागलें

ताची बायल बडबडपाक लागली, 'तुमी खुबूच रात करता. हांगां आमकां

पळोवपी कोण आसा?' तो ह्या दिसांनी उसरां येता म्हूण ताची बायल झगडटाली.

उपरान्त जाण्टेले आवयन म्हणलें, 'पुता येदे व्हड काळखे राती तूं भायर आसता. अशें रावप, येवप जिवाावयलो काळ.' तो वोगी रावलो. तो उलयल्यार ताची उतरांय थरथरतली आसलीं.

दरबार हॉटेलांतल्या एका म्हयन्याच्या कामा उपरान्त ताका कंपनीन कासीमाच्या इलेक्ट्रीक शोपार धाडलो. हांगा ताणे दोन म्हयने काम केलें. शोपाच्या दाराभायर उबो रावन गिरायकांक ग्लासाचे दार उगडप धांपप अशें काम चालूच. शोपाच्या मालकाकडे तशें कांय दी वा घेय नासलें. शोपाचो पात्रांव सेक्युरिटी कंपनीचो म्हयन्याचो वॉचर चेकान फारीक करतालो.

दाराकडे उबो रावल्लेकडे एकनाथाक याद जाली, ताणे आपले कुटूंब परत गांवघरा धाडलेलें. हांगा रावन काम करून अर्द पोटार रावचे परस परत गांवांत वचचें अशें ताका दिसतालें. घरचें शेत रोवन एक वेळचें तरी शितागोटे खावंक मेळटले अशे विचार उबो रावल्लेकडे ताचे तकलेत येवन गेले.

ताका भूक लागल्या हाची खर जाणीव जाली. ताच्या हातापांयाची शक्त नाजाल्यावरी जाली. हातपांय थकून वळ्ळ्याभशेन जाले. तरी नेट दिवन तो दाराकडेच उबो रावलो. आपूण हांगा राखपाक आसा, आपली भूमिका ताणे आपल्या मनांत घट केली. तरी दोळ्यामुखार येवपी काळोख आनी घुंवळ तो आडावंक शकलो ना. पांयार उबो रावपाची ताकत सोपली. शक्तीहीन जावन तो कोसळ्ळो. दारामुखार फुटपाथार पडून तो बेसूद जालो. ताचे कॅप जमनीर पडलें. थंय बोबाळ आनी लोकांची गर्दी जाली. वाटेतल्यान येवपी वचपी लोक ताका पळोवपाक रावले. तो हातपांय हालयनासलो. ताच्या कपलाच्या कोकींतल्यान तांबडें रगत येतालें. तें तोंडभर जालें. ताका कोणेन उखल्लो ना. सगळे पळयताले जशे कांय शोरुमावयलो बावलो सकयल पडला.

तो थंय पडून बरोच वगत जावन गेलो तरी ताका उठोवपाक त्या शोपांतलो कोण आयलोना. एका जाण्ट्या वाटसरून शोपाच्या दारार मारलें. शोपांत गिरायक चालूच आसलें. शोपांतलो माल विकत घेवन आनी वेवस्थीत बांदून घेवन गिरायक भायर सरतालें. त्या वाटसरून मात्सो बोबाळ केलो तितलोच. ताणे कुशिकच्या उगत्या दाराच्या शोपाच्या मालकाक विचारलें, 'तो सेक्युरिटी मनीस तुमचो?' ताणे सांगले, 'आमचो न्हय.' फुटपाथार गर्दी आनी गडबड. कोण म्हण्टाले 'ताका मोल्लूख मारल्या. ताच्या नाकाकडें चामड्याची व्हाण धरा.' कोण म्हण्टाले, 'ताका घुंवळ आयल्या.' जाण्टेल्या वाटसरून ताका नियाळ्ळो. ताचे फाटपोट एक जाल्लें.

तोंड सुकलेलें. स्वास चलतालो पूण हातपांय हालनासले. तो उताणो पडलेलो.

जाण्टेलो वाटसरू कासीमाल्या शोपात भितर सरलो आनी ताणे पात्रावांक विचारलें. ते बराबर पात्रांव थंडपणान ताका सांगपाक लागलो, 'पळय, तो आमचो स्टाफ न्हय. तो सेक्युरिटी कंपनीचो. कंपनीक रकाद धाडला. ते किदें करूंक जाय ते करतले.' ताचे जापेन तो वाटसरू वोगीच पडलो. शोपाभायर येवन तो बडबडपाक लागलो, 'आमचेय भुरगे असलेंच काम करतात, दुसऱ्याच्या शोपाच्या दारार उबे रावतात....'

पुलीस जिपीचो सायरन वाजलो. कोणेतरी लागच्या पुलीस स्टेशनार मदल्या वेळांत कळयलां जांवये. पुलीस जीप येवन थंय थांबली. तीन पुलीस सकयल देवले. ताणी ताका हालयलो. उदक पियेवपाचो यत्न केलो. ताणे उदक पियेलेना. जिपीत व्हरून दवरपाक पुलीसांनी ताका हात लायलो तेन्ना ताणे आपलो हात कपलाच्या सणसणपी कोंकीकडें व्हेलो. कोंक बरीच मोठी जाल्ली ताच्या कॅपावयल्या सिम्बोलायेदी !



# रात परमळटा

मुंबय रातचो सात वरांचो वेळ. मार्गावयल्यो लायटी लकलकताल्यो. फुटापारेवयल्यान हजारानी लोक ये-वच करताले. लॅमिंगटन रोडाक कृष्णदेव गल्ली मेळ्ळ्या थंयच हांव उबो आसलों. सलवार कमीजांतली एक तरनाटी बायल माथ्यार रंगीत कपयाळ्यांची सत्री फुलोवन फुटपायरेवयल्यान पासयो मारताली. सादारण पन्नास पांवलां चलून वयतकूच ती फाटी वळून परत येताली आनी वयताली. वाटेवयल्यान वचपी लोकांचे तिचेर तशें लक्ष नासलें. पूण कांय जाणांचे लक्ष तिचेर गेल्लें. पावस ना वोत ना, तिणे बरीच मोठी सत्री फुलयल्ली, तीय ते सत्रेभाशेन गोल आनी जाडजूड आसली. लायटीच्या प्रखर उजवाडान तिचें गोलायेचें आंग नदरेत भरतालें. धा मिण्टां पासयो मारतकच ती कृष्णदेव गल्लीत गेली. मागीर जनता रेस्टारंटा कुशिकच्या त्या एक मजली मोटव्याश्या घरांत भितर सरली.

काल ह्याच वेळांत ती दिश्टी पडलेली. पासयो मारताना.

हाका ताका पळयत हांव चलतालों. वाटेत एका बाकार एक शिंदळ बायल बसलेली. तिच्या फुड्यांत गूंड कशे दोन दादले उलयताले. लागच्या च्याच्या स्टॉलाकडचे लोक तांका पळयताले. हांवें ते बायलेक नियाळ्ळी. ती गोरसार आंगाची, थुलथुलीत. हांव तिका पळयतां हें कळ्ळ्या बराबर तिणे आंगार पडचे तशें म्हणलें, ''साहब घुमने चलेंगे चौपाटीपर.'' तिका परत पळयलेशें केलें आनी हांवें थंयसून कूस मारली. खरें म्हणल्यार हांव तिचेकडे उलोवंक रावतलों आसलो, पूण त्या दोग दादल्यांचो म्हाकां भंय दिसलो आनी तिच्या चिकचिकीत आंगाची विटशी.

चलतां चलतां म्हाकां याद जाली. काल तिनकातरेर चौपाटीकडे हांव वयतालों. वाटेत गाडयांच्या दिव्यांचो आनी रोडावयल्या लायटीचो झगझग. वाटेत मदीच एका झाडाकुशीक हयन्हयश्या काळखांत एक सोबीत तरनाटी चली उबी. तिणे धवी पातळ साडी न्हेसलेली, पातळ झिरझीर साडयेत तिचें गोरेपण लकलकतालें. ती एखाद्या फिल्मांतली हिरोयीन कशी उठून दिसताली. पूण त्या काळखांत ती आसली भूत कशी. तिनसांजेर या वाठारांत अश्यो उब्यो आसलेल्यो सुकुमारी दिश्टी पडटाल्यो.

कृष्णदेव गल्ली मुखावयल्या इनामगल्लीतल्या नारायण डिलक्स लॉजांत हांव परत आयलों. हात-पांय धुवन बसलों. लॉजाच्या कांवटराकडे गेलों. थंय

दोन रुमबॉय खबरी मारताले. हांवें तांका विचारलें, 'हांगा लागी खंय नाचगाणे आसता? ते दोगूय वेगळोच अर्थ काडून हांसले आनी वोगी रावले. मागीर सुलेस्तार करून हांवें सांगलें, ''पिक्चरांत रेखा बीन नाचता गायता तशें ह्या वाठारांत नाचबीन आसता? तशी कोठी हांगा खंय आसा?'' ते परत हांसले आनी विचारून म्हाकां सांगता अशे ताणी सांगलें. मागीर हांव मनान 'हमीदाबाईची कोठी' सिनेमांत घुस्पून उरलों.

हांव मुंबयसून परत घरा वयतकूच म्हजो इश्ट मनोहर म्हाकां मुंबयच्यो खबरी विचारपाक येतलो आसलो. ताणे म्हाका सांगलेले, 'पळय सुरेश तूं म्हाकां मुंबयचो हालवोबीन कांय एक हाडू नाका पूण मुंबयच्यो चार गजाली पळय आनी म्हाकां सांग? ताका किदेंतरी सांगपाचें आसलें. सांगपा सारक्यो गजाली हांव पळोवन घेवं सोदतालों. म्हाकां मुंबयचें लायफ पळोवपाचें आसलें.

जनता रेस्टॉरंटांत रातचे जेवन हांव भायर सरलों. भायर उंच बिल्डींगांतलो उजवाड दोळ्या भशेन दिसतालो. गजबजलेले इंद्रनगरीत गिरेस्तकायेचो बाजार मांडलेलो. कृष्णदेव गल्लीक तर रातच्या आठा उपरान्त जात्रेचें उत्सवी रूप येतालें. हांगा तर रात चडत वयता तितली अदीक धुंदी पातळत वयताली. वेपार धंद्यातलें पैशे इंद्रनगरीत भोग घेवपाक येताले. लागीच कॅबेरा डान्साचें म्युजीक वाजतालें. ताचे बीटस दर एकल्याच्या काळजाच्या बीटसाकडे जुळटाले.

तिकेट मेळत जाल्यार एक पिक्चर पळोवचें म्हूण हांव अर्जुन टॉकीजाकडे गेलों. रस्त्यालागच्या कम्पावडांत सिनेमाघर आसलें. रातचो णवाचो शो जावपाचो आसलो. कम्पावडांत लोकांची घिट्टी. दोन सेक्सवर्कर कम्पावडांत रस्त्याकुशीक रावन आपल्या गिरायकांची वाट पळयताली. आपली लिपस्टीक आनी आपले रंगीत चकचकीत ड्रेस सारके आसा कांय ना ते परत परत आरशेत चोयतालीं. कोनश्याक एक तरनाटी सेक्स वर्कर पांच तरनाट्या दादल्या वांगडा वांटपणा केल्ल्यावरी उलयताली. ती आंगांन उजळ काळसार पूण नाकादोळ्यान सुरेख. नितंब तर खंयचेय अप्सरेक लेगीत लजयेत अशे तटास. कोरीव होंवरेतल्या सौंदर्यमूर्तीक हाडून उबी केल्लेवरी नकसूद. ती तरनाटी सौंदर्यवती पांच दादल्यांची द्रौपदी कांय असो कोणाक भास जावंये. एक उंच तरनाटो तिच्या आंगाखांदार हात दवरतालो. तो तिचो यार बीन लागता कांय? कांय असोच भडवो दलाल.

अर्जून टॉकीज बेगीनच हावसफुल्ल जालें. थंयसून परतले बगर उपाय नासलो. हांव कृष्णदेव गल्लीतल्या कृष्णा टॉकीजकडे वचपाक लागलों. कृष्णदेव गल्लीच्या सुरवेकूच एका माळयेचें तें घर. त्या घरांत ती व्हदळची

सत्रेकान्न भितर सरलेली. घराच्या सकयल्या उगत्या पडवेर बायलांचो वावर दिसतालो. वयले माळयेर स–सात तरनाट्यो सुंदरी भायर तुकूतुकू करून पळयताल्यो. तांच्या माथ्यार कपड्यांची झालर हालताली. सकयल रस्त्यार रावन पानविड्याच्या गाड्याकडचे कांय तरनाटे तांचेकडे उलयताले आनी त्यो सुंदरी हांसत किट्रकिट्रटाल्यो. थंय उत्सवाची उमेद दिसताली. नाचगाणे थंय नासलें पूण ती वेश्यांची एक कोठी म्हूण सहज समजू येतालें.

मनशान केल्ल्यो वा पळयल्ल्यो बऱ्यो वायट गजाली खंय मनशाच्या मनांत येतात, तशेंच जालें. काल जहांगीर आर्ट गॅलरीत पळयल्या प्रतिकृतींची याद जाली. कोची शारांतल्या म्युजियमाच्या वण्टीवयल्या चित्राची ती प्रतिकृती आसली. कृष्ण आपल्या सगळ्या बायलांक आपल्या सहस्त्र हातांनी पावतालो, अशें थोडेशे पोरनोग्राफीक चीत्र दोळ्यासामखार झगमगून गेलें.

कांय पावलां चलून गेल्यार कृष्णदेवाचें धाकटे मंदीर लागलें. तें आजून उक्तें आसलें. थंयच्या घण्टेचो आवाज कांकणा किणकिणयल्ल्यावरी नाजूकसो येतालो. धूप–उजवातीचो धुंवर आनी वास वाठारांत भरून आसलो.

फुडें चलून गेल्यार आनीक एक पयले सारकी कोठी लागली. वयल्या माळ्यार लिकलिकीत पोशाखांतल्यो चलयो उब्यो आसल्यो. काजळ–पावडर लावन त्यो मॉडेल कश्यो सोबताल्यो. सकयल्या दाराकडे कोणूच नासले. तांका राखण दिवपाक तांचे इश्ट–मित्र वा दलालबी थंय ना कांय? कांय सगळो भरिभार देवाचेर सोडला? कृष्णा टॉकिजाकडे वचपाचें सोडून हांव परतलों.

व्हदळ डिलॅक्स लॉजांत आसताना म्हज्या घरा आसलेल्या म्हजे सवाशीण बायलेची याद जाल्ली. आमी मोग करून लग्न जाल्ली. आमी मनांतल्यान एकाम `कांचेर मोग करतालीं. आमचें तनमन कुशीक काडू नजो अशें आसलें. तिच्या सहवासाबगर म्हाकां चुकल्या चुकल्या सारकें दिसतालें. मनांतल्यान... मेंटली आमी एकामेकांची जाल्ली. म्हाकां पळोवन ती बोंगे कळये भाशेन फुलताली. आमकां दोन वर्साचो भुरगोय आसलो. तो आमच्या मोगांतल्यान निर्माण जाल्लो. लॉजांत तेन्ना ही याद जावन म्हाकां तिचो कीस घेवपाची उमळशीकय जाल्ली.

मागीर लॉजाची सोपणा देवन सकयल येतना, हांगाचे वेगळे जिवीत पळोवचें अशें मनांत येतालें. तोच विचार पयले कोठये मुखार पावताच मनांत आयलो. पांय गणवपाक लागलें. पळोवचे म्हूण हांव कोठयेत पावल दिवरलें. भितर सरताच फॉरेन सेंटाचो वास घमघमलो. सकयल सादारण प्रोढशी चार बायलां मोव सोफार बसलेलीं. कुशीक तेकपाक लोड आसले. एक बायल म्हजे पयली थंय आसलेल्या

सुटाबुटांतल्या तरनाट्याक वयर माळयेर वचपाक सांगताली. वयर तरनाट्यो गणिका आसल्यो. हांव थंय पावन, वयले माळयेर वयतलों इतल्यान ते बायलेन म्हाकां आडायलो. म्हजी पिराय पळोवन सकयल्या त्या बायलां मदल्या एके बायलेक वेचून म्हजे वांगडा वचपाक सांगलें. ती हॉटेलांतल्या वेटराचे तत्परतेन म्हज्या फुड्यांत आयली. म्हज्या फुड्यांत आयल्ली सुंदरी तीस वर्सांची आसूंये. ती मोटविशी, निमगोरी. तांबड्या फुलांफुलांची साडी न्हेसलेली. कोठयेक मदी ल्हान हॉल कसो. कुशिकच्या एका रुमांत तिणे म्हाकां व्हरून बसयलो. तिणे मोगरे कळ्यांची आटी माळलेली. कळे फुललेले. ताचो मंद वास येता असो वोगीच भास जालो.

मागीर ती म्हज्या लागी येवन उबी रावली. म्हज्या पांयाक तिची साडी चुळबुळल्यावरी तेकताली. साडयेच्या मिरयांच्या स्पर्शान म्हज्यो चित्तवृत्ती चाळवल्यो... आंगांतलो कस्तुरी मृग जागो जालो. इतल्यान म्हाकां थंयच दवरून ती भायर गेली. वयताना म्हजे कडसून तिची फी देडशें रुपया आनी टीप्स् म्हूण पन्नास रुपया घेवन वचपाक ती विसरलीना.

हांव बसलेले खुर्चेर एक मलमली कपडो हातरलेलो. खुर्चेक तेकूनच एक ल्हानशी खाट. तिचेर पातळ मोव गादी आनी रंगीत चित्रांची उशीं. वण्टीक आरशी आनी तिच्या कातार फणी आनी पोवाचो ल्हान डबो. डब्यार जस्मीन फुलांचे चीत्र. कोनशाक एक रीतो बाथटब. माथ्यावयर पळयल्यार माटोळेक कांगलां माट्टां बांदता तशे तरेन गोणे कश्यो रंगीत साडयो. तांच्यो गडद रंगीत देगो वाटकुळी नक्शी कशी. तांचे सकयल बसलेल्यांक आपूण व्हडलो रसीक बादशहा असो भास जांव येतालो.

दार उगडून ती परत आयली. तिच्या आंगार साडी नासली. पोलको आनी घागरो हातूंत ती उत्ती दिसताली. येवच्या येवन ती वयल्यावयर हांसली. साडयेन धांपलेले सुंदरपण आतां तिच्या घागऱ्या पोलक्यांत नासलें. ती येवन म्हजे लागचे खुर्चेर बसली. आनी तिणे म्हज्यां फुड्यांतल्या टीपायचेर पाकिटबंद कंडोम दवरलो. तें पळोवन फुल्लेल्यो वृत्ती बावन गेल्यो.

म्हाकां तिचेकडे उलोवपाचे आसलें. ती खंयची, तिचे नांव किदें, कोणेन तिका हाडून त्रासांत उडयली आदी प्रस्नांच्यो जापो मेळोवपाच्यो आसल्यो. ती वोगीच रावल्या म्हूण हांवें तिका हिन्दीत विचारलें,

'तुजें नांव किदें?'

'गौरवी'

'तूं खंयची?'

'मंगळूरची.'

'तूं हांगा कशी पावली? कित्याक पावली.'

तिणे म्हाकां परत प्रस्न केलो,

'तुमी हांगा मुंबय कित्याक आयल्यात?'

'म्हजो बिझनेस आसा. बिझनेसाखातीर हांव हांगा आयलां. इलेक्ट्रोनीक्स वस्तूंचें स्टोर आसा आमच्या गोंयांत?'

'हांवूय हांगा बिझनेस करपाक आयलां.'

तिणे म्हाका अनपेक्षीत जाप दिली.

'बिझनेस?'

'हय बिझनेस. ह्या धंद्यांक आमकां चार पैशे मेळटात. नाजाल्यार आमी पोटाभुकेन मरपाचीं.'

मदी मात्सो मोनेळ. हांवें तिका फिल्मी स्टायलीन पूण वयलेचाराक विचारलें, 'तूं गोंयां येता?'

'ना, म्हाकां चाळीस हजार रुपया जाय. तूं दिता जाल्यार येतां.'

थोडो वगत हांव गप्प, तोंड धांपून. विशय बदलपाक हांवें सांगलें, म्हजें नांव सुरेश. हांव गोंयचो.

'तुमी गोंयचे म्हूण तुमच्या उलोवपाचे शैलीतल्यान समजलें म्हाकां. म्हाकां मंगळूरची कोंकणी स्वल्प समजता. कन्नड, हिन्दी, मराठी तर बऱ्यो येतात.'

'म्हाकां सांग, तुकां चाळीस हजार रुपया कित्याक जाय?'

'म्हजी आवय वीस हजार रुपया रीण आसा. हांगा येवन देड वर्स जावन गेलें तरी तें रीण फारीक जावना.'

'आवयन इतलें रीण कित्याक काडलें?'

'जाण्टो बापूय सदाच दुयेंत आसता. ताच्या वखदाक आनी उपचाराक आवयन रीण काडलें. तें आतां वीस हजारा रुपया जालां.'

'म्हणजे तुज्या बापायखातीर आवयन रीण काडलें. आवयन काडलेल्या रीणाखातीर तूं मंगळूरसावन हांगां मुंबय येवन हो बिझनेस करता!' ती वोगीच.

'तशेच आनीक वीस हजार रुपया कित्याक?'

'म्हजी धाकटी भयण इंद्रम्मा कामाखातीर हांगाच येयल्ली. तीन वर्सां पयलीं. ती परतून गांवांत येयली ना. सुर्वेक केन्नाय थोडे पैशे धाडटाली. हांव हांगा येतकूच कळ्ळें ती बारगर्ल म्हूण काम करता. बारांत सोरो दिता, नाचता

आनी..... गेल्या वर्सा बारबालांचेर सरकारान बंदी हाडली. ती बेकार जाली आनी मागीर आपल्या वळखीच्या तरनाट्यावांगडा रावपाक लागली. काम धंदो ना म्हूण सेक्स वर्कर जाली. ह्या धंद्यातच तिका दीस गेले. तिका स म्हयन्याचो भुरगोय आसा. धाकटे भयणीची दशा पळयतगीर दिसता, तिचे खातीर किदेंतरी करपाक जाय.'

'ओ ऽऽ' हांव सुस्कारलों.

हांव सुस्कारलों तें पळोवन तिणे म्हणलें, 'सायब, ह्या बिझनेसांत वायट कांय ना. ह्या धंद्याक सरकारान लायसन दिलां. म्हजेकडे वळख कार्ड आसा. तूं तुजें काम कर आनी पैशे घे. दी आनी घे असो हो हेर धंद्याभाशेन सरळ वेव्हार. तातूंत कांयच वायट ना.'

ती हो एक प्युअर धंदो म्हण मानताली.

'आमी कोणांत गुंतना. मन लायना. मात केन्ना केन्ना मन वयर सरता. हें मन ह्या शरीरांत आसा न्हय. किदें करतलीं?

मदी बरोच वगत मोनेळ. हांव मनांतल्यान गोंयांतल्या आदल्या समाज वेवस्थेत पावलों. गांवांतली ती भावीण जावनय तिचेकडे येतल्या सांबाळप्याकडे ती जीव लायताली. केन्ना केन्ना आपणे केल्लो गोड जिन्नस घेवन ती आपल्या सांबाळप्याच्या घरा घेवन वयताली. ताच्या भुरग्याबायलेक दिताली. तिकाय जीव आसलो... प्राणज्योत आसली, जी भावनेच्या तेलवातीर पेटत उरताली.

मागीर हांवें कितें तरी उलोवपाक जाय म्हूण विचारलें, 'तुकां तुजी धाकटी भयण केन्ना भेटता?'

'तशी मुद्दाम भेटना. ती मदी दिसताली. ती हेच ओरियेत आसा.' मागीर मान सकयल करून ती आपल्याच पायांक पळोवपाक लागली. हांवें तिका विचारलें, 'तुजें नाव, गौरवी न्हय?'

'ना. ना. हांगां दवरलेलें म्हजें नांव तें. म्हजे खरें नांव चंद्रकला. म्हज्या आवयबापायन दवरलेलें.' तिणे एका धपक्यान सांगलें.

रुमाभायर आवाज जालो तशी आमी वोगी रावलीं. म्हाकां तिचेकडल्यान आनीक किदें काडून घेवं जाय आसलें. म्हज्यांतले धंदेकार पैशे वसूल करपाक सोदतालो. तिणे पोलको बीन काडून ती खाटीर आडवी रावली. हांव वोगी रावन तिका नियाळटालों. तिचे उगडे आंग फूल बावल्यावरी दिसताले. तिचे कडल्यान कसलेंच आव्हान नासलें. पेशंट कशी ती आडवी पडल्यावरी आसली. ती शरीर दिताली पूण मन दिनासली. तिचे मन गोगलगाय कशें भितर भितर मुंगरून आसलें.

तिच्या कानाचे पाळये सकयल पोल्याक रुपयाच्या नाण्यायेदो पूण वाकडो तिकडो काळो दाग दिसलो. हांवें तिका विचारलें, ‘काळो दाग कसलो?’ म्हज्या भलत्याच प्रस्नान ती आबूज जाली. हांव नाका जाल्लें प्रस्न विचारतां अशी तिणे नुरा केली. मागीर ती सांगपाक लागली, ‘तो काळो तीळ.’

‘म्हाकां तें लाशेशें दिसलें. अशें सांगून हांव फुडे उलयलों, ‘तुका कोणे दाग बीन दिला कांय असोय प्रस्न पडलो.’

हें आयकून ती मात्शी हांसली आनी खंतीय कशी रावली. मागीर अचकीत शाणी कशी ती उलोवंक लागली, बिझनेस हो धुर्तांचो. धुर्त मनीस चकचकीत बेगडेत गुठलावन दमडेचो म्हाल भांगराच्या दरान विकता. सामान्य मनीस त्या बेगडेतल्या म्हालाक भुलता. आमी तर हांगा आमचो जीवच कांटयेर उडयला... बरोच वगत मोनेळ.

तिका हांवें हातय लावना म्हूण ती उठून बसली. पोलको न्हेसली आनी दागाविशी विचारता म्हूण तिणे म्हाकां म्हणलें. ‘तुमी दोतोर?’ हे खेपे म्हजी जाप ना. उपरान्त हांव उठलों. तिचेकडे पयसपण उरचे न्हय म्हूण हांवें तिच्या हातांत हात दिलो. ही टच फिलींग तिच्या काळजामेरेन पावची अशें दिसलें.

हांव कुडीतल्यान भायर सरलों. म्हज्या फाटल्यान ती पडवेच्या दारामेरेन आयली. पडवेत त्यो व्हदळच्यो साळकायो म्हाळकायो आसल्यो. हांव थंय रावूं जायना म्हूण तिणे म्हजे फाटीक हात लावन म्हाका फुडें धुकल्लो. म्हाकां तिची समजणी कळ्ळ्याबराबर हांवय थंय रावलोना. भायर सरून वाटेवयल्यान वयतालो व्हदळचो तो वयले माळयेर गेल्लो सुटाबुटांतलो तरनाटो, म्हजे फुडें रितो पंक्चरसो चलतालो.

हांव परत इनामगल्लीतल्या दुसरे माळयेवयल्या लॉजाची सोपणां चडटालों. म्हज्या मनांत विचार घोळटाले. तिचे आवयन आपल्या घोवाखातीर.... ताचे दुयेंस बरें जावपाखातीर रीण काडलें. आवयचें रीण फारीक करपाखातीर ती मंगळूर सावन मुंबय आयली. हें रीण फारीक करपाक मजत करपी आनी आपल्या मनशांक जगपाक आदार करपी ह्या धंद्याक तिणे उणाक लेखलें ना.

हांव चितीत आसलों... म्हजे लग्राचे बायलेकडे जें स्त्रीत्व आसा तें स्त्रीत्व... बायलमनीसपण ह्या चंद्रकलेकडेनय आसा. तांच्यांत वेगळेपण ना. तांच्यांत एकच स्त्रित्व आसा. बायलमनशेत जें ममत्व आसा तें तांच्यांत आसा; They are lovable women too. हाची जाणीव म्हाकां जायत रावली आनी म्हजे तकलेंत भर मध्यान्नीर उजवाड जाल्ल्यावरी जालो.

दुसरे दीस हांव उसरांच उठलों. तोंड धुवन अर्जून टॉकीजकडच्या कामत हॉटेलांकडे वचपाक लागलों. सकाळची सादारण सात वरां जाल्लीं. रस्त्यार येरादारी आसली आनी फुटपायरेवयल्यान लोक येताले वयताले. रस्तो पार करून हांवें दुसरे फुटपायरेच्या धडेर न्हिदलेले एके अस्तुरेचेर म्हजी नदर पडली. ती उजळ काळशी सोबीत अस्तूरी काल राती अर्जून टॉकीजाकडे दिसलेली सेक्स वर्कर आसली, जी पांच जाणाकडे वांटपण करताली. घडये ती चंद्रकलेची धाकटी भयण इंद्रम्मा आसूंये. तिचे आंगार आतां सादेच कपडे आसले. तिचे दोळे धांपलेले. ती सुस्त न्हिदलेली. तिच्या वेंगेंत स म्हयन्याचो भुरगो आसलो. तो भुरगो आपले दोळे बिटबिटायत पळयतालो. ताच्या तोंडांत तिच्या मोम्याची चींव आसली. आनी तो गुटगूट करून दूद पियेतालो. आनी थंय ताज्ज्या दुदाचो वास परमळटालो.



# भुंयदेवी

भारतीय बॉर्डर सेक्युरिटी फोर्साच्या मेजराक सकाळीच वायरलेस फोन आयलो. ताणे तो उखल्ल्या बरोबर ताका आयकूंक आयलें.

''मेजरसायब.''

''हां, उलय कॅप्टन.''

''मेजरसायब, ते बांगलादेशी स्नेक चार्मर बोबाळ करतात. दादले, बायलां, भुरगीं मेळून दोनशेचार आसात. एकलो मोनीजान म्हूण तर, चडूच मस्ती करता. ताका जंयसून हाडला थंय पावय म्हण्टा. जास्ती मारता. तो कसोच आयकना.''

''म्हजे फुड्यांत घेवन यो ताका. हांव पळयतां, किदें करूंक जाय तें.''

''हां सायब.''

मेजरसायब आपल्या सरहद्द सुरक्षा दलाच्या बॅरॅकांतल्यान भायर आयलो. ताणे आपली नदर अयसपयसच्या नो मॅन्स लँडांत भोंवडायली. व्हडलें मळ. चडशें उक्तें. खंय खंय झाडां आसलीं. एका एका झाडांपोदां कांय मनशां पंगडापंगडांनी बसलेलीं. ताका त्यो बारीक बारीक आकृतायो कश्यो दिसल्यो. ह्या पंदरा दिसांत त्या बांगलादेशी नागरीकांक हाडून बांगलादेश सरादीकुशिकच्या नो मॅन्स लँडांत हाडूंन दवरलेले. तातूंत काल वीस जणांच्या पंगडाची भर पडलेली. तांका तांच्या बांगलादेशांत परतून धाडपाची सक्त ताकीद बंगाल राज्याच्या मुखेलमंत्र्याची आसली. बांगलादेशी नागरीकांचो विशय देशाच्या पार्लामेंटातय गाजलेलो. विरोधी पार्टीन तर होच प्रस्न मांडलेलो. बंगाल राज्यांतच न्हय तर मुंबय आनी हेर शारांनी आसलेल्या बांगलादेशी नागरीकांचो प्रस्न काडून सत्ताधारी पक्षाक पेचांत उडयल्लो. देशाचो पंतप्रधान बंगालच्या मुखेलमंत्र्याकडे बरोच वगत फोनार उलयल्लो. ताणे बांगला देशी नागरीकांक धरपाचो आनी व्हरून बांगलादेशांत सोडपाचो सल्लो दिल्लो.

मेजरसायबान पळयलें तांचो कप्टन त्या बांगलादेशी नागरिकाक घेवन येता. तो बडी कसो आंगांत शिडशिडीत आनी काळो. त्या नागरिका

फाटल्यान ताचीच सांवळी कशी साडी न्हेसलेली एक बायल मनीस येता ती दिसताली. तिका सरहद दलाच्या जवानानी परत धांवडायली.

मेजर आपल्या बॅरॅकांतल्या आपल्या कॅबिनांत येवन बसलो आनी बांगलादेशी नागरिकांविशीचीं कागदपत्रां पळोवपाक लागलो.

कॅप्टनान कॅबिनांत येवन धाड करून पांय आपटून सलाम मारलो. कॅप्टना वांगडच्या लष्करी भेसांतल्या दोग जवानानी त्या बांगलादेशी नागरिकाक भितर हाडलो. ताणे लुंगी न्हेसलेली आनी वयलें आंग उक्तेंच आसलें. मेजरान ताका बंगाली भाशेंतल्यान विचारलें

''तुजें नांव किदें?''

''मोनीजान''

''सारके सांग, तूं बांगलादेशी मरे?''

''बांगलादेशी? हांव हांगाचोच सायब. ह्याच वाठारांत आमी रावताले.''

''तुमी बांगलादेशी परदेशी. भारताचें सरादी पलतडचे. ती तारेची वंय आसा ताचे भायले. तुमी बांगलादेशी नागरिकांनी हांगा येवन प्रस्न निर्माण केलो. राष्ट्रीय सुरक्षितायेचो प्रस्न. तुमकां पासपोर्ट लागना. व्हिजा लागना.... उठले सुटले हे वटेन आयले. तुमी भटके बांगलादेशी.....''

''सायब आमी बेडेय. बेडेय वंशाचे. मळार आसात ते आमचे सोयरे. आमच्याच वंशाचे. आमी नागसर्पाचें खेळ करतात. तांची पूजा करतात.''

''तुमी हालीं शारांतल्या मार्केटांनी, उत्सवांनी नागसर्प घेवन आयल्यात ही खबर आमकां कळ्ळ्या. पुलिसांनी तुमकां धरून आमचे सुवादीन केल्यात. आतां आमी तुमकां बांगलादेशांत धाडपाचे आसात. पूण तुमचे बांगलादेश रायफल तुमकां परत घेवपाक तयार ना. तरी तुमकां परत तुमच्या गांवां वचपाचेंच पडटलें.''

''पूण सायब हांव वच्चो ना.''

''कित्याक?'' मेजरान तापोवन विचाल्लें.''

''सायब म्हजीं दोन ल्हान भुरगीं त्या शारांत उल्ल्यांत. पुलिसांनी आमकां धरून हाडल्यांत. म्हजो धा वर्सांचो चेडो आनी चेंडू बारा वर्सांचें. म्हज्या चेडवाचेर जोमीमांयचो– भुंयदेवीचो भार येतालो. नागपंचमीक दोन म्हयने जावन गेल्ले तरीय तीं नागसर्पांचो खेळ करपाक वयताली. आमीय घोवबायलां दुसरे वटेन वयतालीं. म्हाकां तांका सोदपाक जाय. हांव थंय वयता.''

''तुका थंय वचपाक मेळचेना. तुज्या बांगला देशांत वच तूं.''

''पूण सायब म्हजी भुरगीं शेणल्यांत. तांका सोदपाक जाय. म्हाकां आडावपी तुमी कोण?

''हे ऽ तूं सुबेज उलयता. हांव कोण? दाखयतां तुकां'' आपले सत्तेक आव्हान दिता म्हूण मेजरान ताच्या कमरेर आपल्या बुटांच्या पांयाची खोट घातली. तो सोमतो ओमथोच पडलो. अचकीत पडलेल्या मारान ताणे आपले संवयेन तांका गाळी घालपाक सुरवात केली. ते बरोबर थंय उबे आसलेल्या दोन दांडग्या जवानानी आपल्या बंदूकीच्या घण कश्या दस्त्यान ताका मार घालपाक सुरवात केली. मागीर तो समाको भियेलो. तांच्या पांयां पडलों तरी ते ताका बडयत रावले. मागीर मारान तो बेसुद्ध पडलो.

बऱ्याच वेळा उपरान्त तो सावचीत जालो. ताका सरहद्द जवानांनी उदक पियेवंक दिलें. उपरान्त दोनय जवानांनी ताच्या खाकेक धरून उठयलो आनी दोनीवशीन दोनय हाताक धरून व्हरपाक लागले. मोनीजान लंगडत, घस्टत जवानांच्या आदारान चलपाक लागलो. ताच्या चेऱ्यार कदीम काळासाकूनची दुखाची वेदना अदीक काळी काळी जाताली.

ते नो मॅन्स लँडांत पावले तशे थंय आसलेली ताची बायल जगाम्बी धांवत आयली. आपल्या घोवाची दशा पळोवन बोब मारून रडपाक लागली. जवानानी ताका तिचेकडे सोपयलो, जशी कांय तिचेरच ताची जापसालदारी आसली आनी कोणाचेरच नासली. तिचो काळसो आनी लोळललेलो तोंडावळो, गाल पडलेल्यान अदीकच बारीक दिसतालो. पूण दोळे मात नागिणीच्या दोळ्यावरी लिकलिकताले.

लागच्या पंगडांतले कांय लोक मोनीजानच्या खबरेक आयले. ताका बसपाक जमनासलें. तो जमनीर उदारो न्हिदलेलो. ताचे फाटीर, पायांच्या पोंवठार वळ उदेल्ले. विखारी सर्पान दांत खोल रोमचे आनी आंगांतल्यान रगत येवचें तशें तातुंतल्यान रगताचे काळशे निळशे थेंब निशेल्लें. ताची बायल जगाम्बी धांवत झाडांझोपांनी गेली आनी दोन–तीन झाडांच्यो बारीक खांदयो तिणे मोडून हाडल्यो. तांची पानां एका खडपार फातरान धोडावन ती बारीक वांटली. ताचो लेप सुजलेल्या आनी दुखीच्या आंगाक लायलो.

जगाम्बी आनी मोनीजान सर्पांच्या खेळावांगडा लोकांक झाडपाल्याचीं वखदां दितालीं. सर्पाच्या पेटाऱ्यावांगडा वखदी वनस्पतींच्या पाळांमुळांनी भरलेल्यो सानश्यो आनी बोटवे आसताले. पूण आताचे घडयेक तर ताचेकडे तातुंतलें कांय एक नासलें. वखदांच्यो सानश्यो आनी नागसर्पाचे पेटारेय नासले. शारांतल्या

खाकी वर्दीतल्या पुलिसांनी ते काडून घेतलेले आनी खंय तरी उडयल्ले. त्या सानश्यांतली वखदां आतां वेळाक उपेगाक मेळूंना म्हूण तिका हाय जालें.

आयज दनपार सावन तीं उपाशीच आसली. काल सरहद्द जवानांनी तांका जेवण दिल्लें आनी आयज सकाळी दोन दोन भाकऱ्यो आनी उदक. तांच्या पोटापाणयाचे साधन जप्त केलें आनी सोरपांकय मारलें म्हूण ती खेपपाक लागली. तेन्ना तांच्या पंगडांतल्या लोकांनी तिका वोगी रावपाक सांगलें. तशेच सुरक्षा दलाचे जवान तिका मारीत बडयत म्हूण भंय घातलो.

नो मॅन्स लँडांतल्या लोकांच्या बारा पंगडाचेर पश्चिमेवटेनच्या सरहद्द सुरक्षा दलाचें लक्ष आसलें. तशेंच थंय किदें किदें घडटा हाचेर बारीक नदर पूर्वेतल्या बांगलादेश रायफलाची आसली. सदावरीच दोनय वटेनच्यान मशिनगनाच्यो नळयो जोखलेल्यो, आनी दुर्बिणीच्यो नदरो तेळटाल्यो. व्हदळ मोनीजानाक बडोवन थंय हाडून उडयल्ले तेन्नाय बांगला देश रायफलाच्या जवानानी पळयल्लें आनी ही खबर ताणी वयर कमांडींग ऑफीसाकय कळयल्ली एक चाडी कशी.

त्या मळार गारुड्यांक हाडून दवरल्यार पंदरा दीस जावन गेल्ले, सोळाव्या दिसा दनपारच्या वेळार एका मिलीटरी ट्रकांत आनीक चवदा बांगलादेशी गारुड्यांक हाडून थंय सोडले. तांचो पंगड मेळून तेरा पंगड त्या मळार जाल्ले. ते कुशीक वेगळेवेगळे दवरलेले. एका पंगडांतल्या लोकांक दुसऱ्या पंगडाक मेळपाक दिना आसले. जगाम्बीक आनी मोनीजानाक तांचे कडे उलोवपाक आनी खबर काडपाक मेळनासलें. दर एक पंगड सादारण शंबर मिटर अंतराचेर आसलो. जगाम्बीक सुरक्षा दलाची नदर चुकोवन त्या नव्या पंगडांत गेली. तिणे पयली आपलीं भुरगीं खंय आसात कांय म्हूण चवकशी केली. कोणेच सारकें कांय सांगलें ना. बरें तांका हे सुवातेर कित्याक हाडल्यांत तेंय खबर नासलें. तांकाय हेराभाशेन शारांतल्यान उबारून हाडलेली. मात तांच्याकडचे नागसर्पाचे पेटारे, पुंग्यो, वखदांच्यो पोटल्यो, देवीच्यो म्हुर्ती झोपून घेंव नासल्यो. त्यो तांचेचकडे आसल्यो. त्यो ताणी आपल्याकडे सांबाळून दवरलेलो. तशें तांच्या तोंडार जगाम्बी आनी मोनीजान हांच्या भाशेन प्रस्नचिन्ह आसलें– आमकां सगल्यांक हांगा कित्याक हाडल्यांत?

मेजरसायबाक सुरक्षा दलाच्या लेफ्टनंट जनरलाचो फोन आयलो. ''मेजरसायब, बांगला देशाच्या प्रधानमंत्र्याचो स्नेक चार्मर लोकांक बांगला देशांत घेवपाक विरोध आसा. ती म्हण्टा खंय, ते लोक सरादी वाठारांतले खरे; पूण बांगला देशांतले नागरीक न्हय. ते सरादी वांठारांतले भटके लोक. ते लोक तांचे

न्हय खंय. त्या लोकांक घेंव नाकात अशी सक्त ताकीद बांगलादेश रायफलाक दिल्या. आतां हो प्रस्न बेगीन सुट्टलो अशें ना. एक म्हयनो लागत, दोन म्हयने लागत, तीन म्हयने लागत. सांगू येना.''

''सर, मागीर इतले दीस इतल्या लोकांच्या खावपाजेवपाचें किदें?''

''थोडे दीस लोकल अॅरेजमेंट कर. तांका सरादी वयल्यान धांवडावन दिवं येतालें. भंय घालून वा वयल्यावयर फायरींग करून. पूण सद्यां हो राजकीय प्रस्न जाला. तितलेंच न्हय तर देशी आनी आंतरराष्ट्रीय.... दोन राष्ट्रांमदलो प्रस्न जाला. मेजर आमी सबुरीन घेंव जाय.''

''हां सर.''

तांचे फोनावयल्यान उलोवप सोपल्यानंतर मेजर विचारांत पडलो आनी आपली तयारी करपाखातीर तो भायर येवन सरादीच्या वाठारांत बारीक नियाळपाक लागलो. सादारण धा किलोमीटर पट्ट्याचो सरादी भितरचो वाठार ताच्या पहाऱ्यासकयल आसलो.

नित्तीच दनपार जावन गेल्ली. वोत मोव पडलेलें. इतल्यान विरुद्ध दिकेतल्यान गुळीबार सुरू जालो. त्या गुळीबाराक जाप म्हूण सरहद्द सुरक्षा दलान गुळीबार केलो. नो मॅन्स लँडाचो वाठार दोगांयच्या फायरींग रेंजांत येतालो. सगले गारुडी आनी बायला भुरगीं भियेवन रडपाक लागली. तीं झाडांच्या आडसाक रावलीं. फायरींग अर्दवर चालू आसले.

एका वरान परत दोनय वटेनसून गुळीबार जालो. अर्दवर गुळ्यांचो पावस पडून बंद पडलो. गारुडी लोकांचेर कलकल आयलो. थंयसून पळून गेल्लें बरें अशें तांका दिसपाक लागलें. पूण गुळयो तांचेर बसल्यो नात.

आमोरी जावन निश्चीत रात जाली मागीर रोकडीच अनिश्चीत फायरींग चालू जाली. सगलीं गारुड्यांची कुटुंबां लागच्या झाडांच्या आडसाकच आसलीं. अचकीत नव्या आयल्ल्या पंगडान हुयेली मारल्यो. हो पंगड जगाम्बीच्या लागीच आसलो. जगाम्बी धांवत थंय गेली. पळयत जाल्यार थंय तांचो एक चवदा वर्सांचो चलो गुळी लागून जमनीर आड पडला. तिका तो आपलो शेणलेलो धा वर्सांचो चेडो कसो दिसलो. काळखांत सारकें कळनासलें. सगली रड. पावस पडचो तसो गुळयो वयल्यावयर शिंवरताल्यो.

रोकडीच तिणे आपल्या पंगडांतल्यान बोब आयकली. तिणे थंय धांव घेतली. पळयत जाल्यार तिच्या घोवाक मोनीजानाक गुळी लागल्या. पोटांतल्यान झर व्हांवता रक्ताची. मोनीजान तडफडटालो आनी ताचे उक्ते फुटकें पोट रक्तान

माखलेलें. मागीर ताचे दोळे तशेच उक्ते उरून तो मरून पडलो. जगाम्बीन त्या काळ्या मळबांत आकांतान हुयेली माल्ल्यो. तिचो एकटो उरलेलो आदार ना जाल्लो. मोनीजानाचें रगत भुंयेत निस्तताले आनी तिच्या दुकांचो हुंवार भुंयेकच मेळटालो. ती रडटा रडटा पंगडांतल्या आपल्या लोकांक प्रस्न विचारताली, 'आमकां हांगा कित्याक हाडल्यांत! गुळयो कित्याक मारतात? म्हज्या घोवाचो प्राण कित्याक घेतलो? म्हज्या भुरग्याबाळांक कित्याक थंय शेणोवन उडयलीं?... आपल्या घोवाच्या मड्याक वेंगावन आपल्या भुरग्यांची नांवां घेवन ती अदीक रडपाक लागली.... जानीसांब... चांदबीऽ....

फुडले दीस सूर्य माथ्यार येवन खर वोत ओतपाक लागलें, तरी त्या लोकांच्या खबरेक कोणूच येवं नासलो. नव्या पंगडांतल्या भुरग्याचें मडें आनी मोनीजानचें मडें थंयच जमनीर पातळून आसलें. मड्यांकुशीक गारुडी लोक दुस्मानाचो मोन्यानी निशेध केल्ल्यावरी बसून आसले. दोन बार्डरीचेर सामसूम आसली. मागीर सुरक्षा दलाचे धा जवान वांगडाच थंय आयले. तांचेकडे मोठी आर्मां आसलीं. कॅप्टनान तांका बंगालीत सांगलें, ''फायरींग पूर्वेकडल्यान, ते वटेनसून हांगा केल्या. आमची फायरींग आमी ते वटेन केल्या. आमचे फायरींगेत ते मरुंना. ते तांचे फायरींगेत मेल्यात. आमकां दूख जाता ते मेल्यात म्हूण.'' मागीर मात्सो रावन ताणे विचारलें, ''तुमी तांचे... मेल्ल्या कुडींचें किदें करतात?'' ते सगले वोगीच रावले. कॅप्टनान परत विचारलें, ''तुमी त्या मड्याक लासतात कांय पुरतात?'' तरीय ते वोगीच. ते बराबर ताणे धेकणो घालून प्रस्न केलो, ''आरेऽ तुमी मुस्लीम कांय हिन्दू?'' तरीय ते वोगीच. ते केन्ना मस्जीदीत वा देवळांतय वचूं नासले. तांका तशी यादय नासली. ते जोमीमांय.. भूंयदेवीची पुजा करताले. हालीच तांका कांय लोक आपलेवशीन आपयताले. ते वोगीच रावल्यात म्हूण तिडकीन ताणे परत म्हणलें, ''विचारलां तें सांगात रे !''

ते बराबर धवो फोटो बांदलेल्या आनी तोंडार मिरयो पडलेल्या एकल्या जाण्टेल्यान म्हणलें, ''आमी बेडेय. बेडेय वंशाचो हजारांनी वर्सांचो इतिहास आसा. नागसर्प खेळोवपी आमी. आमची मडी आदी काळासाकून मातयेकूच लायतात.'' हें आयकून कॅप्टन वोगीच पडलो. मागीर ताणे दोन जवानाक पिकास आनी खोरें हाडपाक ओर्द दिली.

गुळयो लागून मेल्ल्या मनशांक मातयेक लावपाचे आसात. ते खातीर मळार दोन फोंड खणतात तें कळ्ळ्या बराबर सगल्या पंगडांतले बेडेय लोक थंय आयले. ताची बायलां-भुरगींय आयलीं. हे अख्खे भुंयेकडे आपलें जल्माजल्माचें

नातें आदीसावन आसा आनी परंपरेन तें चलत आसा हाची जाणविकाय तांका सगळ्यांक आसली.

फोंडांत पाथ्र्यो कुडी घालून त्यो मातयेन पुरल्यो. वयर लागीचे फातर हाडून एकार एक दवरले. जमीन जड जड जाल्ली तशीच बेडेय लोकांची काळजांय जड जाल्लीं. गुण्यांची तीं गडगीं तांची थडीं कशी दिसपाक लागलीं.

तिनसांज जावपाक बरोच वगत आसलो. सुर्याची किर्णा पश्चिमेकडसून पूर्वेकडे पडटालीं. त्याच वेळार पश्चिम दिकेकडून येवपी एक मिलिटरी ट्रक त्या मळार येवन थांबलो. ट्रकांतल्यान पयलीं बारा सशस्त्र दांडगे जवान सकयल देवले आनी मागीर तीन भुरगीं धरून पांच मनशां देंवली. तांका ताणी एका व्हडल्या पंगडा कुशीक रावपाक सांगलें. मागीर ते जवान परत ट्रकांत बसले आनी ट्रक आयल्लो तसो पश्चिम दिकेकडे गेलो.

ट्रक गेल्याबराबर त्या पांच जाणाक मदी घालून त्या पंगडांतल्या लोकांनी नागसर्पाभशेन कंवडाळें गेलें. तांची वासपूस करता थंय आसा; एका कुटुंबाची चेडोचेडू आनी तांची आवयबापूय आसात आनी तांच्या वांगडा जानीसांब नांवाचो धा वर्सांचो भुरगो आसा. तो ताच्या आवयबापायपासून शेणला, अशी खबर सगल्याक पातळ्ळी. घोवाच्या दुखान मोडून आनी न्हिदून पडलेल्या जगाम्बीच्या कानार ही खबर पडनाफुडेंच ती सट करून उठली आनी धांवत येवन त्या नव्या लोकांमदी आयली. जानीसांबाचे तोंड मातयेन लोळलेलें आनी बारीक जावन बाबडें दिसतालें. थंय ताका पळोवन तिणे हांबेर मारीत 'जानीसांब' म्हूण उलो माल्लो. जानीसांबूय आपले आवयक पळोवन 'अम्मा' म्हूण उलो मारून तिचे वेंगेत गेलो. तिणे रोकडेच ताका विचारलें, ''चांदबी खंय?'' ''अम्मा,'' तो रडत सांगपाक लागलो. 'ते दिसा आमी शारांत नागसर्प खेळोवपाक गेल्ली न्हय, ते दिसा लोकांनी पेटाऱ्यांतल्या नागाची पूजा केल्ली. आमकां तीन सिंवाचे खूब पयशे दिल्ले. तेच वखतार शारांतले पुलीस येवन ताणी आमकां धरले. चांदबीच्या हातांतली नागाची पेटारी झोपून घेतली. म्हज्याय हातांतली जोमीमांयची म्हूर्त आनी पुंगी घेतली. आमकां ताचे जिपीकडे व्हेलीं. ते जिपीत आतां म्हजे वांगडा येयल्ली चार मनशां आसलीं. जिपीकडे व्हरना फुडेंच नागसर्पाक मारपाक पुलीस बडी सोदपाक लागले. नागसर्पाक मारीत म्हूण चांदबीन नागसर्पाची पेटारी उखल्ली आनी धांव माल्ली. म्हाकां कांय पुलीसांनी घट्ट धरून दवरलो आनी कांय जाण तिचे फाटल्यान धांवले. पूण तांका ती सांपडलीना. सांजवेळ जाल्ली तेन्ना.''

''ती खंय गेली तर?''

तो वोगीच रावलो. ताचे मोनपण पळोवन तिका हुंडक्यांनी रडपाक आयलें. मागीर ती थांबली आनी ताका सांगपाक लागली. ''जाणा मरे, तेच दीस सकाळी फुडेच आमकां पुलिशेन एके जिपीत घालून एका व्हडल्या घरांत हाडून दवरलीं आनी दुसरे दीस मिलिटरीच्या ट्रकांनी आमकां चाळीशेक जाणाक हांगा हाडून सोडलीं. तुज्या अब्बाचेर ताच्या पोटाचेर कोणेतरी कालचे राती गुळी माल्ली. गुळी खंयचे वटेनसून येयली कांय कळ्ळेंना. तांचे रगत खूब गेलें. थंय ताका आयजूच पुरला, अशें सांगून तिणे फातरांच्या उंच राशींकडे बोट दाखयलें आनी ती व्हडल्यान रडपाक लागली. ताका आपल्या बापायच्या अचकीत मरणाचो धक्को बसलो आनी तोय आवयक वेंग मारून रडपाक लागलो. शेणलेली मेळलेल्याची खोशी जाल्ली आसतानाच दुसरीं शेणलेल्याचें दूख तांका अनावर जातालें.

त्या व्हडल्या अयसपयस मळाचेर बत्तीसाव्या दिसाचो सूर्य अस्तंमपाचो आसलो. अश्या वेळार मळाकडे येवपी धा सशस्त्र जवानाकडे आनी तांच्या फाटसून येवपी कॅप्टन आनी मेजराकडे सगल्या पंगडांतल्या लोकांचे लक्ष गेलें. छातयेचेर बिरुदां मिरोवपी मेजर आनी भुजार बरीच फितां आसलेलो कॅप्टन उलयत उलयत येताले. ते आयज मेकळे मेकळे आनी खोशी दिसताले. सदचें टेन्शन नासलें. ते लागच्या लोकांच्या पंगडाकडे गेले आनी तायट उबे रावले. कॅप्टनान आपल्या कडचो लावडस्पीकर आपल्या तोंडाकडे व्हेलो आनी ताणे सांगलें, ''आयज तुमी तुमचें सामानाबीन किदें आसा तें सगळें बांदून दवरात. फाल्यां सकाळी सातांक हांगा आमचे मिलिटरीचे ट्रक येतले. तुमकां सगल्यांक २२३ जणांकय, अशें म्हण्टना तो मात्सो वोगी रावलो. गुळ्यो लागून दोग जण मेल्ल्याची ताका याद जाली. तो फुडें उलयलो, ''फाल्यां तुमकां ट्रकांतल्यान आमचे सरादी पलतडी पावयतले. मागीर ते तुमकां तुमच्या वाठारांत पावयतले. तुमकां पावोवपाची वेवस्था केल्या. आमचो सिएम तुमच्या पिएमाकडे उलयला. तुमी कांय एक गडबड करूं नाकात. केल्यार हांगाच उरतले.''

निमाणच्या इशारती उपरान्त जवानानी तांका जेवण वांटले. मागीर ते बुटांची पावलां खटखट वाजयत गेले. हांगासून सुट्टा म्हण गारुड्यांक खोशी जाली. आपलो जीव खंय पडटा तो पडूं अशें म्हणून ते दुसरे दिसा वचपाखातीर तयारी करपाक लागले. मागीर त्या मळार काळोखाची दाट सया दाटली.

सकाळी सातां पयलीच सात मिलिटरी ट्रक येवन त्या मळार उबे रावले. त्या गारुडी लोकांक आपल्या आदल्या पंगडानीच रावात अशी ओर्द दिल्ली. हे ट्रक आतां तांका खंय व्हरतले असो सवाल तांच्या मुखार उबो आसलो.

पयलो पंगड, दुसरो, तिसरो अशे शिस्तीन सगले पंगड चार ट्रकांनी भरले. पांचवो ट्रक भरताले. निमाणो पंगड चडटालो तातूंत जगाम्बी आनी जानीसांब आसलीं. तीं फाटी रावल्लीं. तांका दिसतालें आपलीं दोन मनशां येवपाची उरल्यांत– एक मोनीजान आनी दुसरें चांदबी. ती गणयताली पळोवन कॅप्टनान तांचेर धेकणो घातलो. ''बेगीन चडात. हांगा रावपाक येयल्यात?... कांय?'' धेकण्याच्या आवाजान ताणी कच्च करून आंग काडलें. मागीर घसटत दोगांय ट्रकार चडलीं.

बांगला देशाच्या सरादीकडे सातय ट्रक चलपाक लागले. सगल्यांत फुडें आसलो सरहद्द सुरक्षा दलाच्या सशस्त्र जवानानी भरलेलो ट्रक. सुरक्षेखातीर तांचेकडे बंदूको बीन आसल्यो. मदी गारुडी कुटुंबानी गच्च भरलेले पांच ट्रक. आनी निमाणी परत सशस्त्र सुरक्षा जवानांचो सातवो ट्रक.

ट्रकांत आपलो एकलोच पूत आसा आनी आसा ते बाकीचे बेडेय. आपलो घोव आनी धूव ना म्हूण तिका रडपाक येवपाक लागलें. आपल्या घोवाक ह्या लोकांनी जितो मारलो आनी धुवेक शेणयली म्हूण ती बडबडटाली. मागीर ती मोनी कशी जाली. वाटेत वयताना आपूण ह्या वाठारांत आपल्या घोवा आनी भुरग्यां वांगडा कशी खुशालीन आयल्लीं ताचो उगडास तिका येवपाक लागलो.

माथ्यार नागसर्पाचो बेतान विणलेले खाशेलो पेटारो घेवन, तशेच बारीक व्हड जिवाण्यांचेय पेटारे घेवन ती भोवतालीं. हो गांव भोव, तो गांव भोव. ह्या बाजारांत, त्या बाजारांत नागसर्पांचो खेळ करीत, बंगाली जादू दाखयत, काळ्या कपड्यांच्या जोमीमांयची पूजा करीत, गरजेवंताक झाडांच्या पाळामुळांची वखदां दीत, तीं भोवतालीं. तांचो स्वताचो असो गांव नासलो. तीं केन्ना पायांनी चलत गांव भोवतालीं. तर केन्नाय व्हडयेतल्यान दुसऱ्या गांवांत वा पलतडच्या गांवांत वयतालीं.

जेन्ना तीं चौगूय जणा मेळून त्या नव्या शारांत आयलीं तेन्ना तांका बरे दीस आयले. नागसर्पाचो खेळ करून तांका तीन सिंवाच्या तोंडाची नाणीं आनी रुपयांच्यो नोटी मेळटाल्यो. त्यो मेळटकूच त्यो दिवन बाजारांतल्यान खावंक जेवंक आनी कपडे घेवंक मेळटाले. उपास म्हण ताणी गेलें वर्सभर काडूं नासलो. बरी बरी रंगीत मुस्तायकी भुरग्यांक घालपाक मेळटाली. चांदबी लांब घागरो आनी पोलको घालताली. तीय रंगीत साडीचोळी न्हेसताली. पुंगी वाजोवन नाग धोलता तेन्ना सगळो संवसारच धोलता अशें तिका दिसतालें.

एक दीस नागसर्पाचो खेळ आरंब करपाक ती आनी तिचो घोव जोमीमांयची

पूजा करताली. जोमीमांयची काळ्या कपड्याची म्हुर्त बेताच्या ल्हान सानशीवयर दवरलेली. तिका तांबडी लांब जिबली, काळे धवे मोठे मोठे दोळे. गळ्यांत शिंपयांची माळ. त्या दोगांनी तांबडी पिंजर लावन पुजा करतकच तांची धूव पूजा करपाक लागली. तेन्नाच तिचे धुवेचेर .... बारा वर्सांचे आंकवार चांदबीचेर भार आयलो. ती बरोच वगत खुदताली. जोमीमांयचो ... भूंयदेवीचो भार आपले धुवेचेर आयलो म्हूण तांका खोशी जाल्लीं. जोमीमांयन तांचेर कृपा केल्ली. जोमीमांयचो असोच अवसर जगाम्बीचेर आंकवारपणांत येतालो. त्या दोन वर्सांन जगाम्बी दोंगरावयल्या जोमीमांयच्या दर्शनाक गेल्ली. चवदा वर्सांचेर लग्न जालें तेन्ना तिचेर अवसर येवपाचें बंद जालें. आपल्या धुवेचेर तिणे इतले पयस लेगीत आपली सासाय दाखयली म्हूण ती चडच संतोशलीं.

मागीर ताणी चांदबीक एक नवो आनी वेगळो पेटारो करून दिल्लो. ती आनी तिचो भाव जानीसांब  दोगूय मेळून नागसर्पाचो खेळ करपाक वयतालीं. भुरग्यांची आनी तांची मेळून दोट्टी जोड जाताली. तीन सिंवाचे पयशे तांचेकडे बरेच खुळखुळटाले. आनी ह्याच दिसांनी तांच्या नशिबाक वायटी लागली. तांच्या जिविताचोच खेळ जावन गेल्लो.

ट्रक तशे सवकास चलताले. कोणाक ताकतीक नासली. सादारण वीस किलोमिटर ट्रक चल्ल्या उपरान्त एक व्हडली चौकी लागली. ती भारतीय सरहद्दीची चौकी आसली. सगळे मिलिटरी ट्रक थंय थांबले. हे चौकेकडे देंवन फुडें बरेच चलून  बांगला देशाच्या चौकेकडें वचपाचें आसलें. भारतीय चौकेकडच्या हॉटेलांत त्या लोकांक पोटाक किदें जाय तें खावपाक दिलें. उपरान्त लागच्या पसऱ्यावयलें तांका किदें जाय तें विकत घेंव येता अशें सांगलें. ते बराबर तीन सिंवाच्या पयश्यांनी दुकानांतलें  सामान विकत घेवपाक तांची घिट्टी पडली. वरभर जालें तरी खरेदी सोपना जाली. ताचेकडे कडधान्य, कपडे आनी हेर सामानाच्यो पोटल्यो जाल्यो.

मागीर तांकां सगल्यांक एकठांय करून एके रांगेत चलयत बांगला देशाच्या सरहद्दीच्या चौकेत व्हेली. तांका बांगला देश रायफलाच्या ताब्यांत दिवन ते परतले.

बांगला देश सरहद्द चौकेकडे ताचो लेफ्टनंट जनरल ताच्या मेजराक सांगतालो, ''आयक, लक्ष दिवन आयक. सामकी वयल्यान ऑर्द आसा. ह्या सगल्या लोकांक बुडगांव जुंव्यार सोडपाचे. तो हांगासून चाळीस किलोमीटर पयस आसा.''

''पूण सर, बी एस एफ वाले तो आपलो म्हण्टा न्हय?''

''हय. आनी आमीय तो आमचो म्हण्टां. तुकां ते कांय लागना वयलें राजकारण. थंय कोण रावनात. ताणी धाडलेल्या ह्या लोकांक आमी थंय धाडपाचे. ते आमचे लोक म्हूण थंय रावतले. कळ्ळें?''

''हां सर.''

ते चौकेवयल्यान लोकांक घेवन बांगला देश रायफलचे सात ट्रक एके लायनीत चलपाक लागले. जगाम्बी आपल्या पुताक घेवन सकाळीभाशेन ट्रकार निमाणीच चडलेली, फाटी पळयत. दोंगर आनी रानांतल्यान ट्रक वचपाक लागले. तशे सगले जण भायर तकल्यो घालून पळोवपाक लागले. जगाम्बीक दिसलो हो आपलो वाठार कसो. तिका पयस दोंगरार एक देवूळ दिसलें. ते देवूळ जोमीमांयचे समजून तिणे हात जोडले. जानीसांबाकय हात जोडपाक लायले. तिका आपल्या घोवाची आनी जोमीमांयचो भार येतल्या चांदबीची याद जाली आनी दोळ्यांनी दुकां भरलीं. त्या दुकांनी दोळ्या फुडलो वाठार दिसना जालो.

मिलिटरी ट्रक ब्रह्मपुत्रा न्हंयच्या एका फाट्याच्या तडीकडच्यान फुडें फुडें वयताले. मदीच सगले ट्रक थांबले. ''पावले. हांगा सगले सकयल देवात.''– अशें कोणेतरी सांगलें. भुरग्यांबाळांक घेवन सगळीं गारुडी कुटुंबा देवलीं. ताणी आपल्याकडचें सामान, पोटल्यो तशेच कांय बाकी उरलेले नागसर्पांचे पेटारेय देवयले. तीं सगलीं ब्रह्मपुत्रेच्या तडीर उबी रावलीं. एक थांबलेलो पोंवो कसो. दनपार जावन गेल्ली तरी भूंयेवयरसून दिसपी सूर्य पूर्वेकडे आसा कांय पश्चिमेकडे हें कळनासलें. कोणेतरी मिलीटरीवाल्यान सांगलें, ''तुमकां हांगा सोडपाची ऑर्द आसा. त्या जुंव्यार तुमी रावूं येतात. आतां थंय उदक भल्लां.'' इतले सांगून तो ट्रकार चडलो आनी ते परत आपले वाटेक लागले.

बरोच वगत तीं सगलीं कुटुंबा ब्रह्मपुत्रेच्या कांठार उचांबळ जावन.... ब्रह्मपुत्रा न्हंयचे विस्तीर्ण पात्र... त्या पात्रांत अर्द बुडलेलो जुंवो. थंय उदकच उदक. कांय झिलीझोपांच्यो ताळयो दिसताल्यो उदकावयर. तांचे नदरे फुडें आसलो एक बुडगांव... आनी थंय पलतडी वचपाक आयले तडीर आसलो ल्हानसो पोनेळ....

जगाम्बी त्या मनशांच्या गर्देतल्यान वाट काडीत धवो फेटो बांदलेल्या त्या बेडेय जाण्टेल्याच्या फुड्यांत गेली. तिणे ताका विचारलें, ''आतां आमी वचपाचें खंय? फुडें तर बुडगांव....''



# एकेच ट्रेनीत

आयज २९ डिसेंबर. जम्मू-तावी रेल्वे स्टेशनाचे वाटेर आमची मिनीबस ट्रॅफीक जामांत घुस्पल्या. दिल्ली वचपाची ट्रेन सांजची सव्वासंक आनी आमी पावणे स जाली तरी वाटेरच.

दिल्ली वचपी लांबची लांब 'अजमेर पूजा एक्स्प्रेस, स्टेशनाचेर उबी आसली. धा जाणांच्या आमच्या गोंयच्या पंगडान भुरग्यांसयत आपापल्या डब्यांत घालून घेतलें. सामाना सयत हांव मदी शिरकलों. S-8 डब्यांतलो म्हजो २४ नंबरचो सीट सोदता म्हणसर सामानाच्या वोज्यान हात तुटून वता अशें जालें. म्हजें सामान हेर प्रवाश्यांच्या सामाना मदी मांडून दवरतासर बरोच त्रास जालो.

आमच्या पंगडांतले वेगवेगळ्या डब्यांनी शिंपडून पडलेले. म्हजो इश्ट दयानंद आनी ताचे कुटूंब एस- आठ स्लीपर कोचांत निमाण्या भागांत आसलें. आनी हांव मदल्या भागांत.

ट्रेन सुटपाक कांय मिण्टां आसली आनी कोणेतरी खबर हाडली. आमच्या लागच्या २ टायर असेसी डब्यांत आकांतवाद्याक धरला. बॉम्बासयत. आनी तीय बायल आकांदवादी. ती बुरखो घेवन आयिल्ली आनी तिचेकडे दोन बॉक्सांत बॉम्ब. रेल्वे पुलिसांनी आनी मिलीटरीच्या मनशांनी धरून तिका आतांच व्हेल्या. तिचे वांगडचो दादलो आकांतवादी पळून गेलो.

रेल्वे डब्यांतल्या लोकांच्या पोटांत भंयाचो गुळो. शेजारचो एकटो फुतफुतून उलोवपाक लागलो, 'आतां ट्रेन वेळार सुटपाचीना, सव्वा सची ट्रेन सातांक सुट्टा ती आयज चेकींगबीन जायसर उरतली.

म्हज्या काळजांत खपखपाक लागलें. तातूंत हें शीं आंग बधीर करपी. भंयान अदीक दांतार दांत बसपाक लागले. हांवें म्हजे कुशीकच्या जनेलाचें लाकडी दार वयर काडून ग्लासांतसून भायर पळयलें. स्टेशनांत बरेच लोक आसले. मिलिटरीचे मनीस हातांत मशिनगनां घेवन उबे आसले. ते आपल्या दोळ्यांनी बारीक नियाळटाले. गेल्या तीन दिसां पयली झेलम एक्सप्रेसीतल्यान जम्मू स्टेशनार पावतकूच आमकांय तांच्या नदरेखालसून वच्चें पडलेलें. भायर स्टेशनार तशी शांतताय पूण आमच्या डब्यांत प्रवाशांचें दबलेल्या आवाजांत उलोवप चालूच. तशेच भिरांतेन एका डब्यांतसून दुसऱ्या डब्यांत कोण ये-वचय नासलो वा जागे वयलो हालय नासलो.

इतल्यात दयानंदाची बायल अमिता आमच्या कंपार्टमेंटांत येवन म्हाकां हळू आवाजांत सांगपाक लागली, ''प्रभाभाऊ आतांच आकांतवाद्याक धरला. ती तरनाटी बायल काळो बुरखो घालून आयल्ली. मिलिटरीच्या मनशांक लेगीत ती बाडगनासली. वोडून व्हेली तिका. हांवें म्हज्या ह्या दोळ्यांनी पळयल्या.'' ''गजाल खरी तर. हांव वोगीच हवाय म्हूण समजल्लों.''

''तें जालेंच. पूण आतांच आमच्या फुडल्या सिटार तीग जाण दादले येवन बसल्यात. दांडगे आसात. खाडमिश्श्यांवाले. आकांतवादी संघटनेची बी आसूं येतात. कांबरूण घेवन वोगी आसात.'' ''आगो तांकां थंडी खाता आसतली.''

''भाऊ तूं येवन पळय. हाणीच तुमकां आफयला आनी आपूण भुरग्यां फुड्यांत रावला.'' ''हांव जाणा तो कितलो भियाडको तो.'' अशें म्हणून तिच्या वांगडा हांव चलपाक लागलों.

दयानंद आपल्या दोनय पुतांक वांगडा घेवन बसलेलो. धाकटो अभय आनी विजय हांचेर तर वाघरें पडलेलें. ते तांका दुबावान पळयताले. तांच्या मुखावयल्या बाकार ते तीनय अनवळखी दादले आपल्या आंगावयल्यान रग कांबरून वोगीच बसलेले. तांच्या माथ्यावयलो वांटकुळ्यो तोपयो कानामेरेन पावल्ल्यो. एकाच्या आंगार शेरवानी आनी तो बरोच उंच आसलो. दुसऱ्या दोगांयच्या आंगार लांब कुर्तो. तिगांयच्या पांयांत मात मिलीटरीचे भाशेन काळे घट्ट बूट. उंचेल्याचे दोळे घारशे आनी केस पिंगशे. तो तांचो हेड आसूंक जाय. दुसऱ्यांचे दोळे काळे आनी अस्कड्यो दाट काळ्या केसांच्यो. तिगूय एक सारके खाडमिश्यांकार.

हांव थंय आयिल्लो पळोवन दयानंदान म्हणलें, ''प्रभा, ह्या जनेलांतल्यान थंड वारो येता. ताचे दार सारकें लागना.... आनी, हे नरकासूर आमच्याच फुड्यांत बसल्यांत मरे! भुरगे आसात न्ही वांगडा. भंय दिसता.'' हांवें परत तांचेकडे पळयलें. त्या तिगांयनी आतां एकामेकांकडे उलोवपाक सुरवात केल्ली. जम्मूचे भोवडेत आमी भियेलेनात. आमी आमच्या पंगडांत धांय जाण एकठांय भोवताले.

आमचो भंय ना जांवचो. वळख जांवची. ते खंयचे कोण तें समजचें म्हूण हांवें घारश्या दोळ्यांच्या उंच दादल्याक हॅलो केलो. ताणे म्हजेकडे पळयलेशें केलें आनी व्हडलीशी प्रतिक्रिया ना दायखयतां तो दोगांय सांगात्याकडे उलोवपाक लागलो. दयानंदान म्हाकां हात लावन सांगलें, ''पळय, तशे ते उलोवचे नात. पळयलां तुवें तांचेकडे सामानबीन आसा तें? हरशी काश्मिरी लोक आपलेकडे व्हडलें व्हडलें सामान बाळगिनांत. वेपार लेगीत ते ल्हान ल्हान सामानाचोच करतात. अफू, गांजा, चरस वा डायमंडाचो.'' हांवें दयानंदाचेर दोळे मोड्डे केले

आनी म्हणलें, ''वोगी राव रे. ते कलाकुसरीच्या वस्तूंचो वेपार करतात.''

''हय करतात. तें बयल्या वयर दाखोवंक. खरो तांचो बिजनेस अफू गांजाचोच. गोंयांत तर ते किदें करतात?'' एका गोंयकाराचो गोंयांतल्या काश्मीरीवयलो राग उक्तो जातालो. हांवें ताका थातारलो, ''पळय, वोगीच शेळे फुगटेक उजो लावंक नाका.''

मदी उलोवपांत आमचो वेळ गेल्लो. त्या घारश्या दादल्यान आपल्या शेरवानीच्या बोल्सांतल्यान एक चौकोनी नक्शेचो रुमाल काडलो. तो ताणे बांकार दवरलो. ते बराबर वांगडचे कुशीक सरून उबे रावले. त्या रुमालाचेर तो दिमी घालून बसलो आनी दोळे धांपून नमाज पडपाक लागलो.

म्हाकां वोगीच भास जालो. मशिदीतल्यान बांग येता.... मौलवी व्हडल्यान आड्डून म्हणटा– ''अल्लाऽ हो अकबर.... लाइलाह इल्ललल्लाह...''

नमाज पडटा ताका लेखून दयानंदान म्हणलें, ''पळयलें?'' हांव वोगीच रावलों आनी मनांतल्या मनांत म्हणलें, वैष्णोदेवीक गेल्ले तेन्ना त्या दोंगरार चडटाना लोकांवांगडा दयानंद नेटान घोशणा दिनासलो तर? त्रिशूल आनी केसरी घुडयो नाचयतल्या लोकां वांगडा हांव आनी तोय तांच्या आवजांत आवाज चडोवन म्हण्टाले, ''श्री वैष्णोदेवी की ऽ जय!... जय माता दीऽ...''

गाडयेच्या डब्याच्या जनेलाचें भायलें ग्लासाचें दार सकयल सारकें लागू नासलें. भायलें थंडकिरांव वारें भितर येतालें आनी चड शीं खातालें. दयानंदान तें लागचें दार सकयल देवोवपाचो यत्न केलो पूण त्या दाराची खिळी मदीच खूब घट जाल्ली. तें दार पुरायेन सकयल ओडनासलें. भितरलें लाकडाचें दार सकयल येतालें. पूण जनेलाचें भायलें दार सकयल उकतेंच उरलेल्यान लाकडाच्या तिरप्या फळ्यांच्या खांचितल्यान थंड वारें येत आसलें. भायलें ग्लासाचें दार सकयल वोडून बंद करपाचो आनीक यत्न दयानंदान केलो पूण दार सकयल येयलेंनाच.

वरभर कळाव जालो तरी आमची अजमेर पूजा एक्सप्रेस सुटूं नासली. कोण म्हण्टाले– रातच्या धांक बीन सुटत.

''त्या आकांतवाद्याखातीर ट्रेनीक सुटपाक उशीर. तरी बरें आकांतवादी सांपडून. नाजाल्यार मदीच ट्रेनींत स्पोट जाल्लो जाल्यार?'' आनीक एका प्रवाशान शंका उक्तायली.

''शेऽ. तातूंत ह्या जनेलांतल्यान जिवखायरें वारें भितर येता. गाडी सुट्टकच विचारूं नाका. आंगापांगाचो झेल जातलो ह्या थंड वाऱ्यान.'' दयानंदाच्या तोंडार त्रास झळकले.

''टिसीय हांगा येना तिकीट चेक करपाक. रेल्वे पुलीसय येना लोकांक तपासपाक'' अमिता कागाळेच्या सुरान उलयली.

''New Year दोन दिसांचेर आसा. त्या आकांतवाद्यांचो किदें तरी प्लॅन आसतलो न्यू इअराचो.'' अभयान मदीच आपलो तर्क काडलो.

''हय तर. दिल्ली मुंबय वांगडा गोंयय तांचे टारगेट आसा अशें फाटल्या दिसांनी पेपरार आयिल्ले.'' धाकट्या विजयान आपली माहीती जोडली.

''आसू येता. गोंय टुरिस्ट डिस्टीनेशन न्हय रे. गोंयांत येवपाक फॉरेन टुरिस्टांक बंद केलें, वा ते येवचेच बंद जाले तर गोंयांत भरलेले काश्मिरी किदें खातले? गोबोर? दयानंदान कोणाक तरी लागपासारकों बाण हवेत सोडलो.

''मोळ्यान उलोवं नाकात. आमी जम्मू- काश्मिरांत आसात. आमी उलयता तें तांका कळत!'' अमितान आमकां सादूर करीत म्हणलें. मागीर आमी वोगीच पडले.

घारशेल्याचो नमाज जावन बरोच वगत जाल्लो. आतां तो आपल्या दोगांय साथिदारा वांगडा बारीक आवाजांत उलयतालो. ''किदें तरी तांची गुपीत येवजण शिजल्याशी दिसता.'' आपल्याक चड थंडी लागता म्हूण एका स्वेटरार दुसरो स्वेटर चडयत आनीक ताचेवयल्यान जॅकेट घालीत दयानंदान तोंड उगडलें. हांव वोगीच रावलों. मागीर किदें तरी चिंतून हावें त्या घारश्या मनशाक म्हणलें, ''हॅलो, हम गोवाके है। ते बराबर ताणे परत हॅलो केलें. तो खंयचो हें कळून घेवपाक हांवें ताका सरळ प्रस्न केलो. ''आप कहां के?'' ''मैं काश्मीरका। कुपवाडामें मेरा घर हैं। और ये दोनो लोग काश्मीरके ही हैं।''

''काश्मिरी लोग हमारे गोवा में भी है। वे तो बडे व्यापारी है।'' गोंयच्या काश्मीरींचो म्हजो राग दाबून धरीत म्हणलें.

''हां ऽ, मालूम है। हम भी कभी कभी गोवा के कलंगूट जाते है। गये न्यू इयर के लिए मैं गया था।

तो सांगतालो- गेल्या वर्सा तो गोंयांत गेल्लो म्हणजे अंदूय तो न्यू इयराक सेर्त वता आसतलो. आनी तांचो किदें तरी प्लॅन आसतलो अशें म्हज्याय मनांत आयलें. पूण हांवें ताका तशें कांय विचारलेंना.

''काश्मीरचे लोक गोंयांत जमीन खरेदी करतात, शॉप खरेदी करतात, पूण भारतांतल्या हेर लोकांक काश्मीरांत जमीन विकत घेवपाक मेळना अशें कशें?'' दयानंदान मदीच ताका प्रस्न केलो. ताच्या प्रस्नान तो न्हिंदळ्ळो कसो जालो. ताणे जाप दिवपाचो यत्न केलो पूण दयानंदाचें समाधान जालेंना.

तेन्ना हांवें म्हणलें, ''आरे स्थानीक लोकांचे कांय हक्क राखचे पडटात. तांच्या कल्याणाखातीर. आतां आमी कशे गोंयांभायल्या लोकांक जमिनी विकच्यो न्हय म्हूण कायदे करचे म्हूण मागतां.''

म्हज्या जापेन हुनार मात्शें थंड पडलें. तरीय दयानंदान म्हाकां थोमणो मारून हळू म्हणलें, ''प्रभा, हांव जाणाच तूं ताचेवशीन उलयतलो म्हूण.'' मागीर, भलतेच प्रस्न विचारूं नाका म्हूण हांवें दयानंदाक शिटकायलो. ते आकांतवादी आसल्यार तिडकीन आमचेरूच गुळयो मारीत.

मदी त्या जनेलांतल्यान थंड वारें येतच आसलें. जनेलाची खिळी म्हज्या पेनान धील करपाचो हांवें यत्न केलो. पूण तें जालेना. प्लॅस्टिक पेन मात फुटून गेलें. आमच्या निर्फळ यत्नाक ते तिगूय तुकूतुकू करून पळयताले. त्या जनेलांतल्यान येवपी थंड वाऱ्याचो तांकाय त्रास जातालो. एकल्यान तर आपलो रग माथ्यावयल्यान वोडून घेतलो.

काश्मीरी लोकांचे पाकिस्तानाविशी किदें मत आसा तें जाणा जावन घेवपाची म्हाकां कूय आयली. 'एस्क्यूज मी आंऽ' अशे म्हणीत ताका हांवें विचारलें, ''काश्मीरी लोकांक पाकिस्तानी लोकांकडे लगाव आसा हें खरें?''

तो हांसलो आनी वोगीच रावलो. भलतीच भानगड जांव नाका म्हूण हांवें फुडें जोडलें, ''काश्मीरचे लोक सरहद्दीकडचे. तेन्ना लागच्या पाकिस्तानच्या लोकांविर्शी लगाव आसतलोच.'' म्हज्या स्पश्टीकरणान तो परत हांसलो. तेन्ना आनीक एक प्रस्न हांवें ताचेर शेवटीलो. '' जे आकांतवादी आसात तांका काश्मीरी जनतेचो सपोर्ट आसा?'' ताणे थारायल्यावरी सट करून म्हणलें, ''ते लोक थोडे आसात. अर्द टक्के लेगीत जांवचेनात.''

''नवें सरकार कशें चलता?''

ह्या प्रस्नाक ताणे बेजारून जाप दिली. पूण ह्याच प्रस्नाक आपूण रावतालो अशें तरेन तो उलोवंक लागलो, ''... ये सरकार तो कई लोगोंका है।....वेंचणूकेत फकत २० ते २५ टक्के वोटींग जाता. खुबशे लोक मतदान करीनात. मतदानाच्या कांय फरकान कोणय जिखता आनी सरकार घडयता.'' तो आतां म्हाकां काश्मीराविशी व्हडलें लेक्चर दितलो अशें दिसलें. ताचे दोगय साथिदार ताका पयली पळयताले मागीर म्हाकां पळयताले. उलोवपांतल्यान भलतेच किदें जायत म्हूण अमिता म्हाका सबूरीचो सल्लो दितालें.

आमी उलयता आसताना अजमेर पूजा एक्स्प्रेस जम्मू-तावी स्टेशनावयल्यान सुटलेली. रातची साडे धा जावन गेल्लीं. मानसीक तणाव आनी

प्रवासाक लागून हांव थकलेलो. दयानंदाचे दोगूय पूत दोळे चोळटाले, पूण तांका न्हीद येनासली. दयानंदान म्हाकां आपल्या बर्थालागी न्हिदपाक सांगलें. जाय जाल्यार लागच्या कोणाक म्हज्या जाग्यार वचपाक विनंती करूंया म्हणपाक लागलो. सगले जागेच आसले. हालीच लग्न जाल्लें तरणे जोडपें गुलमर्गाक झेलार नाचून आयल्लें. तें आजून गजाली आनी मोगाचे खेळ करतालें. तांका आकांतवाद्याचे पडूं नासलें.

आमच्या मनांत मात ''न्यू इयरा निमतान खंय खंय स्फोट जायत म्हूण भंय दिसतालो. आमचे ट्रेनीत तर वातावरण गंभीर आसलें. झेलम एक्स्प्रेसीतसून जम्मू येतना रेल्वेतल्या प्रवाशांक मिलीटरी आनी रेल्वे पुलीस राखण दिताले. हांवें तर चक्की बँक स्टेशनालागी मशीनगन घेवन राखण करपी शीख सरदाराचो ताची परवानगी घेवन फोटो काडलेलो. तो फोटो पळोवन सरदारजीय खोशी जाल्लो. आतां तर आमच्या डब्यांत कोणच राखपी नासले. वयल्यान आकांतवादाचें भूत पुराय ट्रेनभर पातळलेलें.

ट्रेन चलताना हांव गोंयां म्हज्या मोबायलान फोन करपाक लागलों. फोन लागलो ना, तशें दयानंदान म्हणलें, ''प्री पेड फोन हांगा लागना. केंद्र सरकारान ते मुद्दाम बंद केल्यात... आकांतवाद्यांक लागून. तांचो संपर्क तुटपाक. तांचे तें नेटवर्क जाम केलां.''

भायर काळोख जाल्लो. ट्रेन रानांतल्यान वताली. वातावरण निवळपाक म्हूण हांवें त्या घारश्या दादल्याक विचारलें, ''आप दिल्ली जानेवाले है क्या?''

ताणे ताच्या दोगूय साथिदाराक पळोवन म्हणलें, ''हांऽ''

''आमीय आतां दिल्ली वतात. मागीर थंयसावन दिल्ली गोंयांत घरा वतले. आमी वैष्णोदेवी गेल्ले.'' हांवें मोडकेशे हिन्दीत सांगलें.

''हां, हम भी कभी कभी अजमेर जाते है और ख्वाजा मुईद्दीन चिस्तीके दर्गापर चादर चढाते हैं। मेरा नाम महमद शाहबान.'' ''और मेरा फरुख अहमद।'' दुसऱ्यान आपली वळख करून दिली. तिसऱ्यान मात आपलें नांव सांगलें ना. तो वोगीच रावलो. आमी ताचे 'फर्जत' अशें फकाणांनी नांव दवरलें, ताच्या दाव्या दोळ्यांचे अस्कडेकडे कोकीची मांव आसली.

गाडी वेग घेताली तशें जनेलांतल्यान थंड वारें नेटान येतालें. ते थंड वारें आमच्या कंपार्टमेटांतल्या सगल्यांक लागतालें. आमकांय आनी त्या तिगांकय. तेय आपले आंग लोकरी जाड रगान धांपून घेताले.

अचकीत दयानंदान आपल्या बॅगातल्यान चकचकीत सुरी कशी वस्तू

भायर काडली. तें कुलेर आसलें. कुलेराच्या फाटल्या दाण्यान जनेलाच्या दाराची मदीच जाम जाल्ली खिळी काडपाक लागलो. त्या तिगांची धरून आमच्या सगळ्यांचीच नदर ताचेर आसली. ती खिळी कशीच हालनासली. मागीर तें कुलेर ताणे जनेलाचेरच दवरलें.

मदीच गाडयेन आपली गती कमी केली. एका ल्हान स्टेशनार ती उबी रावली. त्या तिगां जाणांतलो तो नांव ना सांगपी वाटसरू बेगिबेगीन स्टेशनार देवलो. आमची बोगी स्टेशनाभायर काळखांत आसली. हो किद्याक देवलां कांय काळखांत? आमकां यक्ष प्रस्न. म्हाकां झेलम एक्स्प्रेसितल्यान मदल्या स्टेशनार देवल्ल्या त्या शीख सरदाराची याद जाली. ताची आमची झेलम एक्स्प्रेसीत वळख जाल्ली. तो सरदारजी दिल्लीत टॅक्सी चलयतालो. ताचे पयली तो मिलिटरीत शीख रेजिमेंटान आसलो. अमृतसराच्या सुवर्ण मंदिरांत शीख अतिरेक्यांक धांवडावपाक फौज सुवर्ण मंदिरांत भितर सरली म्हूण त्या शीख रेजिमेंटातले कांय शीख फौजी पळून गेल्ले. तातुंतच तो आसलो. मिलिटरीन तांका सोदपाचो आनी परत आफोवपाचो यत्न केलो. पूण तो परत गेलोना. तो म्हण्टालो.... आपल्याचेर मिलिटरीवाले कोर्ट मार्शलबीन करीत... तो आमचे वांगडा ते रेल्वेतल्यान लुधियाना वतालो. पूण मदीच बरेच फातोडेर लुधियाना स्टेशना पयलीच आयिल्ल्या स्टेशनार काळखांत देवन तो नाच जाल्लो.

'... We are traveling in same train.' अशे मिश्कीलपणान हांवें व्हडल्यान सगल्यांक आयकूंक येत अशें म्हणलें. हांवें म्हणलें खरें, पूण ताचो वेगळो वेगळो अर्थ म्हाका होलमपाक लागलो.... आमी जे ट्रेनितल्यान वतात तातूंत खूब किदें किदें आसा. मनीस आसात, तांचे वेगवेगळे स्वभाव आसात, समज आसात, तर्क आसात, दुबावाचें भूत आसा.... मागीर म्हज्या मनांत खूब किदें घोसोळ्यो घालपाक लागलें.

ग्रीन सिग्नल पडलें. शिटी वाजली. गाडी सुरू जाता जाताच तो नांव ना सांगपी गाडयेत चडलो. तो आमचे लागी येतालो. ताच्या दाव्या हातांत लांबसो टोंकयेचो पाशाणी फातर आसलो. ताणे जनेलावयलें चकचकीत कुलेर काडलें. ताचें बारीक तोंक खिळयेर दवरलें, आनी तें कुलेर दयानंदाक घट्ट धरपाक लायलें. तें घट्ट धरतकूच ताणे त्या कुलेराच्या दाण्याचेर आपल्या दावखुऱ्या हातांतल्या त्या पाशाणी फातरान तीन चार धपके मारले. ते बराबर ती जाम जाल्ली खिळी सुटली आनी जनेलाचें दार सकयल आयलें. तशें थंड वारें येवपाचेंच बंद जालें. थंडी आसली पूण आतां आंगाक तोपपी थंड वारें भितर येनासलें. ताच्या बदला

एक विस्वासाचें आनी एकामेकांक राखपाचें वातावरण जाल्लें. सगले आतां आपापल्या जाग्यार न्हिदपाची तयारी करपाक लागले. जम्मू-तावीसून सुटलेली 'अजमेर पूजा एक्सप्रेस' एक दोन वरां उसरां पावत आसली. पूण ती आतां आपल्या दोनय रुळांवयल्यान सारकी चलताली. तिचोच एकसारको आवाज आतां सगल्यांच्याच कानांत गाजतालो. 

# निश्ठा

'भाऊ' म्हूण शेजान्नीन पडलेल्या आवाजान दोन तीन उले मारले. जयवंताचे घरकान्नीन दार उगडलें. तीं दोगांय उलोवपाक लागलीं. जयवंत न्हातालो. आंग पुसून तो भायर आयलो. कोणेंय विस्वास दवरुये असो तो लांबरूंद दादलो. शेजान्न मुक्ताबाय आनी तिचो चलो विनीत दाराकडेन उबीं आसलीं. शाळेच्या गणभेसांत विनीताक पळोवन ताणे म्हणलें, ''आजून शाळेक वचूनासो? फाल्यां पंदरा ऑगस्ट मरे. तूं चवथेंतलो हुशार भुरगो. हेडबाईक सांगून फाल्यां शाळेंत तुज्या हातांतल्यान बावटो वयर चडोवपाक लावया. चडोवपाचो आं....'' जयवंत फुडें किदें तरी सांगपाचो पूण मुक्ताबाय सडसडीत उलयली, ''भाऊ, आमचो हो कामणीन खूब बरो ना. ताप येता. चार पांच दीस जाले तरी दुयेंस वाडत आसा. दोतोराचें वखद चलता. पूण पारागात पडूंक ना. तो थार पडला. ताका इस्पितळांत व्हरपाक जाय आसलो. मातशे तुमी येयात. ताका व्हरुया.'' ''म्हयनोभर जालो मगे मनूक कामीण जावन!'' ''हय, हळडुवोच जाला तो. खायना जेयना. बारीक, अशक्त जाला. उलोवपाक लेगीत त्राण ना.'' ''गाडी कोणाची आसा? हांगा कांय लागीं गाडी ना.''– जयवंत. ''पळयात न्हू तुमी मातशें.'' अशें सांगून तिणे ताचे कडेन आशेन पळयलें. ''आं पळोवया.'' हें आयकून ती तयारी करपाक घरा गेली. फोटोफाट तिचो चलोय.

घराचें दार धांपता थंय आसा, इतल्यान गांवचो सरपंच हनुमंत दार उगडून घरांत आयलो. तो मोटवो पूण आवाज मोटो. येवचे येवन ताणें म्हणलें, ''आरे, जयवंत. चल, चल. मिनिस्टर सायबांची मिटींग आसा, ताच्या बंगल्यार.'' जयवंत सकाळचो नास्तो घेतालो. ताच्या बोवाळान तो उठलो आनी बेगिबेगीन भायर आयलो.

सरपंचा वांगडा दोग जाण आसले आनी भायर रस्त्यार मिनिस्टराची गाडी.

''सरपंचबाब हांवें च्या लेगीत घेवं ना.''

''मागीर घेवया रे. मिनिस्टराच्या बंगल्यार. चल, मिटिंगेक या. सांजेचो निशेध मोर्चो आसा. आतां मिटिंगेंत थारावपाचें आसा. लोकांक आफोवपाचें आसा. तोय गडबडीन उलयलो. हेवटेन तेवटेन ओडिल्ले भशेन जयवंत वोगीच रावलो. तो गणयता तें पळोवन रस्त्यावयले गाडयेंतलो मिनिस्टर सकयल देंवलो आनी घरांत आयलो. ''कित्याक कळाव? जयवंतबाब, चल या. फुडें तुज्या भुरग्यांक शिर्विशेक बी लावंक जाय मरे?'' ''म्हजीं भुरगीं आजून ल्हान आसात दादा.''

''जावं व्हडलीं जातकूच शिर्विशेक लावं येतात. चल चल, खूब लोक वाटेर रावल्यात.''

जयवंतान बेगिबेगीन पांयांत व्हाणो चडयल्यो आनी तो मिनिस्टराचे तांबड्या दिव्याचे गाडयेंत बसलो.

तांबड्या दिव्याचे गाडयेंत बसनाफुडें जयवंताक ओर्र कशें दिसलें. मि निस्टर तसे घुमो पूण तो आयज ताचेकडेन बरो उलयल्लो. तो आयज जयवंताच्या घरांत लेगीत आयल्लो. धा किलोमिटर पयस आसलेल्या ताच्या बंगल्या मेरेन ताचो सहवास जयवंताक मेळपाचो आसलो.

हस्तीदंती रंगाच्या लिकलिकीत बंगल्याच्या देट्ट्या फुडल्या रस्त्याचेर धा बारा गाडयो पार्क केल्ल्यो. मतदारसंघांतले बरेच वावुरपी थंय उबे आसले. मिनिस्टरा वांगडा शंबरां वयर वावुरपी बंगल्यांत भितर सरले. मंत्र्याचे पिएन तांकां हॉलांतल्या सोफाचेर, खुर्च्यांचेर बसयले. फोनाचेर उलोवपाचें निमित्त करून मिनिस्टर भितर गेल्लो तो अजून येवंक नासलो. बसकेचे सुवातेंतलो झोपाळो रितोच आसलो. तो हेवटेन तेवटेन धोलतालो.

जयवंताचो मोबायल वाजलो. ताणे तो घेतलो. आपले बायलेचो आवाज आयकून ताणे आंग काडलें. तिणे सांगलें, ''शेजारची मुक्ताबाय परत आयल्या, तिच्या घोवाक इस्पितळांत व्हरपाक जाय.'' तो मातसो ओगीच रावलो. मागीर विचार करून ताणे राजकारणी कसो सांगलें, ''पळय, तिका सांग मागीर व्हरूं येता. सांग तिका, फाल्यां व्हरूया म्हूण.'' ''पूण पूण...''''पूण बी कांय ना. हांव हांगा मिटिंगेंत आसां. अर्जंट मिटींग. आतां हांगासल्ल्यान येवपाक मेळना.'' अशें सांगलें आनी ताणें रोखडोच फोन बंद केलो. वळखीच्या एकान आपल्या तोंडार हात दवरून ल्हव आवाजांत विचारलें, ''कोणाचो रे फोन?'' ''घरा कडलो.'' ''म्हाकाय घरचें काम आसलें पूण हांव तें सोडून येयलां. कितें करतलो? येयलो नाजाल्यार राग धरतलो. रागाक वायट तो.'' पयलो फुतफुतलो. ''फाटीं हांवें केरोसिनाचे डिलरशिपीचें लायसन मागलेलें. तें मेळटा जाल्यार पळोवया.'' दुसऱ्यान आपल्या मनांतलें सांगलें.

''मेळपाक किदें जालां? तो सिव्हील सप्लाय मिनिस्टर.'' पयलो परत वोंठ दामून उलयलो.

खूब जाणांच्या मनांत खूब किदें किदें आसलें. पूण आनीक कोण कांय उलयलोना. कोणाक सोऱ्याचें जप्त केल्लें लायसन परत मेळोवपाक जाय आसलें. कोणाच्या चल्याक नोकरी जाय आसली. कोणाक आनीक किदें.

मदल्या वेळांत पॅटिसांचे आनी बटाटवड्यांचें ताट भोंवलें. मागीर कोल्डड्रिंकां पियेल्ल्या कांय जाणांनी थेंकर दामून धरलो.

मिनिस्टर कृष्णराज हॉलांत आयलो. मागीर कांय जाणांच्या खांदार हात घालून बारीक बारीक किदें तरी सांगीत रावलो. उपरांत तो येवन झोपाळ्यार बसलो. ताचे धवे मुस्तायकेचो आनी धव्याफुल्ल केंसांचोय छाप पडटालो. सगळ्यांक पळोवन तो हांसलो. तेन्ना ताचे घारशे दोळे मोटे जाले. सभेंत उलयल्ले भशेन तो सांगपाक लागलो. ''तुमकां हांगा पळोवन हांव खोशी जालां. तुमी म्हजे लोक.'' हें सांगताना ताणे आपलो हात काळजा कडेन व्हेलो. फुडें तो सांगपाक लागलो, ''तुमी सामके म्हजे लागचे आनी निश्ठावान लॉयल तुमी. तुमकां म्हूण सांगतां. म्हज्या भावाक पुलिसांनी अटक केला. आयज सकाळीं सातांक. शिर्वीस दिवपाक पयशे घेता म्हूण. म्हणजेच हांव खंय ताचे मार्फत पयशे घेतां. म्हाकां सांगात, हांवें केन्ना कोणा कडल्यान शिर्विसी खातीर पयशे घेतल्यात? आनी त्या पयशांची म्हाकां आशा आसा?'' मदीच कोणें तरी 'ना' म्हणलें. मातसो रावन तो उलोवपाक लागलो, ''म्हज्या भावाचेर कोणें तरी फटीचो आळ घाला. त्या फाटल्यान म्हजे विरोधक आसात. आमच्याच पक्षांतले आमदार आसात. म्हज्या भावाचेर आरोप दवरून ते म्हाका मिनिस्टर म्हूण निखळावंक सोदतात. ते आयज फाल्यां म्हजो राजिनामो मागतले. तांचो दबाव चड जायत जाल्यार म्हाकां राजिनामो दिवचो पडटलो. तेन्ना अशें कांय जावचें न्हय म्हूण म्हजो भाव पयलीं सुटपाक जाय. ताका वोगीच अटक केला.''

''आमी निशेध मोर्चो काडपाक जाय.'' ''आमचो दादासायब सांगता तें खरें.'' सरपंच हनुमंतान तेंको दिलो.

मिनिस्टर फुडें उलयलो, ''आयज सांजेच आमी मोर्चो काडपाक जाय. पुलिसां आड मोर्चो. आमकां एक हजार तरी लोक जाय. तांच्या खर्चाची सोय करूं येता. तुमी तुमच्या गांवांतल्यान गाडयांनी भरून लोक हाडात. हनुमंत मोर्च्याचो लिडर. आतां लोकांक सांगपाक आनी पुंजावंक चलात. सांजेच्या चार वरां मेरेन आझाद मैदानार जमपाक जाय.''

''तें म्हजेर पावलें.'' – पैज मारलेले वरी हनुमंत उलयलो. मागीर मतदारसंघांतल्या लोकांक जमोवन हाडपा खातीर वावुरपी गाडयांनी सुटले.

हनुमंतान जयवंताक आपल्या फुड्यांत बसयलो. आयज हनुमंताक मंत्र्याची कशी पावर आयिल्ली. जयवंत तसो वावुरपी पूण आयज ताकाय मिनिस्टरा खातीर कितें तरी करचें अशें चड दिसपाक लागलें. निशेध मोर्चो काडून ताच्या भावाक

सोडोवपाक आनी मंत्र्याची खुर्ची वाटावपाक जाय आसली.

हनुमंत उलयलो, ''जाणा मरे जयवंत, मंत्री आसल्यार आमी. नाजाल्यार आमकां कोण विचारता? पयलीं आमी शारांतल्या पायलटांक आनी रिक्षा ड्रायव्हरांक मोर्च्याक आफोवया. तांच्या गाडयांच्यो टांकयो फुल्ल करपाच्यो. पायलट, रिक्षा ड्रायव्हर आनी मोटारसायकल चलोवपी गांवांतले तरणाटे जाय. आनी गांवागांवांतले मेळून सगळे पांचशें लोक येयल्यार खूब जालें.''

पायलटांक थारायतकूच ते गांवांनी भोंवपाक गेले. दनपारचो वेळ जाल्लो. जयवंताचो फोन वाजलो. घराकडचो फोन. जेवपाक यो म्हूण आसतलो अशें येवजून ताणे फोन उखल्लो. बायलेचो आवाज, ''तुमी खयं आसात?'

''आमी पयस आसात.''

''शेजारच्या मनूक आजून इस्पितळांत व्हरूंक ना. आतांच ताची बायल फावट मारून गेली.''

''हांवूच कित्याक जाय तिका? व्हर सांग वांगडा कोणाकूय. नाजाल्यार फाल्यां सकाळीं व्हरचो.'' बेजार जावन ताणें फोन बंद केलो.

''कोणाक इस्पितळांत व्हरपाचो आसा रे?''

''शेजारच्या मनूक''.

''फाल्यां पळोवया रे. आयज तुका खंय फावता तर?'' – हनुमंतान ताचें वजन दवरलें. मदीं दोगूय वोगीच रावले. मागीर येवजिले सारकें करून हनुमंत उलयलो, ''जाणा मरे, आयचें काम जातकूच हांव मिनिस्टराचो उजवो हात आनी तूं दावो.'' अशें म्हणीत तो व्हडल्यान हांसलो.

जयवंतान मनांतल्या मनांत म्हणलें, ''तूं व्हडलो कॉंट्रॅक्टर आसाच. ताचे वयल्या भरिभारान तुजी गाडी बरी चलता. म्हाकाय केन्ना काम मेळटा... सब कॉंट्रॅक्ट. म्हजेंय चलता.'' मागीर तोय ताच्या हांसपांत भागी जालो.

जयवंतान जेवतां जेवतां पळयलें. बंगल्यार दनपारां शंबरां वयर लोक चिकन मटण खावन गेल्ले. सोऱ्याच्यो, बियरीच्यो रित्यो बाटल्यो कुशीक आसल्यो.

मिनिस्टराक फोन येत आसले. हांव इतले मनीस, तितले मनीस मोर्च्याक घेवन येतां.... बसभर लोकांक हाडटां... आमचे गांवचे मतदार सगळे तुमचेच मनीस. तुकांच तांणी वेंचणुकेंत मतां दिल्यांत... खूब येतले लोक...

आझाद मैदानाचेर चार वरां जावचे पयलींच लोक जमपाक लागले. हनुमंत, जयवंत आनी जॉकी साडेतिनांकूच थळार पावल्ले. मिनिस्टर आपल्या बंगल्यार रावन मोर्च्याचीं सुत्रां चलयतालो. मैदानार येवपी मनशांच्या पंगडांक घोशणा

बरयल्ले बोर्ड हनुमंत दितालो. तशेंच तांकां तो सुचोवण्योय करतालो. चारांकूच देड हजारा वयर लोक जमले. हनुमंतान मंत्र्याक फोन केलो.

''पांचशें लोक आमच्या मतदारसंघांतल्यान आयल्यार खूब जाले अशें हांव समजतालों. पूण आतां हजार देड हजार लोक जमल्यात.'' फोनांतल्यान आवाज आयलो – ''व्वा! बरें जालें तूं भियेवं नाका. व्हर मोर्चो आतां.''

मोर्चो आझाद मैदाना वयल्यान महात्मा गांधी मार्गार वचून तो थेट शारांतल्या पुलीस स्टेशनार वचपाक लागलो. पुलीस स्टेशनाच्या लागीं पावता तशे निदर्शक चड व्हडल्यान घोशणा दिवपाक लागले. ''कृष्णराज मिनिस्टरांचो जय जावं, भावा वयले आरोप फाटीं घेयात, बेगीन सोडात, बेगीन सोडात. विरोधी पक्ष मुर्दाबाद.''

निशेध मोर्चो पुलीस स्टेशनाच्या देट्टयाकडेन येवन थांबलो. मोर्च्याक लोक चड येतले हें जाणा जावन पुलिसेन पयलींच चड पुलीस तैनात केल्ले. राखीव दलाचे आनी आर्माद पुलीस मेळून चारश्यां वयर संख्येचें बळ आसलें हें जयवंतान आनी हनुमंतान ताडलें. लाठीमार, फारपेट जायत तर तांचो निभाव लागचो ना हें ते जाणा आसले. गेटी कडेन मोर्च्यांचे लोक जमा जातकूच कोणें तरी पुलिसां आड घोशणा दिल्यो. तशे पुलीस तिडकले आनी लागच्या कांय निदर्शकांचेर लाठीमार केलो. तशे सगळे निदर्शक धांवपाक लागले. वीस पंचवीस जाणांक बरोच मार बसलो. दोगा जाणांचे हात मोडले. हनुमंताचेर आनी जयवंताचेर पांयांचेर लाठयो बसून वळ उदेले. जमाव पयस जालो.

निमाणे जयवंतान, हनुमंतान आनी जॉकीन जखमी जाल्ल्या आठ जाणांक गाडयेंत घाले. तांकां खाजगी इस्पितळांत व्हरतात म्हूण हनुमंतान मिनिस्टराक फोन केलो. तेन्ना मिनिस्टरान सांगलें, '' नाका नाका, तांकां खाजगी इस्पितळांत व्हरूं नाका. तांकां सरकारी इस्पितळांत व्हर. थंय व्हेल्यार पुलिसांनी आमच्या मनशांक बडयले म्हूण चड प्रचार जातलो. प्रेसाक बी फोटू दियात.''

आठ जाण जखम्यां वांगडा जयवंतूय आसलो. ताच्या पांयांचेर वळ उदेल्ले आनी तातूंतल्यान थेंब थेंब रगत येतालें. इस्पितळांत पावतकूच याद जाली. ''आरे, हांव आयज सकाळींच हांगा पावपाचो.'' ताका आतां आपले दुखी वांगडा शेजारच्या मनूची याद जाली. तो कितल्याश्याच वर्सांचो शेजारी. आतां तो सांपळो जाल्लो. मनूचे दोळे आपल्याक आशेन पळयतात अशें ताका दिसलें.

हात मोडलेल्यांक प्लास्टर करता म्हणसर तिनसांज जावन गेल्ली.

ते बंगल्या कडेन पावतकूच मंत्री गेटी लागी आयलो आनी तांकां हॉलांत

व्हरून बसयले. थंय आनीक वावुरपी आसले. ताणें सगळ्यांक संबोधून म्हणलें, ''तुमी आयज पराक्रम केलो. म्हज्या भावाचे अटके आड बरें वातावरण जालें. म्हज्या भावाक आयचे आयज तांकां सोडचो पडटलो. हांव मुख्यमंत्र्यांच्या फोनाक रावतां. नाजाल्यार हांव ओगी रावचों ना.'' अशें म्हणीत ताणें दांतवोंठ चाबले. फाटले खेपे भशेन 'हांव पक्ष लेगीत बदलतलो' अशीं उतरां ताचे जिबेर आयलीं पूण तो उलयलोना. ताणें इल्ली उसरपत घेतली. मागीर हळू आवाजांत आनी खाजगींत ताणें हनुमंताक विचारलें, ''आं ऽ, तुमी कोणाक किदें दिवंक जाय तें दिलें मरे?'' ''हय दादा, मोर्च्यांत भाग घेतलेल्या दर एकल्याक पांचशें रुपया पावल्यात. सगळे खूश आसात!''

रातचीं आठ वरां जावन गेल्लीं. मंत्री मुख्यमंत्र्यांच्या फोनाक रावतालो. तो केदो वगत येवंकूच नासलो. तो अस्वस्थसो जालो. ताणें म्हणलें, ''पळयात आमी वोगी रावप ना. आयज रातच्या बारा वरां मेरेन सोडयलोना तर आमी फाल्यां सकाळीं गुप्त मिटींग घेवपाची.'' ''पूण सर फाल्यां पंदरा ऑगस्ट....'' मदीच एकलो उलयलो. ''जावं पदंरा ऑगस्ट. आमकां कित्याक ते लावन घेवया. आमचें काम पयलीं!... फाल्यां गुप्त मिटींग. मागीर आमी वोगी रावप ना आंऽ.''

सगळे वातावरण गंभीर. इतल्यान जयवंताचो फोन वाजलो. मदीं आवाज नाका म्हूण ताणें बंद केलो. परत वाजलो. परत बंद केलो. परत वाजलो.... तो घरचोच फोन आसलो. निमाणे रागान फोन घेतलो. ताच्या फोनार ताचो पूत उलयतालो, ''डॅडी, विनिताचो पप्पा मेलो! शेजारच्या घरांत आकांत जाला. सगळीं रडटात. मम्मीय थंय गेल्या.''

जयवंताच्या तोंडार थापट मारलेले सारकें जालें. ताचें तोंड तांबशें काळशें जालें. ताणें फोन बंद केलो. ''ओऽ, मनू पिड्ड्यार जालो तर. ताका इस्पितळांत व्हरपाक हांव पावलोंना. हेवटेन उरलों.'' ताणें लजेन आनी खंतीन मनांत म्हणलें.

हनुमंताचे कारीन जयवंत घरा वचपाक बसलो. ग्रामपंचायती कडेन पावतकच हनुमंत थांबलो. वर्सावळी भशेन पंदरा ऑगस्टाची लायटींची सजावट करूंक नासली. हनुमंत थंयच्या कांय जाणां कडेन उलोवपाक रावलो. तसो जयवंत गाडयेंतल्यान देंवलो आनी सरळ आपल्या घरा वटेन चलपाक लागलो. रातचो बरोच वेळ जाल्लो. काळोख दाटलेलो. वाटे वयल्यो लायटीय सारक्यो पेटनासल्यो. पयस कुत्र्यांचो होळोम चलतालो. तांचो आवाजा ताच्या कानांत पडून ताका भंय दिसतालो.

शाळे कडेन पावलो तसो ताका परत पंदरा ऑगस्टाची याद जाली.

फाल्यां भारत स्वातंत्र्य दीस! फाटल्या पांच वर्सां पयलीं ताणें गोंयच्या नामनेच्या स्वातंत्र्य सैनिकाक हाडून ताच्या हातांतल्यान शाळेचो राष्ट्रध्वज वयर चडयलो. फाल्यां हेडबाईक सांगून चवथेचो हुशार विद्यार्थी विनिताकडल्यान तिरंगी राष्ट्रध्वज वयर हुबोवपाचो आनी ताका वंदन करपाचें आसलें. पूण आतां तें जमचें नासलें. हें चिंतून तो खंती जालो. ओ ऽऽ असो निराशेचो हुस्कार ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलो.

चलतना ताका परत चिंतून येवपाक लागलें. विनिताच्या बापायक – मनूक – जर सकाळी इस्पितळांत व्हेल्लो तर तो मरचो नासलो. कामीण आंगांत भिनलेली म्हूण किदें जालें? ताचेर उपचार जावपाचें. तो मरचो नासलो. म्हाकां ही लज. शेजारच्यांक तोंड दाखोवपाक जागो उरूंक ना.

... हांव हांच्या राजकारणांत घुसपलों. तांचे वांगडा पडून तांचे भशेन जालों. तांकां बरें दिसपाक जाय म्हूण हांवें तांकां जाय तें केलें. तांच्या पांयां कडेन हांवें म्हजें नाक घांसलें. म्हजी निश्ठा हांवें तांचे कडेन घाणाक दवरली. आनी आयचे सगले अशेंच करतात. शी, शी! शेजारचो मनू मरतलो म्हूण हांवें चिंतलें लेगीत ना. पिडेस्त मनीस, देश हांचे कडली निश्ठा हांव विसरलों. ती म्हजी सॅकंड लॉयल्टी जाली. हांव सकयले पातळेर पावलों. अशें म्हणीत ताणें आपले वागणुकेचो निशेध केलो. आपल्याच व्यक्तित्वाचो धिक्कार केलो.

तो घरा पावता पावता म्हणसर, ताका आपूण जयवंत हारलां.... हारलेल्या सैनिका भशेन चलतां अशें दिसपाक लागलें. ताका लज लज जाली.

तो मनूच्या घरा लागीं पावलो. ताणें थारायलें, फाल्या आपूण गुपीत मिटिंगेक वचपाचों ना. फाल्यां शाळेंत वर्साची प्रभात फेरी आसत अशें दिसना. पूण विनिताच्या पप्पाच्या मर्णाची मरणयात्रा आसतली. हांव तांच्या दुख्खांत तरी भाग घेतलों, अशें म्हणीत ताणें मनूच्या घराच्या पयल्या सोंपणार पावल दवरलें.



# प्रॉपर्टी

मोहनदासबाब त्या रेस्टारँटांतल्यान पिकासावान भायर सरलो. ताच्या फाटोफाट ताचे गाडयेचो ड्रायव्हर दुमींग भायर आयलो आनी ताणे आलीशान कारीचें दार उगडलें. ताची सोबीत कार धा किलोमिटराचेर आशिल्ल्या आपल्या सिटीतल्या 'समृद्धी सदन' बंगल्याकडे वचपाक लागली. वाटेत मोहनदासबाबाक रेस्टारँटांत जाल्लो आपलो अपमान तोपतालो. ताची तकली तापताली. तो आयज एके प्रॉपर्टीचें डील करपाखातीर रेस्टारँटांत गेल्लो. थंय घर आनी जमीन विकपी पार्टी पयलीच येवन बशिल्ली. ताच्या वांगडा चौग जाण आसले. तातुंतल्या आपल्या एजंटाक तो वळखलो. तो तांच्या टेबलाकडे गेलो.

हे बसकेत प्रॉपर्टीविशी उलोवणी जावपाची आसलीं. डॉक्युमेंट, प्रॉपर्टी पळोवन जाल्ली. उलयतां उलयतां पार्टेन प्रॉपर्टीची रक्कम सांगली, ''पात्रांव, म्हाकां ह्या जमिनीचे सत्तर लाख तरी मेळपाक जाय.'' ''रक्कम खूब मरे. हांवें तर अजून इतल्या पैशांक प्रॉपर्टी घेवंक ना. चाळीस लाखांक दिता मरे?''

'' ना पात्रांव.'' पार्टीन स्पश्टपणान सांगलें.

''पळय, चाळीस लाखांक दिता जाल्यार दी. कॅश दिवया.'' मोहनदासान आपल्या धव्या केसांवयल्यान हात भोंवडायत तोऱ्यान सांगलें. ''ना ना हांवेंच ती पोरूं पन्नास लाखांक घेतिल्ली. आनी ती तुमचेच कडल्यान. तुमकां याद ना कांय किदें? म्हाकां वयल्यान तोपी घालपाक आयल्यात कांय किदें?'' पार्टेन ताचेर परत परतिलें. ''किदें हांवें तुकां पन्नास लाखांक म्हजी प्रॉपर्टी विकिल्ली. शक्य ना.'' ''तेन्ना तुवें पयशे घेवन खाल्ल्या जातले. वा आतां पयशे घेवन सवायभितर म्हाका नागोवपाक येयला जातलो. हांव तुमकां वळखतां'' मोहनदासबाबाक हें एका वर्सा फाटलें याद जायना जालें. ताचे तकलेर कोणेतरी सण करून तोणको हाणल्याभशेन ताका जालें.

पार्टी फुडें उलोवपाक लागली, ''तुमकां याद जायना जाल्यार तुमच्या एजंटाकच विचारात.'' एजंट मान सकयल घालून बशिल्लो. पार्टेन आपलें उलोवप चालू दवरलें, ''हांव तुमकां बरें वळखतां. तुमकां मुळांत भाटांबेसां

आसात. ह्या वर्सांनी तुमी कितल्योश्योच प्रॉपर्टी विकत घेतल्यात. तुमचें नांव मोहनदास न्हय.... तुमकां तीन चले आनी दोन चलयो आसात.''

आपले विशी हाका खबर आसा आनी आपल्याक गेल्या वर्सा आपणेच हाचेकडे केल्ल्या डिलीची आनी ह्या मनशाची याद लेगीत ना. ताका धक्को बसलो. अपमान जाल्ल्यावरी तो थंयसून उठलो आनी तडक भायर आयलो. ताचे गोरे तोंड तांबडे जाल्लें.

आपल्याक गेल्या वर्साची .... आपणे केल्ल्या व्हडल्या डिलीची याद उरलीना म्हण ताका मनांत खावपाक लागलें. आपणे इतलें कमयलें. प्रॉपर्टी घेतली, प्रॉपर्टी विकली. त्या धंद्यांतल्यान कोट्यांनी रुपया जोडले. परत खुबकडे प्रॉपर्टी बंगले उबे करून दवरले... पूण आतां इतले आसून आपल्याक देंवती कशी लागल्या अशें ताका दिसपाक लागलें. ताका प्रस्न म्हातारपणा वांगडा आपली स्मृती खंय शेण खावंक गेल्या कांय? गाडयेत बसलेकडे ह्याच विचारान ताची तकली चडच उसळपाक लागली. तकलेंत कोण तरी घण घालता अशें ताका जावपाक लागलें.

आपल्या 'समृद्धी सदन' बंगल्याचें दार उगडून तो भितर सरलो आनी वातानुकुलीत हॉलांतल्या रस्मीमोव सोफार बसलो. तो गळसणून गेल्लो. तशेंच ताचें आंग घामेल्लें. ताका पळोवन ताची बायल अंजली काचाबूल जावन ताच्या म्हऱ्यांत आयली. ताणे घातिल्लो काळो वुली कोट तिणे काडलो. आपल्या हातान ताका थंड उदक पिययलें. मागीर ताणे रेस्टारँटात घडिल्ली गजाल तिका सांगली. ते बरोबर इतल्या वर्सांच्या आपल्या अणभवान तिणे म्हणलें, ''वेवारांत अशें केन्ना केन्ना घडटां. तें तुमी मनाक लावन घेवंक नाकात. आपलो अपमान जालो अशेंय समजूं नाकात. सगलें समजपाचेर आसा.'' ''हय, ह्या वेवारांत हांवें मान अपमान खूब सोसल्यात. धंदो केलो म्हण तर हांव गिरेस्तकायेच्या शिखरार पावलों. पूण म्हजेकडल्यान चुको जातात हें बऱ्याचें लक्षण न्हय. तशेच ती गजाल म्हाका याद उरलीना हातूंत म्हाकां उणेपण येता, ताचे किदें? गेल्या वर्सभरांत कांय गजालींचो म्हाकां विसर पडल्याभशेन जाला.'' मोहनदासान आपल्या विद्याभूषीत आनी समजीक बायलेकडे आपलें मन उक्तें केलें. अंजलीच्या मनांत पाल चुकचुकल्याभशेन जालें. तरी तिणे धिरान म्हणलें, '' तशें कांय ना. विसर पडप मनशाक स्वभावीक. तुमी इतले केलें. हांगा थंय प्रोपर्टी घेतली. विकली. तुमकां तकालस जाल्या. तकलेर ताण पडल्यात. आयज

तुमी शंभरावयर प्रोपर्टीचे मालक! तुमकां कसलो भंय? तुमी हें सगलें भुरग्याबाळांखातीर केलां.'' अंजलीक आपल्या कामाचो अभिमान आसा म्हूण मोहनदासाक बरें दिसलें. ताका आपल्या सिल्वर केसांच्या बायलेची तोखणाय दिसली. तरी ताच्या मनांतलें वचूं नासलें. ताणे म्हणलें, तूं म्हण्टा तें खरें. तसो भंय ना. अर्थीक भंय तर नाच ना.''

मोहनदासान उलयतां उलयतां आपल्या व्हडल्या हॉलांतल्या वण्टीचेर नदर मारली. पयले वण्टीचेर मदीच लक्ष्मीचें व्हडलें मनशांयेदें पांयजेल सोबतालें. ती समृद्धीची देवता लक्ष्मी सर्व अलंकारानी सोबून दिसताली. पांयजेलाक स इंच रूंदायेची भांगरवर्खी नक्शेची फास्की घडयल्ली. दुसरे वण्टीचेर गणपतीचें लांबरुंद चित्र. ती बुद्धीची देवता. तिसरे पांयजेल हंसवाहिनी विणाधारी सरस्वतीचें. ती धव्या रंगाच्या साडयेत आपले परीन सोबून दिसताली. ती विद्येची, कलेची, सद्गुणांची देवता. तिका पळयल्या बरोबर कोणाकूय वाक्देवतेचो साक्षात्कार जातालो. संगीत कलेचो साक्षात्कार जातालो. तिच्या विणेच्या झंकारातल्यान सप्तसूर कानार पडटात असो भास जातालो. भूत, भविष्य, वर्तमान हे तीनय काळ जगल्याचो भास जातालो. निमाणी एक वणत रिकामीच आसली. लांब रुंद वणत... मेकळी. कोरी .... कांय एक नाशिल्ली... रिकामी.

ताणे तिनय वण्टीवयल्या पांयजेलांक बरोच वगत पळयतकूच चवथे वण्टीकडें पळयलें. ती ताका रिती कशी दिसली. आपल्याक ह्या दिसांनी कांय गजाली याद उरना... विसरतां ते भशेन... ब्लँक... कोरी.

आपली अवस्था अशीच उरत तर? वा वाडल्यार? ताका भिरांत दिसपाक लागली. मागीर ते दिसा सावन प्रॉपर्टी घेवपाचो, विकपाचो धंदो मोहनदासान बंद केलो. तो चडसो घराच रावपाक लागलो. लोकांक मेळना जालो. सोयऱ्यांगेर लेगीत वचना जालो. अंजली ताका घेवन दोतोरागेर वताली. ताका वखदविर्सद नेमान करताली. ताच्या उपचारांक एक वर्स वयर जावन गेल्लें.

एक दीस दनपारचें घरांतल्या सगल्यांचे जेवण जाल्ले. अचकीत मोहनदासान बायलेक उलो केलो, ''अंजली, म्हाकां वाड.'' तो जेवन वरभर लेगीत जांवक नासलो. अंजलीक आनी घरांतल्या पुतांक–सुनाक अजाप जालें. ताणी ताका तो जेवल्ल्याचें सांगलें तरी तो आयकना जालो. मागीर आपल्याक वाड म्हण हट्ट धरून तो जेवणाच्या टेबलाकडे वचून बसलो.

ते वेळार तांका समजलें, पापाक किदें तरी गंभीर दुयेंत जालां. तो सारको ना. ती सगलीं हालोवन गेलीं. आदले ताचे विसरप सादे अशें समजून घेतिल्ले तरी ताचेर उपाय चलताले. आतां तें वाडून चड जाल्लें.

ते दीस ताका परत वाडलो. तो एकदोन घांस जेवलो आनी तसोच पोट भरलां म्हूण उठलो.

तेच सांजवेळा ताचो व्हडलो जांवय आनी व्हडली धूव कमलिनी ताच्या खबरेक आयलीं. धुवेक ताणे बरी हडकिली पूण जांवयाक हडकिलो ना. तो परकी मनीस कसो मोहनदास ताका पळयत रावलो. मागीर ताणे आपले बायलेक मोठ्यान विचारलें, ''हो कोण आयला गो आमगेर?'' हें आयकून घरांतल्या मनशांक किदेशेंच जालें. व्हडलो जांवय अपमानीत जावन रागान तांबडो जालो. आतां किदें तरी किजील उप्रासतलें असो भंय थंय जमलेल्यांक दिसलो. इतल्यान अंजलीन धुवेक सांगलें, 'कमलिनी, तुजो पापा चड बरो ना गो. ह्याच दिसांनी ताका चड विसर पडटा. तुमी रागार जावंक नाकात.'' अशे सांगत तिणे आपल्या घोवाक ताच्या कुडीत ओडत व्हेलो.

ते दिसासावन घरांत मानसीक ताणाचें वातावरण जावपाक लागलें. आपल्या बापायच्या दुयेंसाक लागून व्यंकटेशाक, रामनाथाक आनी विनायकाक बेजार आयलो. आपलो बापूय भुरग्यावरी करता, हालीच्या गजालीची याद उरना. वयल्यान कटकटी करता. हेविशी शेजारच्या लोकांक कळत म्हूण ते भियेवपाक लागले. तो कोणागेर वचत, तांका लज जायत म्हण बापायक घराभायर वचपाक दिना जाले. येदो व्हडलो इस्टेटकार, ताची ही अवतिकाय पळोवन तर ताच्या बायलेच्या दोळ्यांतसून दुकां व्हांवपाक लागताली.

दुसरेच दिसा व्हडलो पूत व्यंकटेश नव्या स्पेशलिस्ट दोतोराक घेवन आयलो. दोतोरान आदले रिपोर्ट पळयले. मागीर ताका तपासताना अंजलीक विचारलें, ''अशें जावन कितलो तेप जालो?'' ''तशें एक वर्स देड वर्स जातलें. फाटी ताका मदलें मदलें याद उरनासलें. आतां तर ताका याद उरना ह्या देड वर्सा भितरलें.''

''फाटी तुमच्या कोणाक अशें जाल्लें.'' दोतोरान फाटलो इतिहास विचारलो. ''ना.'' व्हडल्या पुतान सांगलें.

''फाटी तुमच्या आज्याक बीन.''

''खबर ना.'' होच आमचो कर्तो पुरुष.''

मदी वोगीच रावन दोतोरान अंजलीक विचारलें,

''तो जेवता खाता?''

''जेवता. पूण मदीच भुरग्याभशेन करता. मदीच चाळवता. सांगल्यार आयकना. हट्ट करता.''

''तो तुमकां किदें सांगता?''

''हय सांगता आपल्या भुरगेपणांतलें. तरनाटेपणांतलें. हालीचें कांय सांगिना. काल तर तो आपल्या व्हडल्या जांवयाक लेगीत वळखलो ना.''

आपलें हें आयकून मोहनदास चाळवलो. ताणे आपले बायलेचेर दोळे मोट्टे केले आनी म्हळें, ''ही फट...फट उलयता.'' ते बराबर अंजली वोगी रावली. दोतोर कुलासोन ताका भुरग्याभशेन फाटीर थोपटीत थातारायलो.

मागीर दोतोरान ताचो ब्लॅड प्रेशर तपासलो. ताच्या तोंडावयल्यो मिरयो ताचें जाण्टेपण सांगताल्यो. हाली तो घरांत आशिल्ल्यान ताचे स्नायू मोव पडील्ले. बरोच वगत तपासून जातकच दोतोरान सांगलें,'मनशाक जाण्टेपण येतकूच कांय दुयेंसां जातात तातूंत हें एक. दुयेंतीची काळजी घेवंक जाय. तो एक करता आनी आमी भलतेंच समजता. ताच्यो नव्यान न्युरो सायकोलॉजीकल टेस्टी घेवंक जाय. हॉस्पिटलांत ताच्यो टेस्टी घेंवया. मागीर किदें तें सांगतां.'

दोतोर वचपाक भायर सरलो तसो ताचो व्हडलो पूत म्हणपाक लागलो, 'दोतोर, कितलोय खर्च येंव. आमचेकडे खूब पयशे आसात. म्हजो पापा बरो जांवदी.''

''पळय तो जाण्टो जाला. ताका याद उरना. तातुंतल्यान ही परिस्थिती उप्रासल्या. बाकीच्या दुयेंसानी एकलो कोण बरो नाजाल्यार दुसऱ्यांक तशे त्रास जायना. ह्या दुयेसान मात तशे ना. ताच्या वागपान, वेवहारान पुराय कुटुंबाक त्रास जातात. ताची तुमी केअर घेयात. ताचेकडे बरे वागात. तुमच्या वागपांत गुणवत्ता हाडात.

दोतोर कुलासोच्या उलोवपांत व्हडलो पूत समजूक जाय तें समजलो. आपल्या बापायची सेवा करप, ताचेकडे बरें वागप हेंच ताच्या बापायक फुडलें जिवीत जगपाक बऱ्याक पडटलें आसलें.

दोन दिसां भितर मोहनदासाच्यो सगल्यो नव्यो टेस्टी जाल्यो. ताका अल्झायमराचें... स्मृतिभ्रंशाचें दुयेंत आसा आनी तें फुडें पावलां अशें

दोतोरान सांगतकूच व्यंकटेशाक दिसलें, हो रोग सहज बरो जावचो ना. घरांत सदाच कटकटी आनी मनस्ताप उरतले. तरी ताणे दोतोराक विचारलें, ''हाचेर किदें नवे उपाय आसात?''

ते बराबर दोतोरान सांगलें, ''तुमी ताची अशीच होम कॅअर घेयात, हांव वखदां दितां ती ताका नेमान दियात. ताका कांय सादे व्यायाम दितां. तो घराभायर भोवल्यार बरो.

दोतोर कुलासोच्या उपायांनी ताच्यांत तात्पुरती सुदारणां दिसपाक लागली. अंजली डार्क रंगीत साडयो घोवाक बरे दिसचें म्हूण न्हेसताली. उजवाडाक रंगीत शेड दिवपी बल्बांची येवजण केल्ली. बऱ्याच दिसांनी मोहनदास भायर भोवपाक या म्हूण सांगू लागलो. ताच्या फाटल्यान अंजली आसतालीच. ती आपल्या पुतांक, सुनांक म्हणपाक लागली, ''आतां म्हाकां देवान आनीक एक भुरगो पदरांत घातला. ताचे सगले भुरग्याभशेन करपाक जाय.''

त्या उपरान्त एके सांजवेळा अंजलीची नदर चुकोवन मोहनदास घरांतल्यान भायर सरलो. तो सरळ चलपाक लागलो. चलतां चलतां परत येवपाक तो घराची वाट विसरलो. ताचे पूत तिनसांजे घरा येतकच तो घरांत ना म्हण बोवाळ जालो. पयली ताची गुपचूप सोदासोद जाली. सिटीतच लग्न करून दिल्ली धाकटी धूव विनोदीनीकडे तो गेलां कांय म्हूण फोनावयल्यान चवकशी जाली. तो थंय वचूं नासलो. धाकल्या चल्याक विनयाकाक कोणाकडे चवकशी करपाक लज दिसपाक लागली. तरी ताणे भर रातीर शार पुलीस ठाण्यार वचून मोहनदास शेणिल्ल्याची कागाळ केली. ताचो फोटोय दिलो. पुलिशेन सोदपाचो यत्न केलो तरी तो मेळ्ळो ना.

मोहनदास आपल्या प्रॉपर्टीच्या कामाक लागून हांगा थंय भोवतालो. केन्ना धा-पंदरा दीस तो घरा येयच नासलो. हुस्को करता थंय अंजलीक वोगीच दिसलें- तो असो खंय प्रॉपर्टीच्या कामाक गेला कांय? कांय प्रॉपर्टी सोदपाक गेला? कांय तोच शेणला? कांय आपल्या घराक विसरला? कांय आपल्याकूच विसरला? रातचो काळोख दाट जाल्लो. तिगूय पूत ताका हांगां थंय सोदताले.

दुसरे दीस सांजवेळा मोहनदासाचो मदले पूत रामानाथ ताका सोदपाक भोवतालो. शारा भायले झोपडपट्टीकडच्या मेकळ्या सुवातेत कांय भुरगे क्रिकेट खेळटाले. थंय एक जाण्टी व्यक्ती तांकां पळयताली. ताणे थंय

वचून पळयलें, तर ताचो पापा आपूण कोण हें विसरून त्या भुरग्यावांगडा आसा. ताची मुस्तायकी आनी आंगपांग लोळलां. आदले राती तो त्याच भुरग्यांवांगडा झोपडपट्टेत न्हिदील्लो.

तो ताका घेवन बद्द आपल्या घराकडे येवपाक लागलो. तो सांपडला आनी ताका घरा हाडटा ही खबर शेजारच्या लोकांक कळ्ळी. तेय थंय जमले. ताका हाडिल्लो पळोवन एका शेजाऱ्यान मोठ्यान म्हणलें, ''प्रॉपर्टी सोदपाक गेल्लो तो, आयलो रे... वांगडा थंयचें किदें घेवन आयला पळोवया.'' तो अशे म्हण्टा म्हूण कोणेतरी ताका चूप केलो. तरी तें जमलेल्यांक आयकूंक आयलें.

पुतांनी मोहनदासाक गाडयेतल्यान देवोवन सोमतो बंगल्यांत व्हेलो आनी बंगल्याची फुडली व्हडली दारां बंद केलीं. दारां धांपली तरी घराभितरचो पेंच कमी जालो ना.

अंजली मोहनदासाचें काम करताली. इतल्यांत तिका हॉलांतल्यान आवाज आयलो. तिचे पूत आनी सुनो थंय आसल्यो. तांचे उलोवप ती शादूर जावन आयकूपाक लागली. ह्या दिसांतल्या घडणूकांचेर आनी फुडे किदें करचें हे विशी तीं उलयतालीं. तिका दिसलें, तिच्या घोवाक ह्या दिसांनी किदें घडटा ताचो विसर पडटा. ताका वर्तमानकाळाचें पडलें ना, तर तो भविश्याचो किदें विचार करतलो? चुंबकगूण सोडून गेल्ल्या चुंबकावरी जावन तो लोखंड जाला. तो तर भुतकाळांत वावुरता. आपले फाटले यादीर जगता. तरी बरें ताका बऱ्याच फाटलेय याद आसा. ना जाल्यार तो खंयच्या उगडासाचेर वा अणभवाचेर जगतलो आसलो. जांव तो फाटल्या भुतकाळांत तरी आसा आनी जगता... ताचे पूत ताच्या फुडाराचे चित्तात आनी तेवूय तांच्या आताच्या अस्तित्वाक त्रासाचें जाता म्हूण. तिका ह्या गजालीचो विरोधाभास होलमलो. ताचे तिगूय पूत ताका कॅर सेंटरांत वा सेवाश्रमांत दवरपाक येवजिताले, म्हणजेच तांका आपल्या बापायक जितेपणी घराभायर काडपाचो आसलो. हें समजून तिका खुबूच खंत जाली. तिणे हॉलांत येवन फट करून म्हणलें, ''तुमी रातच्या वखतार हें किदें चित्तात? तेंय नाका जाल्लें. आतां तो विचार बंद करात.'' ते बराबर धाकलो पूत उलयलो, ''आमकां किदें प्रतिष्ठा आसा कांय ना? आमकां भायर तोंड दाखोवपाक लज दिसता. आनी घरांतय कटकट.''

प्रतिष्ठा? तुमी प्रतिष्ठा मेळयल्या? कांय ज्या बाबड्यान प्रतिष्ठा

मेळयली ताची वायट दशा जाल्या? तुमी हो विशय प्रतिष्ठेचो कित्याक करतात? तो तर दुयेंत.'' आवयचें हें आयकून ते सगळे वोगी रावले. आनी दुसरे दिसा भयणीक हाडून थारावचें अशे उलोवन ते आपापल्या बेड रुमांनी गेले.

दुसरे दीस ताचे तीन पूत, तीन सुनो, दोन धुवो आनी दोन जांवय समृद्धी सदनांत जमले. हो दोन माळ्यांचो बंगलो मोहनदास साटेलकारान विकत घेतल्यार धा वर्सां जाल्लीं. आनी आयज ताचे विशी आनी ताचे प्रॉपर्टीविशी विचार करपाक सगली जमिल्लीं. अंजली मोहनदासाचे कुडीत आसली. तिच्या अस्वडी ही बसका जाताली. रातच्या उलोवपाचो सूर पुतांनी आपल्या उलोवपातल्यान उक्तावन ताका सेवाश्रमांत व्हरून दवरपाचें ताणी थारायलें. धुवांनीय कांय ना उलयतां ताका हयकार दिल्ल्याभाशेन जाल्लें. मागीर मदल्या रामनाथान म्हणलें, ''ताका, सेवाश्रमांत दवरच्या पयलीं प्रापर्टीचें किदें करचें तें पळोवया. ताणे खंय खंय प्रॉपर्टी घेतल्या तें आमकां खबर ना. दिसान दीस पापाची परिस्थिती वायट जाता. फुडें फुडें ताका कांयच याद उरचें ना. मागीर प्रॉपर्टीचें किदें? इतल्या प्रॉपर्टीचे विसरल्यार भांगराची माती जातली.'' ''पूण दुकूमेंत आसतले न्हय रे माँ कडे. ताचे वयल्यान कळटलें.'' व्हडल्या पुतान सांगलें.

''पूण, ते दुकूमेंत पोन्नेबीन जांव येतात. मदी वेवहार जांव येतात. नवे दुकूमेंत बीन केल्यार? तशेंच हाली पापान लँड डील केलां ताचे आमकां कांय खबर ना.''– ताची व्हडली धूव कमलिनी उलयली.

''हय, पापान प्रॉपर्टी खूब घेतल्या आनी विकल्याय.'' धाकल्या विनयाकाक माहीती दिली आनी तो फुडें उलयलो,

''फाल्यांच आमी आमच्या आदोगादाक हाडून सगलें थारावया. तशेंच पापाच आसताना वांटे केल्यार बरें. मागीर गोंदोळ नाका.''

पूत आनी धुवो हॉलांत जमल्यात म्हूण अंजलीन मोहनदासाक घेवन थंय आयली. ते बराबर सगलीं जाणा वोगीच रावलीं. ताचे लागीं येवन पापा पापा करीत ताची खबर घेवपाक लागलीं. मदीच कोणेतरी म्हणलें, ''माँ आमी बाबाक केअर सेंटरांत व्हरतां. जाण्ट्यांक थंय रावपाक बरें. सगल्यो सोयी आसतात थंय.'' ते बराबर अंजलीन सट करून म्हणलें, ''म्हाकां कित्याक सांगतात? पापाक विचारात. तशें ताका आजून खूब समजता. जाणा, भुरगीं तुमकां केअर सेंटरांत दवरपाक सोदतात?''

हें आयकून तो पयली अजापल्याभाशेन जालो. पूण तो आपलेच भितर कसो. ताणे आपल्याक ताचे कांय पडूंना अशें केलें. ताणे उपरान्त आपल्या पुतांक, सुनांक, धुवांक, जावयांक पळयलें... तांचेकडे आपल्यो संबंदच ना कसो. मागीर तो निर्विकारपणान आपल्या घराच्या वयल्या 'फाल्स सिलिंगाकडे' पळयत रावलो.... पिसो कसो....

दुसरे दीस सकाळी अंजलीन मोहनदासाक बळयां च्या पियेवपाक लायली. ताच्या तोंडावयल्यो मिरयो खोल आनी लांब दिसताल्यो. फाटले दोन दीस ताणे खाड काडपाक दिवं नासलें. केसांचे खूंट वयर दिसताले. ताचे तकलेचे लांब केस आदी धवेच उजळ दिसताले. आतां तांका हळदुळसाण आयल्ली. ताचें तोंड बलबलीत जाल्लें. भानार नाशिल्ल्याभशेन दोळे. ताचे उलोवप थोडें जायत गेल्लें. अंजलीन ताका मोव धवो शर्ट घालपाक लायलो आनी ताका हाताक धरून हॉलांत हाडलो. ताका सोफार मदी बसयलो. एकटो पूत थंय पयलीच आयिल्ल्या आदोगादाकडें चर्चा करतालो. निमाणी ताणे ताका सांगलें, ''तूं पापाकडल्यान प्रॉपर्टी खंय खंय आसा ताची खबर काड. जमता जाल्यार ताचें वील करून घे... आमकां बऱ्याक पडटा अशें...'' अंजलीक तें आयकून म्हणन दिसलें, ''ताची इत्सा, बुद्ध, ताचे व्यकितगत गूण तर ताचे यादी वांगडा ताका सोडून वतात. आतां सगलें सगलें विसरपाचेंच जालां. फाटीं ते म्हण्टाले – आतांची ही दशा ताच्या फाटल्या जल्माच्या पापांक लागून जाल्या. फाटलो जल्म? शेऽ पुनरजल्म कोणे पळयल्ला? ह्याच जल्माचें याद उरना तें फाटल्या जल्माचें कशें उरत? आतां पूर्ण विसरायेन मरण? कांय मरणान पूर्ण विस्मरण?'' तिणे आपली जाणीव शब्दरूपांतल्यान आपल्या वोंठांत हाडली ना.

आदोगाद रिबेरोकडे मोहनदासाच्या पुतांचें, धुवांचे उलोवन जाल्लें. आतां मोहनदासाकडे थोडें उलोवन निमाणें ताचो हयकार घेवपाचो आसलो.

आदोगाद रिबेरो मोहनदासाक सांगपाक लागलो, ''तुज्या भुरग्यांनी थारायलां तुज्या सगल्या प्रॉपर्टीचे वांटे करपाचें. ते खातीर तुजी वील... तुजें इत्सापत्र ते करपाक सोदतात. तूं ती कर म्हणजे फुडाराक बरें. तूं कोणाच्या नांवार किदें किदें करतलो तें सांग.'' मोहनदासान आंऽ म्हळें आनी ते व्हडल्या पुताक उलो करतलो– पूण ताका ताचें नांव याद जायना जालें. तो ताच्या तोंडाकडें पळयत रावलो. अंजलीक प्रस्न...''बापूय आपल्या पुतांत आपली वळखीची प्रतिकृती सोदता कांय?''

बऱ्याच वगतान ताणे आपले बायलेक 'अंजली' म्हूण उलो केलो आनी हाताचे कुरवेन आपल्या म्हऱ्यांत येवपाक सांगलें. ती ताच्या म्हऱ्यांत सोफार बसली.

आदोगादान ताच्या पुतांक, धुवांक ताच्या लागी येवपाक लायली. मागीर आदोगाद ताका विचारपाक लागलो, ''तुजे नांव सांग.'' ताणे एक एक शब्द घेयत सांगलें.

''मोहनदास... सोयरू... साटेलकार.''

''तुज्या बायलेचें नांव?''

''... अंजली.'' मोहनदासान सवकास जाप दिली.

''तुज्या व्हडल्या पुताचें नांव?...''

''.............''

ताची जाप ना म्हण सगळे अजापीत जाले.

नांव .... नांव.... म्हण तो याद करपाक लागलो. ताका याद जायना जालें. मदी मोनेळ. मागीर आदोगादान विचारलें, ''मदल्या पुताचें नांव?''

''........''

तो वोगीच रावलो.

''तुज्या धाकल्या पुताचें नांव?''

तो तकलेक हात लावन याद करपाक लागलो.

ताका याद जायना जाली. तो आपल्या पुतांक पळयत रावलो.... ताच्या तकलेतली याद कोणेतरी पुसल्याभशेन... पाटी कोरी जाल्याभशेन. मागीर आपल्या पुतांची नांवाय याद जायना म्हण तो व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलो.



# आदिवास

सांखेत्री गांवचो डांबरी रस्तो सोडून तो आडवाटेन शेपटी तुटसर धांवपाक लागलो. तो धांपेतालो तरी जिवाच्या आकांतान पावलां उखलतालो. ताच्या फाटल्यान बोवाळ ''धरा रे ताका. मारात.''

''गुणें मारात. फातरान चेंचायात.''

पंदरा–सोळा लोकांचो जोमो ताच्या फाटल्यान रानसुण्याभाशेन लागलेलो. तोय किंळांच्यो मारीत पळटालो. झाडांझिलीतल्यान धांवतालो. तो खर्शेलो. ताचे पांय उखलना जाले. तसो तो मात्सो थांबलो. ताचें हड्डें वयर सकयल जातालें. ताणे नाकातोंडातल्यान श्वास घेवपाक सुरू केलें. आनी इतल्यान सपाट आनी उक्त्या सरयावयल्यान कांय जाण दांडे घेवन ताचे वटेन येता तें ताणे पळयलें. भंयान ताची वाचा धरल्यावरी जाली. ताणे नेट दिवन मेकळ्या सरयाचें दुरीग हुपलें आनी गच्च रानावटेन धांव मारली.

धांवता धांवता नजो जावन तो जमनीर शेवटलो. ताच्या स्वासउस्वासाच्या आवाजाफुडें ताका आनीक कोणाचोच आवाज येनासलो. तो उठून बसलो. ताच्या पायाचें रबरी जोतें केन्नाच सुटून शेणून गेल्लें. पांयाक कांटे तोपल्यात, आपटून घाय जाल्यात ताचे ताका धंग नासलें.

सावदांक धरपाक रान उठयता तसो जमावाचो व्हडल्यान बोबाळ येनाफुडें तो आबूज जावन हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलो. कोण तरी म्हणपाक लागलो. ''हेच वटेन तो गेला आसतलो.'' ''धरून ताका उजो लांवया.'' आनीक एक आवाज. तसो तो पाडकावरी गोंदळ्ळो. आपलो खेडेगांव रानदोंगरेची दिका सोडून भलतेचकडे गेलो. तो धेंगाड्या दोंगरावटेन रानांत झाडांझिली मदल्यान धांवपाक लागलो. फुडे तो अर्दवरा वयर दोंगर चडटालो.

दोंगराचें पालसाण चडटा म्हणसर ताच्या पांयांनी गुळे आयले. ताळो सुकलो. भयंकर तान लागली. श्वासान ताचे हड्डें फुटपाकडे पावलें. ताच्या प्राणाक प्राणवायू जाय आसलो. तो स्वासाखातीर थांबलो. काऱ्याच्या झाडाच्या आडसाक रावलो. ताका काऱ्यावयल्या भुतावळीचो भंय दिसलोना पूण स्वासउस्वासाचो आवाज कोणाक येत म्हण ताच्या आंगार कांटो आयलो. पालसणा सकयल त्या जमावाचो आवाज ताका आयकूंक येतालो. कोण कुंयो घालताले तर कोण गाळी घालताले. कोण ताका फोंडात पुरून

वयर फातर दाळूंया म्हणटाले.

तो आतां तांची सुलूस घेवंक लागलो. ते उलयता ते आयकूंक येताले. ते चलताना सुक्या पानांचो बोडयांचो कर्रकर्र आवज येतालो. ताका येवजून येवंक लागलें, जें इतलो वगत येवकूंच नासलें. ''म्हजो किदें गुन्याव म्हूण हे म्हजे फाटल्यान लागल्यात? म्हजो जीव घेवपाक कित्याक खुबदळल्यात?'' ...''हांव भिसो व्होळकार. बावीस वर्सांचो तरनाटो. हेरांपरस बारीक आनी मोटवो. वोंठावयल्यो मिश्यो ल्हंवूच कशी दिसता. हां, असल्या रानांत भोवपाची म्हाकां संवंय ल्हानपणासावन. म्हजे जाण्टेले पयलीं भोंवताले रानांत. म्होंव, मेण काडपाक, रानफळां पुंजावपाक. रानांतूच रावताले खोपट्यो बांदून. रानांतच जगताले. गांवांत वचपाक पयली भियेताले थर्त. आतां म्हजे बदला कोण जाण्टोबीन आसलो तर तो ह्या जमावाच्या तावडीत सांपडपाचो. तो अशे चित्ता थंय आसा ताका सांखेत्री गांवांत घडलेली घडणूक ताच्या दोळ्यांसामखार उबी जाली.

... तांच्या ट्रायबल जमातीच्या फुडाऱ्यान गेल्या म्हयन्यांत आंदोलनाची शिटकावणी दिल्ली. रस्ता रोको खातीर ते आयज सांखेत्री गांवांत पावल्ले. हो गांव आतां ल्हानशें शार जातालें. कांय लोक आपल्या दोंगरी वाठारांतल्यान चलत चलत तर कोण बसिनी, गाडयांनी आयल्ले.

सुमार चार हजार आदिवासी लोकांचो जमाव सांखेत्रीच्या चार रस्त्यांचेर जमलो. तांतून रांपलेल्या दादल्या वांगडा दगदग भोगलेली बायलां आसलीं. कांय जाणानी आपल्या ल्हान भुरग्यांक हांडीर मारून हाडलेली. तांची मुस्तायकी मातयेत लोळलेली. आदीवासी लोकांनी चाररस्ते भरले. बरेच जाण रस्त्यार मदीं बसकण मारून बसले. बरेच जाण खर वोतांत उबे रावले. तशी चाररस्त्यावयल्यान वचपी येरादारी बंद जाली. राजधानयेवशीन वचपी हायवे दोनूय वटांनी बंद जालो. थळाव्या गांवांनी वचपीय रस्ते बंद जाले. बसी, ट्रक अश्यो सगल्यो गाडयो आडावन उरल्यो. मदी रस्त्यार ट्रायबल जमातीचे लोक तांका लेखून तांचो चाळीस वर्सांचो फुडारी उमेश उलोवपाक लागलो, ''आमी बारीक लोक हे भूंयेचे पूत. आमी कितलीशीच वर्सां अन्याय सोशीत आसात. ह्या राज्याच्या सरकारान आमकां रानांतले जे हक्क आसात ते दिवना. वयल्यान आमच्या रानांत मिनाखणी घालतात आनी आमकांच हे भुंयेवयल्यान धांवडावन घालतात. आमी रानांतल्या फळांफुलांचेर जगताले तेंय थळाव्या सरकाराच्या रानखात्याक नसाय

जालां. आमकां रानांतलीं फळां, कंदमुळां पुंजावपाक मेळना. कुमेरी शेतां कसपाक मेळना. रानांतल्या आमकां आदिवासीक जगपाक म्हूण कांय हक्क आसात ते आमकां मेळपाक जाय. तशेच रानांतल्या मिनाखणीतल्यान जे उत्पन्न येता तांतुंतलो कांय वांटो आमच्या पुनर्वसनाखातीर मोडपाक जाय. आमी फाटल्या काळासावन खूब त्रास काडल्यात..... आमचे पूर्वज सांगताले आमी भूमिपुत्र गांवांनी रावताले. पूण थंय येयल्या नव्या लोकांनी आमकां गांवांतसून धांवडायले. ताणी आमचो जागो बळकायलो. मागीर आमकां रानावनांत आसरो घेवचो पडलो. ते आमकां रानावनांतय जगपाक दिनांत. ताणी आमच्या रानाचेर आनी आमच्या जिविताचेरय हावळ हाडल्या. आमकां जगपाक खुस्तार केलां. आमचेर जातल्या अत्याचाराचेर आतां आमी वोगी रावचेनात.'' ''हय हय हय'' असो आवाज जालो आनी सगल्या लोकांचेर शेंसार मारल्याभाशेन जालें. तरनाट्या भिसो व्होळकारान सगल्या वांगडा आपलो हात वयर काडलो.

मागीर भिश्याक तेकून बसलेलो वेणूनाथ उलोवपाक उठलो. भिश्याभाशेन तोय रानदोंगरेचो. तांची वस्ती रानांत आनी दोंगरार आसली म्हूण रानदोंगरी. दोगूय एकमेकाचे ल्हापणासावन इश्ट. ते ल्हानपणासावन रानावनांत भोवताले. रानांतलो जळोव एकठांय करताले. रानफळां पुंजायताले. वेणूनाथ हायरसेकंडरीत शिकपाक वयता म्हण भिसोय ताच्या वांगडा शिकपाक गेलो. लांब पँटी कुल्यार चडोवन सांखेत्रीच्या हायरसेकंडरीत शिकल्या उपरान्त दोन वर्सांनी वेणूनाथान आदिवासी सहकारी सोसायटी सांखेत्रीत स्थापन केली. सोसायटीचो तो अध्यक्ष जालो. भिसो सोसायटीचो वांगडी. सांखेत्रीत सोसायटीची नवी इमारत बांदून आदिवासी समाजाचे पांय परत त्या गांवांत रोयल्ले. सांखेत्रीच्या आशिकुशीकच्या दोंगरी वाठारांतल्यो काजुबियो सोसायटी विकत घेताली. आदिवासी लोक मणामणानी आपल्यो काजूबियो विकपाक हाडटाले. रिठे, रानफळां, वखदी वनस्पती हाडून थंय विकताले. तांकां पैशे मेळपाक लागले. मागीर दरएकलो आदिवासी सहकारी सोसायटीचो वांगडी जालो. आदिवासी सहकारी सोसायटीक लागून आपूण वयर सरतां असो आदिवासी लोकांचो विश्वास आसलो. काश्टीच्या बदला आंगभर पँट आनी शर्ट असो भेस तांचो जालो. बायलांचो देंठली भेस बदल्लो. ती आंगभर णव वारी कापड वा स वारी साडी आनी वयल्यान पोलको न्हेसपाक लागलीं.

वेणूनाथ उलोवपाक येता म्हण सगल्यांनी ताळयो मारल्यो. सोसायटीचो अध्यक्ष वेणूनाथ भार येयल्यावरी उलोवपाक लागलो. ''म्हज्या भावानो आनी भयणीनो. आमी आमच्या हिताचे राखणेखातीर हांगा एकठांय आयल्यात. आयचे घडयेक आमच्या जमातीतल्या लोकांच्या एकवटाची चड गरज आसा. नाजाल्यार आमी शेणतले. आदल्या काळार आमी हांगा थंय शिंपडलेले म्हूण आमकां अन्याय अत्याचार सोसचो पडलो. आमी आतां एकठांय आयल्यांत. आमी अचकूल जरी दिसले तरी एकठांय येवन घट जाल्यांत. आमचे म्हण्णे हेर लोकांक आनी सरकाराक पटोवन दिवंया. ते आयकतले अशें आमी मानूया.'' फुडें तो गाराणे घातल्यावरी उंच आवाजान सांगपाक लागलो. ''.... सरकारा, रानांत रावपी आमकां आदीवासीक रानांत रावन जगपाचो हक्क दी. लोकशायेत फावता ते राजकीय हक्क आमकां दी. आमकां मानान जगपाक दी. आनी बरें कर.'' 'हय सायबा' म्हणचें तशें सगळ्यांनी नेटान मोठ्या आवाजान 'हय हय' म्हणलें.

तो उलयता आसतानाच त्या वाठारांत पुलिशेचो सायरन बाजलो आनी पुलिशेच्यो जिपी आयल्यो. सादारण दोनशें पुलिसानी चाररस्त्यावयल्या व्हडल्या जमावाक एके वटेन इल्लो रेवाडो घातलो. तांचेकडे वेताचे दांडे आसले तर कांय थोड्या जाणाकडे बंदुको आसल्यो. दोन पुलीस इन्सेक्टरांकडे रायफलां. तांच्या वांगडा येयल्ल्या जिल्हाधिकाऱ्यान पळयलें; फक्त दोनशे पुलीस आसात आनी जमाव पांच हजार लोकांचो. रस्तारोकोचो बंद मोडून काडपाक सहज जांवचेना म्हूण फोनावयल्यान ताणे मंत्र्याक कळयलें. मागीर तो फोनार फुडें उलोवपाक लागलो, ''सर, हे जे लोक आसात ते दोंगरी आनी रानांतल्या वाठारांतले. थळाव्या शारांतले लोक ना. तशेच ह्या जमलेल्या आदिवासी लोकांकडल्यान तोडमोड जायत म्हूण थळावे लोक भियेल्यात. तेय आपल्या घराभायर सरपाक पळयतात. थळाव्या आनी ह्या आदीवासी लोकांमदी बरेपण ना. वयल्यान...''

''म्हाका खबर आसा तें. दुस्मानकाय पोयली साकून आहाय तांची. आरे हांवूच मुरे ताचो आमदार आनी मिनिस्टर. हांव चोयता. थळावो लोक म्हुगेलो. जाणा मुरे. हे जे बंद करतात ते आमच्या माथ्यार बसपाक सोदतात. येत्या इलेसांवांत तांका राखीव सीट जाय खंय. तशे जाल्यार आमच्या हातांतले सगलें वतलें. जाणा मुरे, ट्रायबलांक असो बंद परतून करपाक कापाजदाद जावंक जायना. कळ्ळे मुरे.''

''हां, सर.'' अशें सांगून जिल्हाधिकाऱ्यान मोबायल फोन बंद केलो. मागीर फुडें किदें करचें तें तो येवजुपाक लागलो. लाठीचार्ज करीत तर दोनशें पुलीसांक हे लोक आटापा येवचेना हें ताणे ताडलें. तो संदीची वाट पळोवपाक लागलो.

दनपार जावन गेली. तीन वरां जाली. तरी आदीवासी लोक वोतांत डांबरी रस्त्यार बसकण मारून आसले. तापलेलो रस्तो तांच्या जिवार उठल्याभाशेन जाल्लो. आदिवासी वोतांत भुकेन आनी तानेन तळतळटाले पूण ताणी निश्वेव सोडूं नासलो. पांच वरां जालीं तशे तांच्या फुडाऱ्यान लावडस्पिकरावयल्यान जाहीर केलें. ''आमचो बंद जैतीवंत जाला. आमी सरकाराक दाखोवन दिलें. आमी आतां आमच्या दोंगरी वाठारांत... गांवघरा वचूंया.''

जमाव हाल्लो. लोक परत आपल्या वाठारांत वचपाक लागले. लोक तानेल्ले, भुकेल्ले, घरा वचपाक ताकां घाई जाल्ली. कोण पायांनी चलत तर कोण गाडयांनी वचपाक लागले. ट्रायबल मनशांनी भरलेलो वाठार तांची जात्रा उलगल्याभाशेन रितो जावपाक लागलो.

निमाणी दादले बायलां मेळून दोनशे अडेचशे ट्रायबल लोक चाररस्त्याच्या आशिकुशीन पातळलेले दिसपाक लागले. तेय वचपाचेच तयारेत. इतल्यान जिल्हाधिकाऱ्यान लाठीचार्जाची ऑर्डर दिली. अचकीत पुलिसांच्या दाण्याचो मार पडटा म्हूण भियेवन ते लोक वाट मेळटा थंयसून धांवपाक लागले. लाठीचार्ज जाता ही खबर सोसायटीच्या इमारतीकडे गेल्ल्या वेणूनाथाक दिवपाक भिसो धांवत गेलो. इतल्यान ताणे पळयलें पुलिसांची एक तुकडी चाल करून तांचे वशीन येताली. ताणी वेणूनाथाक दोन लाठयो मारल्यो. तो कळवळलो. लाठ्यांच्या मारान पांय जखमी जाल्ल्यान ताका धांवपाक जमना जालें. तरी वेणूनाथ सोसायटीचे दिकेन लंगडत धांवपाक लागलो. भिश्याच्या फाटीर दोन लाठयो बसल्यो, तसो तोय किंवाटून वेणूनाथ गेल्ले ते वटेन धांवलो. ताणे फुडें आकांताचें दृश्य पळयलें. सोसायटीचे इमारतीक एके कुशीक उजो पेटला. सोसायटीच्या काजू गुदावांकूय उजो लायला. सांखेत्री गांवच्या लोकांचो जमाव तांचे वशीन येता.... एक वटेन हो जमाव तर दुसरे वटेन पुलीस पळोवन भिश्याचो आवरोच उडलो.... पांय ओडत धांवपी वेणूनाथाक त्या जमावान घट्ट धरला. ताका ते खोटांनी, दांड्यांनी मारतात. तो अर्दमेलो जालो तसो त्या थळाव्या

लोकांनी ताका उखलून सोसायटीकडच्या उज्यांत उडयलो. हें पळयता थंय आसा, त्या जमावांतले लोक भिश्याच्या फाटीक लागले. तो धांवत सुटलो आकांतान .......

वेणूनाथाक.... आपल्या इश्टाक ताणी जितो लासून मारलो. आतां म्हजेरय पाळी अश्या विचारान भिसो कांचवेलो आनी रानांत बसलेकडे सट्ट करून उठलो. एका वरा वयर तो आपल्या मर्णापासून धांव मारतालो. तिनसांज जायत येयल्ली. झाडांवेलींचें रान आसलेल्यान काळोख चड जाल्लो. मदीच कोणेतरी कुकारी घातली आनी ताणे आंग काडलें. ताका प्रस्न पडलो... मनशांची कांय सुलूस ना मागीर ही कुकारी कोणाची? वाठारांतल्या देवचाराची? तो मात्सो स्वास रोखून रावलो. मागीर कुकारींचेर कुकारी ताका आयकूक येवपाक लागल्यो. त्या थळाव्या जमावांतले मनीस धेंगाडो दोंगर चडून ताचे लागी पावत आयल्ले. तिनसांज जाल्ल्यान ते सकयल थांबले. पंगडातलो एक व्हडलो दादलो मोबायल फोनाचेर उलोवपाक लागलो, ''आमी धेंगाड्या दोंगरार आसात. मदी रानांत पावल्यात. आमी ताका हांगासल्ल्या झाडांनी झिलीनी सोदतात. सोसायटीच्या मनशाक आमी मारलां तें ताणे पळयलां. ताणे गवाय दिली जाल्यार? तो आजून मेळूना. आतां काळोख जाता. उजवाडाक बॅटरी दिवे, दिवट्यो, चुडी बीन जाय. जमल्यार कासाचे दिवे एक दोन धाडून दी.' त्या थळाव्या जमावाचें उलोवप ताच्या कानार पडटाले आनी ताच्या काळजाची धडधड वाडटाली. जमावांतले मनीस मागीर वोगीच रावले आनी मनीस खायऱ्या जनावराभशेन मांडून बसले.

काळोख जाल्लो. उजवाडाबगर पयशिल्ल्यान मनशाक मनीस दिसूं शकनासलो. रानांतल्या कोल्यानी कुयो घालपाक सुरवात केली. तशे गांवांतले कुत्रे भोंकपाक लागले. ताका आतां रानांतल्या बिबट्या वागूंटाचोबीन भंय दिसपाक लागलो. इतल्यान ताणे दोंगराच्या पालसणाकडे पळयलें. काळखांत थंय बॅटरी दिव्यांचो आनी दिवट्यांचो उजवाड हालताना दिसतालो. मदी कासाच्या दिव्याचोय झोत पडटालो. चलत येवपी ते कांय लोक पयल्या जमावाच्या लोकांक येवन मेळ्ळे तसो व्हडल्यान बोबाळ जालो. ''पळोवया, आतां कसो सुट्टा तो आमच्या चपक्यांतल्यान!'' कोणेतरी म्हणलें. मदी रान उठोवंक आयल्याभाशेन बोबाळ, कुंकारी आनी शिळोण्यो. वानर शादूर जावन कॅक कॅक आवाज करपाक लागले. मागीर भियेवन खांदयांचेर उडयो मारपाक लागले. मदी रानसुण्याचोय आवाज. ताका दिसलें आता ते लोक

ताची शिकार करपाक आयल्यात. काळखांत पांय ना वाजयतां तो लागच्या झाडाकडे आयलो. तें झाड घोटणीचें आसलें आनी वयर इल्लोसो विस्तार. मागीर पावल ना वाजयतां सुमार पन्नास साठ पावलां चल्लो. थंयच्या खरखरीत खोडाचेर ताणे हात भोंवडायलो. तें माट्टीचें झाड बरेंच उंच. खांदयोय वयर वाडलेल्यो. पानांनी आनी खांदयांनी गच्च. तो त्या घट्ट काळ्या झाडार पोट तेकोवन आनी पांय घट्ट धरून चडपाक लागलो. सकयल्यो दोन तीन खांदयो सोडून तो वयल्या खांदयेच्या केकल्यार वनमनीस कसो बसलो. पांय वयर ओडून घेतले. खांदयेक वेंग मारून लिपून बसलो.

तो जमाव लागी पावलो तसो तांचो आवाज स्पश्ट आयकोपाक येतालो. एकलो म्हणपाक लागलो. ''तो मेळत तर हे चुडीचो उजो लावन लासून मारूंया.'' तें आयकून ताच्या आंगार कांटो उबो जालो. फाटल्या दिसांनी केन्नाय रानदोंगरीवयले गरीब लोक सांखेत्री गांवांत येवन भाटकाराच्या भाटांतले नाल्ल चोरून व्हरताले. चोरताना ते हाताक सांपडले तर ताका येथीश्ट पेट पडटालो, तर केन्ना माडाक बांदून घालून तांका जिवे लासताले. अश्यो घडणूको घडल्यात हें तो जाणा आसलो. कोण हे विशी पुलिसेक बीन कॅम्लेंट दियनासलो. आतां आपल्याक ते अशेच लासतले अशें दिसपाक लागलें. झाडाक माणकी कसो दसून रावलो.

बॅटरीच्या दिव्यांनी आनी शिकारीच्या दिव्यांनी ते रानात सोदीत घोटणीच्या झाडामुळां पावले तसो तो माट्टीच्या झाडाच्या तेंगशेमेरेन चडलो. मदीच एक जनावर धांवून गेलें. मागीर ताणी घोटणीच्या झाडार कासाच्या दिव्याचो प्रकाश झोत मारलो. तांका कांय दिसलेंना. मात ताका आतां चडच थरथरो भल्लो. तेंगशी लेगीत हालपाक लागली. मागीर ताणे चिंतले. आपल्या उगत्या दोळ्यार उजवाडाचो झोत पडल्यार दोळे चकचकतले आनी तांका आपूण हांगा लिपून बसलां हें कळटलें. ताणे आपले दोळे पातकड्यो सकयल वोडून घेवन धांपले. तशेच तांचेर एक हात दवरलो. आता ताचे कान चड उगते जाले. तो फकत आयकतालो. त्या जमावाचो आवाज वाघरें कसो ताच्या कानांनी पडटालो. ह्या आवाजान आपूण हातपांय सुटून माकडावरी सकयल पडटलों आनी वाघ कश्या ह्या जमावाच्या तावडीत सांपडटलों. ते आपल्याक फाफसून मारतले.

''त्या जमावांतलो एक दांडगो मनीस म्हणपाक लागलो, ''आमी क्षत्रीय मरे. आमी खेत्र करपाक भियेना. तो सुटल्यार पुलिसांक आमची नांवां

सांगतलो. ताका सोडप ना.''

''हय हय'' सगळे म्हणपाक लागले.

''जाणा मरे आमचे पूर्वज सांगताले, ह्या लोकांक आमच्या पूर्वजांनी धांवडावन घातिल्ले तेन्ना तांचे वस्तीक उजो घातिल्लो खंय. खूब काळासावन ते आमचे दुस्मान. ते मात नागसर्पाभाशेन दावो धरतात. नागसर्प जांव, मणेर जांव. तांका दाण्यान धोपटूपाचें अशे म्हणून तो हाऽ हाऽ करून पिसो कसो हांसलो.

भिश्याक रानदोंगरेवयल्या आख्यायिकेची याद जाली. तो आयजमेरेन ती एक घडयल्ली काणी म्हण समजतालो. ती काणी ताच्या बापायन ताका सांगलेली. बापायक ताच्या आज्यान. आनी आज्याक ताच्या पणज्यान. पणज्याक शेणज्यान. हे काणयेक ते पूर्वजाली काणी म्हणटाले. गांवदोंगरेचे लोक आदल्या काळार सांखेत्री गांवांत रावताले. थंय लागी दुसरे लोक येवन रावपाक लागले. मागीर दोगांय मदीं किजिलां जावपाक लागली. आनी एक दीस दोन जमातीमदी मारामारी जावन सांखेत्री गांवच्या मुळाव्यां लोकांक नव्या आयल्ल्या लोकांनी धांवडावन घातले. ते मागीर दोंगरी वाठारांत रावपाक गेले. तेन्ना जाल्ले मारामारीत तांचो मुखेल पुरीस मेल्लो. ताचे प्रेत व्हरून ताणी दोंगरी वाठारांत पुरून वयल्यान फातर दवरले. उपरान्त त्या सुवातेर कुपातर फातराचो खांबो करून पुरलो. त्या खांब्याक ते सगळे विराचो खांबो म्हण्टाले. तो विराचो खांबो आजून रानदोंगरेर आसा.....

तेन्ना साकूनचो दुस्मानपणाचो उजो आजून तांच्या मदी आसलो... आतां आपूण तांच्या हातांत सांपडत तर तीच आदली काणी नव्यान घडटली म्हण ताका भारी दूःख जावपाक लागलें, आनी किळस येवपाक लागली.

इतल्यान एकल्याच्या हातांतली पेटती दिवटी पालवली. ते बराबर तो म्हणपाक लागले,

''आतां वचूं या. तो कांय मेळना....''

''आंऽ सोदूया ताका'' दुसरो उलयलो.

''सांखेत्रीत आनीक किदें घडलां तें आमकां खबर ना.'' –तिसरो

''गांवांतल्यांचो हुस्को.'' – चवथो

''खांवदी ताका वागान!'' – पांचवो

अशें म्हणल्या बराबर कांय जाण दोंगर देवपाक लागले. लायटीचे दिवे परते हारीन गांवाकडे वचपाक लागले.

ताणे मागीर सांखेत्री गांवावशीन नदर मारली. काळखांतल्यान पयसशिल्ली आदिवासी सोसायटीची इमारत आजून जळटा ती ताका दिसताली.

तो जमाव गांवांत पावला आसतलो. रानांत सगलो काळोखूच काळोख. तशेच आदी काळासाकूनचो आदीभंय विखारी घोणससर्पावरी मांडलेलो. झाडार लिपला भंय ताणे आपले आंवुळलेले आंग पयस केलें. आतां हांगासून आपले रानदोंगरेर कसो वच्चो हो प्रस्न ताका पडलो. रानदोंगरेर ताची वस्ती. ती चारपांच किलोमीटर तरी पयस आसली. फातोडेर वा सकाळी सकाळी ताका सोदीत ते परत हांगा येत जाल्यार? ताच्या पोटांत गुळो! ताणे झाडावयल्यान सकयल देवपाचें येविजलें. पूण पांय सकयल देंवना जाले. ताका दिसलें..... आपले पुर्वज गांवांतल्यान धांवडायतकूच दोंगरार पळून गेल्ले, ते सकयल गांवांत परतून आयले नात. थंयच रानदोंगरेर रावले. थंयच वस्ती केली. तसोच आपूण हांगासून सकयल देवचोच न्हय.



# रिनोव्हेशन

सुब्राय आपल्या हॉटेलाच्या गल्ल्यार बसलेलो. सकाळच्या धा वरां उपरान्त गिरायक उणे आसतालें. दोग गिरायक भाजीपाव खाताले. ताणी च्याचीय ऑर्डर दिल्ली. इतल्यान ताचो पूत अमीत हॉटेलांत भितर सरलो. तो बऱ्याच तेपान थंय येतालो. देड वर्स तो पयसलेल्या शारांत खाजगी कंपनीत नोकरी करतालो. पगार कमी आसलेल्यान ताणे ती नोकरी सोडलेली. फाटल्या म्हयन्यांत तो परत घरा आयल्लो. तो बेकार आसलो म्हूण राती सुब्रायान ताका हॉटेलांत येवपाक सांगलें.

अमीताक आयल्लो पळोवन सुब्रायाक खोस जाली. मानादीक मनशाक येवकार दिवपाक उबो रावचो तसो तो गल्ल्यावयल्यान उठलो. ताणी एकामेकांक पळयलें. दोगांयच्या दोळ्यांत एक उमेद भरलेली. अमीताचे दोळे किदेंतरी सोदल्याभशेन. ताचे दोळे थंयच्या वस्तूचेर भोवपाक लागले. दोगूच गिरायक आसा ते पळोवन तो म्हणपाक लागलो, ''बाबा, गिरायक कमी कांय किदें?'' बापायन हांसत सांगलें, ''गिरायक बरें आसता. दिसभर रावन पळय. यो बस हांगा.'' अशें सांगून तो गल्ल्यावयल्यान कुशीक सरलो. अमीत भुरगेपणांत केन्ना केन्ना हॉटेलांत आयल्यार बापूय ताका गल्ल्यार बसयतालो. गिरायकाचे पयशे तो हिशोबान घेतालो. तेन्ना बापायक आपल्या एकल्या अपूरबायेच्या पुताचें कवतूक दिसतालें. पूण आयज फाटलो काळ वचून नवो काळ आयल्लो. पूत पंचवीस वर्सांचो तरनाटो जाल्लो.

बापायन सांगलें म्हूण तो गल्ल्यार बसलो. च्या पियेवन ते दोगूय गिरायक गल्ल्याकडे आयले. तशें थंयच्या भुरगेश्या वेटरान मेज पुसतां पुसतां बोटांनी हिशेब करून सांगलें, ''दोन इसम चौतीस रुपया.'' शंबराची नोट घेवन उरलेले पयशे परत दितना, गल्ल्यांतली रोख रक्कम पळोवन ताका कळ्ळें, सकाळी गिरायक व्हडलें जांवना.

पात्रांवाचो पूत आयला आनी गल्ल्याचेर बसला ही खबर रांदची कुडीत पावली. दनपारचें जेवण रांदपी विमलान आपल्या कापडाचो पदर खोयलो. मागीर कमराक रेवडायल्लो तुवालो सारको करीत दारांत आयलें. ताचें वांगडी विठें आपले हात पुशीत ताचे लागी आयलें. दोगूय जणा धाकट्या पात्रावांक पळोवपाक लागलीं. विमलान फुतफुतून विठ्याक म्हणलें, ''भुरगो आसताना

तो बापाय भाशेन दिसतालो. आतां तसो दिसना. मात्सो बदलला.''

सुब्राय पात्रांव रांदचे कुडीत येता तें पळोवन ती दोगांय कामाक लागलीं. दनपारचें जेवण मोट्या रांदनीचेर शिजतालें. विमल त्या चुलींत भोऱ्यांतली लाकडां काडून सारपाक लागली. तसो उजो बरो पेटलो. धाकटो पात्रांव बापाय फाटल्यान थंय येवन हें सगलें पळयतालो. रात्रीकूड धुंवरान काळशी जाल्ली. कातपाचो, रांदपाचो थाट आदलोच आसलो.

सुब्राय हें हॉटेल पस्तीस वर्सांसाकून चलयतालो. ताची साठ वर्सांची पिराय ताच्या तोंडावयल्यान कळटाली. ताणे आपल्या कश्टान हॉटेल उभारलेलें. तेन्नासावन तो सायकलीन भोवतालो. तो आंगान मोटोसो आनी फोफोसो. सायकली बगर ताचे जाय नासलें. सुर्वेक जाय ते सामान सायकलीन हाडटालो. हाली ती पोन्नी जाल्ली. आनी खरखरताली.

धंदो चलतालो तशे पयशे लक्ष्मीच्या रुपान घोळटाले. पूण तसो फायदो नासलो. तो आपली हॉफ पँट 'कलसांव' घालूनच भोवतालो. केन्नाय चुकून पांच वर्सांनी लांब पँट शिवल्या आसतली.

फाटल्या मदल्या काळांत हॉटेल बरें चलतालें. 'लक्ष्मी हॉटेल' हो हॉटेलाच्या मुखा वयलो ऑयल पेंटान रंगयल्लो बोर्ड पळोवन लोक येताले. वझरगांवांत वस्ती वाडटाली. गांवा लागी दोन फॅक्टऱ्यो सुरू जाल्यो आनी वझरगांवचे धाकले शार जावपाक लागलें. तशें थंय हेर पसरे आनी हॉटेलांय उगडलीं. मागीर मात् ताचे हॉटेल सादारण चलतालें. हाली तर फुडल्या बोर्डाचो रंग गेल्लो आनी ताचे वयलें 'लक्ष्मी हॉटेल' नांव अस्पश्ट दिसतालें.

सुब्रायाच्या पुतान थंय बारीक निरखीलें. मागीर तो गल्ल्याच्या खुर्चेर बसपाक आयलो. ह्या वेळा बसच्या पयली ताणे ताचेवयलो तुवालो फाफडून परत घातलो. फेर्र मारून ताणे नवी लांब पँट घातलेली आनी ताचेर काळ्या रंगाचे नवे तरेचें टीशर्ट पेहरलेलें. तातूंत गोरें रंगाचे ताचे व्यक्तित्व अदीक उजळ दिसतालें. तो थंय बसता थंय आसा, ताणे पळयलें फुडल्याच दारांतल्यान एक जाण्टी बायल माथ्यार लाकडाभोरो घेयन भितर सरल्या... ती भितर येवन मागील दाराकडच्या कुडीकडे गेली आनी थंय दवरलेल्या दोन लाकडांभोऱ्यांक तेकून माथ्यावयलो भोरो दवरलो. ती आपल्या कपलाचो घाम चुंबळीच्या तुवाल्यान पुसतां पुसतां सुब्रायान तिका सांगलें, ''आगो भागी, ह्या दिसांनी सद्दां लाकडां भोरे हाड. सोपत येयल्या तें.'' तिणे हां म्हणलें, तशें ताणे वेटराक आर्डर सोडली ''आरे तिका पाव आनी चाव दी.''

ती च्या घेवन लाकडाच्या भोऱ्याचे पयशे व्हरपाक ताचे सरेन आयली. तो चडसो दर फावटी तिणे सांगलेले पयशे दितालो. इतलो तेप जालो तरी ताणे तिचेकडे केन्नाच वांटपण करू नासलें. वयल्यान तिका पाव आनी च्या फुकट. ती पयशे घेवन गेली. तशे ताका याद आयली... फाटली तेत्तीस वर्सां पयलीची. तेन्ना सुब्रायाची आवय हेच बायलेभाशेन पन्नास वर्सांची आसूंये. तिचे भशेन ती तांबड्या पिंजरेचो कुकूम आडवो वळ कशी रेखताली. कास मारून णव वारी कापड न्हेसताली. हॉटेल धंद्याचे सुरवातीक आवयन दोन वर्सां रानांतल्यान लाकडाचे भोरे हाडलेले. धंद्याक गरजेचो आदार जाल्लो. तिणे माथ्यार मारून हाडलेल्या लाकडाच्या उज्यार बरेच जिन्नस शिजलेले. मागीर तिचेकडे ते भोरे व्हांवोक जमना जालें. ताणेच तिका लाकडां हाडूं नाका म्हूण सांगलें... उपरान्त हीच बायल तिच्या तरनाटेपणा साकून आनी मागीर ती लग्न जावनय लाकडाचे भोरे घालताली. पोटाखातीर ती तीन मैल चलून येताली... तिचे घर रानालागच्या खेड्यांत. जाण्टेपणांत चार मोवळ्यो वांगडा हाडपाक जमना म्हण ती हाली दोनच मोवळ्यांचो एक लाकडा भोरो वालीनी घट बांदून हाडटाली. उपरान्त लाकडां उणी पडटात आनी गरज म्हूण ताणे वांगडा केरोसीनचो व्हडलो स्टोव्ह वापरपाक सुरवात केली. ताकाय स वर्सांवयर जावन गेल्लीं.

दुसरे दीस अमीत रूंद टायरांचे आपले नवे मोटारसायकली वयल्यान होटेलार आयलो. थंय उबो रावन चिंतपाक लागलो. गिरायकांक वयार करतकूच सुब्रायान पुताक विचारलें, ''अमीत, वोगीसो किद्याक रे? किदें तें सांग.'' आपणे येवजिल्ले कशें सांगचें हेंच तो चित्तालो. आतां, ताका सांगपाक आयतीच संद मेळ्ळी. ''बाबा आमी गॅसीचेर रांदपाक सुरवात करूंक जाय. गॅसीचे सिलिंडर, शेगड्यो आतां मेळटात.''

''हय, खबर आसा. पूण ती गॅस खूब म्हारग. आमच्या धंद्याक परवडपाची ना ती.''

''तशी म्हारग... न्हय ती. लाकडांनी वयल्यान धुंवोर जाता. घसीन काळी जाल्लीं आयदणां धुंवपाक मनीस लागता. काम वाडटा आनी त्रासय. खरें म्हणल्यार आमी गॅसीच्यो दोन शेगड्यो हाडून बसोवन घेवपाक जाय. त्यो येद्यो व्हडल्यो मातयेच्यो चुली आसात त्यो काडून उडोवंक जाय.'' चुली काडून उडोवंक जाय हें आयकून सुब्रायाक धक्को बसलो. त्या चुलींच्या खुरांचेर तर ताणे हें होटेल इतलो तेप चलयल्लें. ताणे गंभीरपणान विचारले,

'' चुली काडच्यो पडटल्यो? आनी तांची गरज पडल्यार?'' ''तशी गरज पडची ना. वयल्यान धुंवोर, घस, गोबोर जावचें ना. निवळ उरतलें. हांव रावतालो त्या व्हडल्या शारांत हांवें पळयलां.'' अमीताच्या ह्या सांगण्यान ताचे पारंपारीक विचार बदल्ले नात. ताणे परत विचारलें, ''...पूण चुली काडुंकच जाय अशें खंय असा? आसूं त्यो.'' ''तशें जाल्यार हांव आनीक हांगा कित्याक येंव. हांव येना.'' पुतान हट्टान सांगतकूच तो कुळकुळ्ळो. मारतें घेवन ताणे सांगलें, ''तशें न्हय पुता. तूं यो. तुका जाय तें करुं या. बापायकडल्यान आश्वस्थ जाल्या बराबर ताणे म्हणलें, ''आमकां हें हॉटेल नवेशें करपाक जाय. जमता जाल्यार मेजां-खुच्यो नव्या डिजायनाच्यो करून घेवपाक जाय. हो गल्लो बरगेला. वण्टीचो रंग विटला. सगलें नवें पॉश केल्यार गिरायक वाडटलें. रीण लेगीत काडल्यार रोकडेंच फारीक जातलें.''

जाण्टेलो मागीर वोगीच रावन आयकोपाक लागलो. ताकाय दिसतालें होटेल बरें, नवेशें करूंक जाय. ... तो सांगता तें खरें. मागीर ताणे हां म्हणलें.

नव्या रगताक उमेद आनी बळ आसतां. ताच्या पुतान सात दिसांभितर होटेल रिनोव्हेट करपाक बँकेचें रीण घेतलें. बापायकडली शिल्लक रक्कम कामाक मेळटली आसली. होटेल सादारण म्हयनोभर बंद दवरून दुरुस्तीचें आनी नवें मांडावळीचें काम करपाचें आसलें.

थारायल्ल्या प्रमाण अमीताच्या पसंतीची नवी मेजां, खुर्च्यो, गल्लो-कॉवटर आदी फर्निचर वर्कशॉपांत तयार जावपाक लागलें. हॉटेलाचे दार बंद दवरून भितरलें गवंडीकाम सुरू जालें. होटेल बंद आसलें तरी सुब्राय सदचे भाशेन सकाळी येतालो. रांदपी विमल, वावराडी विठें आनी भुरगो वेटर हांका सुटी दिल्ली. पूण भागी सदाच लाकडाभोरे घेवन येताली. सात-आठ दिसांनी रांदचे कुडीत भोऱ्यांचो दाळ उंच वाडलो. लाकडा-भोरे घालूं नाका म्हण तिका सांगपाक सुब्रायाच्या जिवार येतालें. आनी तें आपलो बापूय पळोवन घेतलो म्हूण पूत वोगी रावल्लो.

उपरान्त कांय दिसांनी भागी लाकडाभोरो घेवन आयल्ली. तिच्या वांगडा धा-बारा वर्सांची चली आसली. सदचेभाशेन पयशे दितना ताणे तिका विचारल्लें, ''ही कोण गो?''

''पात्रांव, ही नात. ह्या दिसांनी शाळेक सुटी न्हू.''

'' आं, तुज्या चेड्याची ती?''

''न्हू, चेडवाची धूव ती.''

तिचे नाती विशी आनीक जाणून घेवपाची ताची उमळशीक आसली पूण ताणे फुडें विचारलें ना. आयज ताका तिचे पयशे दिवपाचे आसले. किदें हिशेब उरलो आसल्यार तोय करपाचो आसलो आनी सांगपाचें आसलें... भोरें फाल्या सावन हाडू नाका म्हूण. पूण तो मोनोच कसो उल्लो. तिचेकडे ना पळयतां ताणे तिचे पयशे दिले. वयल्यान नातीखातीर किदें खावंक घे म्हूण वीस रुपयांची नोट तिचे हातीक तेकयली.

थंय आसलेलो अमीत आपल्या बापायकडे पळयतालो. ती वतकूच तो ताचेलागी येवन सांगपाक लागलो, ''बाबा, आमकां ते लाकडांभोरे नाकात. सांग तिका, हाडूं नाका म्हण.'' पुताचे आयकून तो बाबडो भुरगो कसो वोगीच रावलो. मागीर तो उलयलो, इतलो तेप ती हाडटा. तिका कसो नाका म्हणू? आनी आयज तर तिचे वांगडा तिची नात येयल्ली.''

''वोगीच कित्याक भिडमूर्वत. फाल्यां तर आमकां त्यो चुली काडपाक जाय. गॅसिचे सिलिंडर दवरपाक सुवात, शेगड्यो दवरपाक ओटो हांचे बांदकाम करपाक जाय.''

''तूं कर तुकां जाय तें. पूण म्हाकां तिका लाकडां भोरे हाडूं नाका म्हूण सांगपाक जायना. तुका जाय जाल्यार सांग.'' सुब्रायान आवाज चडोवन सांगलें. बापूय तापलो म्हूण तो वोगीच रावलो. पुताकडे वाद नाका म्हूण ताणेय तोंड धापलें. पूण मागीर राव नजो जावन उलयलो, ''तुकां जाय तें तूं कर. तूं चुली मोड नाजाल्यार आनीक किदें कर. फाल्यां हांव हांगा येवचोना.'' अशें सांगूत तो पश्चातापान कसो वोगी रावलो.

दुसरे दिसा ती भोरो घेवन आयल्ली... वांगडा तिची धाकटी नात. तिणे भोरो सदच्या जाग्यार दवरलो. रांदचे कुडीत तिणे नदर पडली. थंयच्यो दोनूय चुली मोडलेल्यो... ते पळोवन तिका किदेशेच जालें. तोंड काळें पडलें. ती मोडलेल्या चुलीक पळयतच उरली. मागीर तिची नदर व्हडल्या पात्रांवाक सोदपाक लागली. तो थंय नासलो. कांय खीण अशेच गेल्या उपरान्त धाकट्या पात्रांवान तिका किदें तरी सांगलें. तें तिका पयली कळ्ळें ना. गॅसिच्यो शेगड्यो लायतात जाल्यार मातयेच्यो चुली कित्याक मोडूंक जाय? हो तिका प्रस्न पडलो. पूण तिका रोकडेच समजलें. आतां थंय लाकडांच्या भोऱ्यांची गरज उरूं ना. तिचें तोंड बावलें आनी पयशेबीन ना घेता ती आपल्या वांगडच्या नातीक घेवन इल्लेशें तोंड करून थंयसून भायर

सरली.

हॉटेलांत येतकच ही खबर ताका ताच्याच पुताकडल्यान कळ्ळी. तिचेर कसलें संकट आयलां आसतलें ताची खरसाण ताका जाणवली. ताच्यान मोन्यानी वोगी रावपाक जालेंना. ताणे म्हणलें, ''कळ्ळें मरे किदें जाता तें? फक्त वेवारूच पळोवंक जायना. आपल्या भाशेन दुसऱ्याच्या पोटापाणयाचे पळोवंक जाय. ह्या धंद्यांन म्हाकां हेंय शिकयलां. मनशाकडे संबंद येतकूच कळटा किदें तें. आजून तूं कवकवीत नवो आसा. अणभवान आनी कालान्तरान नव्याक मोल येता. पोन्न्याक जें मोल येयल्ले आसता ताची वळख नवख्याक नासता.'' पूत आयकतालो. आपलें तोंड वाजयल्यार ताच्या कामाक खंड पडटलो आसलो हें तो जाणा जाल्लो. मागीर किदें काम चल्लां ताचो नियाळ घेवपाक लागलो. हॉटेल नवे करपाचें काम चडशें जाल्लें. गल्ल्याचो नवे मोदीची नवी नाब, नवे डिजायनचीं मेजां तशेच रेग्झीनच्यो मोव खुर्च्यो धा दिसांनी येवपाच्यो आसल्यो. मदी पेंट मारून जातकच मांडावळ आनी सजावट करपाची आसली. ताचो पूत सगलें काम फिशाल मॅनेजराभाशेन करून घेतालो. मदी आपली आडखळ नाका म्हण ताणे आपणेय धा-बारा दीस सुटी काडची अशे थारायलें. कांय दीस तो सोयऱ्यांगेर वचपाचो आसलो. आनी तेय खूब तेपान.

पेंटर वण्टीक नवे तरेचो ॲक्रेलीक पेंट मारताले तशी तशी होटेलाची सया उजळपाक लागली. एका रुमांत एकार एक दाळून दवरलेलीं पोन्नी मेजां आनी खुर्च्यो धाकट्या पात्रांवाक भायर काडपाच्यो आसल्यो. थंय उरल्यार आडखळ जावपाच्यो. त्यो कोण फुकट व्हरता जाल्यार लेगीत तो त्यो दिवपाचो. ताणे त्यो हॉटेला भायर काडून दवरल्यो. तेच दीस खंयचे तरी आडयाळें गिरायक ताका सांपडलें आनी ताणे सवायभितर त्यो खुर्च्यो आनी मेजां लाटून दिलीं. इतलीं सवाय दिल्यां म्हूण ताचो बापूय ताका तापोवपाचो. पूण तो त्या दिसांनी थंय नासलो. बरें जालें अशें ताका दिसलें. पोन्नी कटकट गेली म्हूण ताका सू जालें. त्यो बऱ्या लाकडाच्यो आसात पूण त्यो आतां उपकारना. तांचे पासून नव्या डिजायनाच्यो आनी सुखसोयींची मेजा-खुर्च्यो जांवच्यो नासल्यो.

अमीत बारावी पास आसलो. नोकरेखातीर व्हडले सिटीत देड वर्स सारयल्लें. गजबजलेल्या शारांतलें जिवीत अणभवल्लें. आपली धाकटी सिटी आनीक वाडटा हाची ताका सुलूस लागलेली. लोकवस्ती वाडोवपी नवीं

अपार्टमेंटां बांदून उबीं जातालीं. नव्यो कंपन्यो येताल्यो. नवे नवे लोक आपले धाकटे सिटीत येताले हें तो जाणा आसलो. नव्या गिरायकांकडल्यान चार पयशे मेळू येताले. पोन्न्या गिरायकांकडल्यान व्हडलेशें प्रॉफीट मेळना हेंय तो जाणा जाल्लो. सकाळचे भाजीपाव, च्या वांगडा नवे जिन्नस... नवो मेनू दिवपाचो थारायलो. दनपारची ताटांची जेवणावळ बंद. इंडियन फ ूड, चायनीज फूड हातुंतले कांय खास जिन्नस दनपारां करून दिवपाचें, तशें मेनू कार्ड छापपाचें थारायलें. ते खातीर ताणे नवे जिन्नस करपी कूक सोदलो. ताका बरो पगार दिल्यार तो येतलो आसलो. निमाणे ताणे ताका थारायलो. ताचे म्हत्वाचें काम जाल्लें. ताका दिसलें आपूण नव्या काळाक फ ुडो करपाक शकतलों.

लक्ष्मी होटेलाचें रिनोव्हेशन पूर्ण जाल्लें. तें सकाळीच परत उगडपाचें आसलें. फातोडेरच अमीत हॉटेलार गेल्लो. उपरान्त बऱ्याच कळावान सुब्राय आपले पोन्ने सायकलीर बसून हॉटेलार पावलो. दारार रोजांच्यो माळो सोडलेल्यो. रंगीत लायटी लखलखताल्यो. पितारलेलो नवो बोर्ड लायल्लो. ताचे वयले नांव झगझगतालें.

'लक्ष्मी हॉटेल' लक्ष्मी कशें सजलेले. होटेल पळोवन ताका खोशी जाली. सकाळच्या गर्दे वेळार आपणे कामांत हातभार लावचो अशें ताणे येवजिलें.

सुब्राय भितर सरनाफुडें उजवातीचो परमळ ताच्या नाकांत गेलो. नव्या मोदेलाचो गल्लो. खुर्च्यो आनी मेजां सुळसुळीत आनी सुखदायक. लायटीची सजावट. सगलेंच नवें नवें. ताचो पूत खास ड्रेसांतल्या नव्या कामदारांक सुचोवण्यो करतालो.

नवो कूक तव्याचेर नवो जिन्नस तयार करतालो ताचो सुरबूस वास जिबेक उदक हाडटालो. तो नव्या कुकालागी गेलो. ताणे ताचे नांव विचारलें, ''नांव किदें तुजें?'' ताणे ताचेकडे पळयलें, तो ताका वळखनासलो, तरी ताणे सांगलें, ''हनीफ!'' 'आं' म्हणून तो वोगीच रावलो. ताका कळ्ळे हो नवो कूक म्हूण. मागीर सदची रांदपीण विमल खंय आसा तर? ताका प्रस्न. वावराडी विठे ताका दिसलेंना. आदलो वेटरय नासलो. तो ताका हो आनीक एक धक्को आसलो. तो खंती जालो. आपल्या पुताक तांचे विशी विचारचें. तांकां कित्याक कामार आफोंवक ना? नव्यांक आनी भायल्यांक कित्याक कामार दवरल्यात. हाची जाप घेवची अशें ताका दिसलें. पूण ताका

विचारल्यार तो आपले नवें रजांव सांगतलो म्हूण तो वोगीच रावलो.

ताणे भितर पळयलें. ताच्या पुतान मांडावळ वेवस्थीत आनी बरी केल्ली. तो गल्ल्यार रावनच सगलें पळयतालो; जें इतलो तेप ताका जमलेना. ताका गल्ल्यावयल्यान परत परत उठचें पडटालें. आतां हॉटेल चलतालें वेवस्थीत. गिरायक येवपाक सुरवात जाल्ली. नव्याक आनी चकचकाक सगलेच येवकारताले.... नवो दम नवी उमेद भरल्यावरी.

सुब्रायाचे मन मदी मदीं हालतालें. मदीच ताका दिसलें, काम वेवस्थीत चलता. कलसांव घालून हांव हांगा किदें करूं? गल्ल्यार बसून पयशे घेव कांय चिक्रबशी काडून मेज साफ करूं? पूत आपल्याक काम करपाक दिंवचो ना. आता नव्या होटेलांत आपल्याक काम ना. आपल्याक त्या कामादाराभाशेन कामाक आफोंवकना. आतां हांव पात्रांव न्हय. हॉटेल बदल्लां... पात्रांवय बदल्ला. ताका दिसलें.... हांगासून कूस मारल्यार बरी. आनी त्याच मुडांत तो हॉटेला भायर सरलो.

भायर सरतकूच ताका प्रस्न पडलो आपूण आपल्या पुताचो दुस्वास करता कांय किदें? ताका दिसले ना. आपूण दुस्वास करीना. वयल्यान ताका आपल्या पुताचो अभिमान दिसता. आपल्या म्हाताऱ्या आंगात उर्बा भरपासारकें ताणे नवें काम केलां.

होटेला भायर ताची पोन्नी सायकल आसली. घरासून येतना ताणे ती हाडलेली. ताणे सायकलीच्या पेडलार पांय दवरलो आनी तो फुडे गेलो. पळयत तर सायकल पंक्चर. ताणे लागच्या पॅक्चर काडप्याकडे आपली सायकल धुकलत व्हेली. पँक्चर काडून टायरांत हवा भरली. मागीर तिचेर बसून पेडलां मारीत तो असोच भोवपाक लागलो. मदीच ताका दिसलें आपली सायकल पोन्नी जाल्या. तिचे टायर बदलपाक जाय. रंग मारपाक जाय. नवी कांपीण लावपाक जाय.... ट्रीन...ट्रीन... नवीशी करपाक जाय... तिचे गियेक प्लास्टीकची पांचव्या पानांची गुलाबी फुलां लावपाक जाय. आपलें कलसांव बदलून... लांब पँटीची मुस्तायकी न्हेसपाक जाय... आनी आपूण तरणेपणांत कसो भोवतालों हुस्क्या मेकळो... तसो भोवपाक जाय... फुडें ताका दिसलें, आपूण आपले नवेताल्ल सायकलीक गुलाबी फुलां लावन हांगा थंय किर्रयल्यावरी भोंवतां.



# मसणदेव

भुमिकादेवीच्या वाडदिसाखातीर देवळामुखार माटोव घालपाचें काम काल मध्यान रात मेरेन चलतालें. असो माटोव वर्साक दोन फावटी तरी घालताले. सकाळीं फुडें कांय तरनाटे भुरगे देवळाच्या मुखावयल्या माटवाची तरेकवार रंगांच्या फोलींच्या झालरीनी सजावट करताले. दुसरे दीस देवीचो वाडदीस. उमेद उल्लासाचो दीस. तीन दिसांचे कार्यावळीत नाटकां, नाचगितांचो आर्केस्ट्रा जावपाचो आसलो. आयज दोनपार मेरेन माटवाचें आनी देवीच्या मखराचें काम सोपतलें आसलें.

तरनाटे भुरगे काम करता थंय अचकीत विजयाच्या मर्णाची खबर घांटीचो आवाज कशी पातळ्ळी. कालचे राती तो, सगूण, वसंत, महेश, रितेश आनी हेर भुरगे माटोव घालपाचें काम करताले. आनी आयज सकाळीं फुडें ताचे नवेताल्ल मोटारसायकलीक अपघात जाल्लो. चिऱ्यांनी भरलेल्या ट्रकान ताचे मोटरसायकलीक नेटाचो धपको दिल्लो. आंगापांगान भरलेलो विजय फक्त बावीस वर्सांचो जुवान. अपघात भिरांकूळ आसलो. ताची तकली फुटून कुडके जाल्ले. एक हात तुटून गेल्लो. मोटरसायकलीचेर ट्रकाचो फ ुडलो टायर चडलेलो, रानटी हिंस्त्र प्राण्यान आपले पांय भक्ष्याचेर दवरलेल्या भाशेन.

अपघाताची खबर कळनाफुडें ज्या हॉस्पिटलांत ताका व्हेल्लो थंय आदिगांव लोटलो. आनंद वाड्यार रावपी बायल भुरगी धरून सगळींच थंय पावली. जमलेल्या गर्देत मूळवाड्यावयलो विजयाचो इश्ट सगूण थरथरतालो. काल ते दोगूय माटवाचे काम एकठांय रावन करताले. आनी आयज सकाळीच ही कपलार हात मारून घेवपासारकी घडणूक.

श्री भुमिकादेवी संस्थानचे कमिटीचो मुखेल म्हाजन विष्णूक तर आपलोच पूत मेल्ल्याभाशेन दूख जाल्लें. ताच्या धाकट्या भावाचो पूत कान्ता गेल्या वर्सा असोच देवीच्या वाडदिसाच्या आदल्या दिसाच मोटरसायकलीच्या अपघातान मरून गेल्लो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. विजयाचो बापूय रामचंद्र तर पिसो जाल्ल्यावरी करतालो. तोय देवीच्या कमिटीतलो एक बुदवंत म्हाजन. ताका थंयच थातारपाचो यत्न विष्णू करपाक लागलो. मागीर बरेच जण ताचे भोवतणी जमले. तांच्याय तोंडार दुखविळाप दिसताले.

गांवार अपसरण कशें हें मर्ण आसलें. सेगीत दोन वर्सां देवीच्या वाडदिसाच्या आदले दिसाच दोन उमेदी तरनाट्यांचो जीव घेतलेलो. हे दोनय तरनाटे आनंदवाड्यावयलेच. गांवच्या लोकांक आतां भंय दिसपाक लागलो. फुडल्या वर्साय अशेंच मर्ण येंव येता. गांवचें किदेंतरी देवस्पण चुकलां. खंयच्यातरी देवाचें रागणे पडलां. अपघाती मर्णाकडे देवाच्या रागण्याकडे लोक संबंद लायताले आनी जो तो तशेंच उलयतालो.

विजयाच्या घराकडे जमलेल्या मर्दी मुळवाड्यावयले तीन गांवकार उलयताले.

''आनंदवाड्या वयल्यांनी भुमिकादेवीक प्रसाद लावन कौल घेवंक जाय. तिचें रागणे कित्याक? किदें चुकलां कांय म्हूण?'' –पयलो जाण्टेलो गांवकार.

''भुमिका देवीचें रागणे कित्याक पडटलें– दुसरो.

''हय, देवीचें देवस्पण तर सगलें चल्लां. फाल्यांच तर तिचो वाडदीस. तयारीय चल्ल्या. लोकांचो कसलो गुन्याव? –तिसरो गांवकार.

''आंऽ मात़, मसणदेवाचें रागणे पडूं येता. मसणदेवाचें रागणें पडल्यार अशें जांव येता.'' पयल्या गांवकारान आपलो दुबाव उक्तायलो.

''कित्याक?'' दुसऱ्यान परत प्रस्न केलो.

''आरे मसणदेवाक वाऱ्यार उडयला न्हय रे. ताका दिवोवात कोण लायता?'' –पयलो गांवकार.

''पूण हें काय आमचें, मुळवाड्यावयल्या गांवकाराचें. मागीर तांका शिक्षा किद्याक? तिसरो उलयलो.

''आनंदवाड्या वयले म्हूण किदें जालें? तेय म्हण गांवचेच न्हू?'' पयल्यान आपलें सांगणे घट केलें.

''हय, गांवार येयल्लें कोणाक चुकलां. पयली खंय वशाचो रोग एका घरांत येयल्यार अख्ख्या गांवांत पसरतालो. गांवचे लोक सटासट मरताले. गांव सोडून गेल्लो तोच वाटावतालो.'' –दुसरो गांवकार.

''हाली गांवांत वायट कर्मां जातात.'' पयलो गांवकार बारीक आवाजांत फुडें उलोवंक लागलो. ''तुमकां खबर आसाच. म्हज्या शेजारच्या माड्डू गांवकाराच्या चेडवाक दीस गेल्यात. पांच–स म्हयन्याचें तिचें पोट आसा. फक्त तीन चार म्हयन्यांनी भुरगें जल्मतलें...''

''हय खबर आसा. मोग चड काळ चलतकूच ताचो परिणाम

दिसताच.'' –दुसरो.

''पूण आतां पांच–स म्हयन्याचे पोट जावनय, विष्णू तर आपल्या वसंताचें म्हाड्डूच्या शामलाकडे लग्न लावपाक तयार ना. ते मानाचे कुडासकार, आमकां गांवकाराक उणाक लेखतात. आमी खंय मसणदेवाक पुजतात. तेंच्या सारके भुमिकादेवीक न्हय. मसणितल्या मसणदेवाक पुजप म्हुटल्यार खंय उणाकपणाचें. माड्डू गांवकार खंय सकयल्या जातीचो. तांच्या मसणदेवाक आनी तांका उणाक समजतात म्हूण तांका आपलो अपमान दिसलो. आनी तेच बराबर तिडक मारली. मागीर ते विजयाची कूड केन्ना घरा हाडटात ताची वाट पळोवपाक लागले.

आदिगांव वसल्यार सातशें वर्सांवयर जातलीं, अशें आजे पणजे म्हणताले. सगल्यांत पयलीं मुळवाडो वसलो. मागीर बऱ्याच उसरां आनंदवाडो. मुळवाडो गांवकारांचो वाडो. थंय आनी दुसऱ्या जमातीची वस्ती ना. कोलवाची आनी गांवठी नळ्यांची एकशे बारा घरां. सुरवेक थंय गांवकारांचो मुळपुरीस आपल्या कुटुंबाक आनी धाकट्या भावांक घेवन आयल्लो. तेन्ना ते भटकी जमात. ते हांगा थंय भोवन दीस काडटाले. जेन्ना ते आयल्ले, ते रातचे तें कुटूंब थंय रावलें. तेच रातीकडे तांचो तरनाटो कर्तो पुरूश मेलो. पुराय कुटुंबाचेर आकांत आयल्लो. ताची बायल भुरगीं खूब रडलीं. दुसरे दीस ते रावल्ले थंय लागीच ताणी फोंड खणून ताची कूड पुरली. फोंडा कुशीक खडपी फातर दवरले आनी मद्देगात काळो पाशाणी फातर पुरलो. तें कुटुंब थंयसून दुसरे सुवातेर गेले ना. आपलो मनीस ते जागेर आसा हे समजणेन तीं थंय रावपाक लागलीं. तांच्या मदल्या आपलेपणान ती सुवात सोडून पयस वचपाक तांका जालें ना. उपरान्त बारा दिसांनी ताच्या फोंडावयल्या काळ्या पाशाणी फातराचेर ताणी मानान पिंजर आनी फुलां ओंपलीं.

ताच्या धाकट्या भावान आसऱ्याखातीर त्या वाठारांत खुंटमेडी पुरून कोलवाचें पयलें घर उबें केलें. मागीर वर्सां गेलीं तशीं कुटुंबां वाडलीं आनी तांची घरां. फुडें तोच मुळवाडो जालो. ताच्या वाड्यापासून मात्शी पयस तांची मसण जाली. वस्ती आनी मसण वांगडाच वाडपाक लागली. ते गांवकार पयली मडें लाशिनासले, तर पुरताले. ताच्या मुळपुरसा कुशीक ते मेल्ल्यांक पुरताले. अशे तरेन शेकड्या वर्सांचो काळ वचून ती सुवात तांची मसण जाली आनी तांचो मूळ पुरीस तांचो मसणदेव जालो. तो मसणदेव तांका आपलो मनीस कसो दिसतालो. फुडें बऱ्याच वर्सांनी थंय एक

मातयेच्या कसान चिऱ्यांची ल्हानशी देवळी बांदली. थंय केन्ना केन्ना परबेक पणती पेटपाक लागली. हालीं तर ती देवळी पडंग जाल्ली. वयलें पाखें मोडून गेल्लें आनी फक्त चिरे फातरांच्यो वण्टी दिसताल्यो, मसणदेवाचें अस्तीत्व कळपाक.

मुळवाड्या कुशीक अशीर शेतवड आनी शेतवडीक तेकून नवो आनंदवाडो वसलेलो. हो वाडो दोनशें वर्सां उपरान्तचो. ह्या वाड्यार भायले नवे नवे लोक येवन रावपाक लागले. शेतांचो गोरवांचो वेवसाय करपाक लागले. हाली हाली आनंदवाड्यार आयल्ल्या लोकांनी सुलच्या नळ्यांची आनी सिमेंटाची घरां बांदलेली. वाड्याची वस्ती एक हजारा वयर जाल्ली. ह्या वाड्यावयल्या लोकांनी मुखेलपणान कुडासकार लोकांनी फुडाकार घेवन भुमिकादेवीचें व्हडलें देवूळ बांदलेलें. ताचो शंबर वर्सांनी जिर्णोद्धार जाल्लो. नवे म्हुर्तीचीय स्थापना केल्ली. जिर्णोद्धाराचो वर्धापन दीस ते दर वर्सा मनयताले.

दुसरे दीस धावो वाडदीस जावपाचो आसलो. दोनय वाड्यावयले लोक गेल्या वर्सा एकठांय येवन तयारी करताले. पूण हें वर्स सगूण एकटो सोडल्यार मुळवाड्यावयले कोण एक येंव नासलो. ताका तशेंच कारण आसलें. सगुणाची आंकवार भयण शामलाक विष्णूचो व्हडलो पूत वसंतापासून पोट जाल्लें. ते खातीर मुळवाड्यावयले गांवकार नाराज जाल्ले. पूण सगूण आपलो इश्ट विजयाचे लगाडीक लागून देवळांत येतालो.

म्हाजन रामचंद्राल्या घरासावन विजयाच्या मर्णाची यात्रा सुरू जाली. अंत्यसंस्कार दोंगराकुशीक बांदलेल्या नव्या मसणीत जावपाचे आसले. ही नवी मसण गांवकारांचे मसणीसाकून दोनशें मिटरांचेर तर आनंदवाड्यावयल्या मसणीपासून पन्नास मिटरांचेर आसली. तश्यो दोन जमातीच्यो दोन मसणी आसल्यो तरी आतां नवे बांदलेल्या मसणीतच विजयाचो इलो जावपाचो आसलो. हे मसणीत अत्यंक्रियेच्यो विधी करपाक देवळाचो भट येवंक नासलो तर दुसरोच भट आयल्लो. गांवकारांच्या मसणीत तर भट म्हण्टा तो लागनासलो. गुरवार बायल मेल्यार ते आळवातीणीक गांवकारवाड्यावयले मसणीत पुरताले. गांवच्या लोकांचो समज आसलो, मसणदेवाच्या पांयांकडे पुरल्यार तांका शांती मेळटाली. तीं भूत पिशाच्च जाय नासलीं. म्हादेव मसणीचो देव. तो मसणीत रावता आनी ताच्या वांगडा मोठ्या दोळ्यांचो काळभैरव आसता.

विजयाची तिरडी नवे मसणितल्या खास बांदलेल्या शिमिटाच्या सोप्यार दवरली. ताच्या मर्णान आनीक बाधिकार जावंक जायना म्हुण वांगडा पाटलेत घालून हाडलेल्या कोंब्याक थंय जिवोच पुरलो. उजो लायलो तसो सरणान पेट घेतलो आनी तें रसरसून पेटपाक लागलें.

गांवचे लोक आतां आपापले पंगड करून उलोवपाक लागले. तांच्या उलोवपांत सेगीत दोन वर्सां देवीच्या वाडदिसा आदी अपघात जावन आयल्ल्या मर्णाचो विशय आसलो आनी घडये अशेंच मर्ण फुडें घडत हाची खर भिरान्त तांच्या तोंडार सांवट कशी पसरलेली.

ढूऽब ढूऽब ढूऽब धोलक्याचेर बडी वाजली आनी घरांघरांतल्या जाण्ट्या-नेट्ट्यान आंग काडलें. एक शिरपुटो जाण्टो मनीस धोलकें वाजयत पेरगांव घालीत वाटेतल्यान वयतालो. तो आड्डोन म्हण्टालो, ''आयकात आयकात, आयज तिनसांजेर भुमिका देवीच्या देवळांत गांवच्या सगल्या जाणाक आफयल्यात. म्हाजनाक आफयल्यात, मानाच्या कुडासकारांक आफयल्यात, गांवकारांक आफयल्यात, सगल्या सगल्यांक आफयल्यांत. गांवाचेर येयल्या अरिश्टाचेर उपाय काडपाक आफयल्यात. फायच्या वाडदिसाचें थारावपाक आफयल्यात. येयात येयात. देवळांत येयात. आयज तिनकातरेर येयात.'' ढूऽब ढूऽब ढूऽब....धोलक्याचो आवाज गांवभर पसरतालो.

तिनसांज जावचे आदीच आदिगांवचे लोक जमपाक लागले. तातूंत चडशे आनंदवाड्यावयले तशेच कांय थोडे मुळवाड्यावयले आसले. दादल्या वांगडा कांय बायलांय भुरग्यांक घेवन आयल्लीं. सगलीं वोगी वोगी आसलीं. जशीं कांय तांच्या तोंडाक चावी केल्या. देवळाक लायल्लो लावडस्पिकर तोंड आऽ करून वोगीच आसलो. हरशीं त्या लावडस्पिकरा वयल्यान भजनां, गितांचो आवाज कानार मारतालो. ह्या देवळांत किदें ना किदें उत्सव चलताले. केन्ना भुमिकादेवीची जात्रा, उत्सव, शिगम्यांची नाटकां, पुजाआरती, सत्यनारायणाची पूजा वा केन्ना देवकार्यां. आनंदाचोच उल्लास देवळाच्या वाठारांत घोळटालो. आयज मात थंड मर्णकळा.

देवळाच्या सरवळेंत आनी रंगशिळेर दाटी करून लोक बसलेले. सगले म्हाजन बसकेक हाजीर आसले, सोडून रामचंद्र म्हाजन. दूख आनी सुतकान तो येवचोच नासलो. मुखेल म्हाजन विष्णू बसलेकडे बारीक आवाजान उलोवपाक लागलो. ''तुमी जाणाच पोरुंच्याभाशेन अंदूय जिस्त

देवीच्या वाडदिसाच्या आदले दिसाच गांवार मर्णाचें अपसरण आयलें. पोरूं आमच्या कुटुंबाचेर. अंदू रामचंद्राच्या कुटुंबाचेर आनी हे फुडें किदें घडत सांगू नजो. लोक उलयतात फुडल्या वर्सा तिसाल म्हूण. आमचें किदें चुकलां? देवाचें देवस्पण चुकलां कांय? आमी तर भुमिकादेवीची देवकार्यां सगलीं करतात. आमच्या गांवांतले बाकीचे थळावे देव-देवचार ताचें रागणे पडलां काय? तेंय आमी पळोवंक जाय. आनी फाल्यां तर वाडदीस. सगली तयारी जाल्या. आनी तातूंत हें मर्ण...'' तो उलोवपाचो थांबलो. कोण किदें उलयता ताची सुलूस घेवपाक लागलो. मागीर तो फुडें उलयलो, ''भटाक विचारल्यार भट सांगता... हांव देवाच्या कार्याचें सांगतां पूण मर्णाचें सांगू शकना.'' इतले सांगून तो जमलेल्या लोकांक पळोवपाक लागलो. उपरान्त धा जाणांतलो धाकटो म्हाजन सुबोध म्हणपाक लागलो, ''मर्णां हीं आसतलींच. जितले जल्मतले तितले मरतले. गांवांत कोणाक मर्ण आयल्यार गांवचे देवकार्य बंद दवरतले तर? तें चलूंकच जाय. कोणागेर मर्ण जाल्यार गांवचे लोक गणपती पुजपाचें सोडतात तर? ना. देवाचें उत्सव चलपाकूच जाय. ते जालेंना जाल्यार वयल्यान देवाचें रागणें पडूं येता.'' विष्णून मागीर सगल्यांक विचारलें. ''सुबोध म्हण्टा तें तुमकां मान्य आसा?''

''हय, हय.'' लोकांचो शादूर रावन हयकार.

''तशें जाल्यार फाल्यांचो वाडदीस जांवचो परंपरेक धरून. पूण गांवाचेर जें वर्सांन वर्स मर्णाचें अरिश्ट येता ताचेर किदें उपाय आसात? किदें देवस्पण बीन? लोक परत वोगीच जाले आनी एकामेकांक पळत रावले. मागीर कोण कांय उलयना तें पळोवन सुबोध सांगपाक लागलो, ''हांव म्हाजन आसलो तरी पिरायेन ल्हान. हांवें सांगलेलें तुमकां उस्तऱ्यां वचूं येता. कारण, गांवांत बरें वातावरण ना. म्हाका सांगपाचें आसा, आमच्या गांवच्या दोनय वाड्यावयल्या जमाती मदीं बरेपण ना. नवे तरनाटे भुरगे आपल्याक जाय तशें वागतात आनी जाण्टेय तांका जाय तशें. भुरग्यांक शीस्त आनी नीत ना... भंय ना. जाण्टेय आपल्या भुरग्यांक नितीन वागपाक शिकयना. तांचेर धरबंद ना. तशेच कोणूय एकामेकांचेर देवदेवस्पण करतात. दुसऱ्यांचे वायट जावचें म्हूण गाराणे घालतात. म्हाकां नेमकें किदें सांगपाक जाय तें कळना. तुमी गांवची परिस्थिती जाणा. किदें घडलां आनी घडटा तें जाणात. ते प्रमाण ताचेर पयली उपाय करात.'' ताचें उलोवन जालें तरी कोणूच फुडें उलयना जालो. सगलेच वोगी. पूण दर एकल्याच्या मनांत किदें ना किदें उलोवचें

अशें दिसतालें. सगळें खतखततालें तरी दामून धरलेलें. मागीर अचकीत एका तरनाट्या भुरग्याचेर भार आयलो. तो बसलेकडे हालोधोलों लागलो. मागीर ताणे व्हड किंळांच मारली. कोणेतरी म्हणलें, ''आरे गांवकार सगूणाचेर भार येता. विजयाच्या इश्टाचेर भार येता...'' आनी खऱ्यांनीच सगूण अवसरान उबो रावन तोंडातल्यान हांऽ हांऽ आवाज काडून म्हणपाक लागलो, ''हांव ह्या थळाचो मुळावो. हांव मसणदेव. हाहाऽ हाहाऽ तुमी म्हजेकडे आडनदर केल्या. मसणदेवाक किंकोत केला...मसणदेवाक सांगात जाय. तुमी उत्सव करता तसो म्हजोय उत्सव करात. तुमी मसणदेवाकडे येयात नाजाल्यार वाडदिसाच्या उत्सवाक मसणदेवाक जोडयेन पुजात. म्हाकां भायर घालूं नाकात....'' इतलें सांगून हातपांय घट जावन तो पडलो. विष्णूच्या लागी बसलेलो ताचो पूत वसंत सट करून उठलो आनी ताणे ताच्या तोंडार उदक मारलें. तशेंच ताचे हातपांय सदळ केले. उपरान्त सगूण सावचीत जालो.

मसणदेवाच्या भारान म्हाजनाक आनी गांवच्या लोकांक इशारत कशी दिल्ली. देवळांत बोबाळ जालो. जो तो अवसर उलयल्ल्याचो वेगवेगळो अर्थ काडटालो. कोण म्हण्टालो, ''आतां मसणदेव वोगी रावचो ना.'' कोण म्हण्टालो, ''फुडें अशेंच घडत रावतलें. मसणदेवाक शांत करपाक जाय.'' बऱ्याच वेळान लोकांक वोगी करीत विष्णू उलोवपाक लागलो. ''आमची भुमिकादेवी म्हणजे सांतेरमांय. ती जल्माची देवी. ती गांवच्या पोसवणेची देवी... तिच्या हातांत पिकेचें कणस आसा. फाटल्या काळांत खंय देवीच्या वाडदिसा सकाळीं फुडें मसणदेवाकडें वचून थंयच्या पणतीतल्या तेलवातीच्या जोतीचेर दिवो पेटोवन हाडटाले आनी त्या दिव्यान देवळांतलो दिवो पेटयताले... हें खूब वर्सां साकून बंद पडलां.'' मात्सो श्वास घेवन तो फुडे उलोवपाक लागलो, ''फाल्यां सकाळीं आमी मसणदेवाच्या देवळेंत वचूंया. थंय म्हाड्डू गांवकार मसणदेवाक गंधफूल घालून दिवो पेटयतलो. ताणे पेटयल्ल्या पणतीच्या दिव्याचेर आमी आमचो दिवो पेटोवन श्रीच्या देवळांत हाडचो आनी हांगाचे दिवे परजळावंचे...''

देवळांत जमलेल्यानी गाराण्याक हयकार दिता तसो हयकार दिलो. तशें विष्णूक आपूण सुटलों... मेकळों जालों अशें दिसलें. ताका पयली दिसतालें– पयली सारकें चल्लें ना जाल्यार तिसालांत फुडल्या वर्सा आपल्या पुताचेर... वसंताचेर मर्णाची हावळ येत. वसंताक किदें जायत म्हूण ताच्या काळजांत कलकलतालें. आतां किदें तरी उपाय जातलो म्हूण ताका

सूऽ दिसलें. मागीर तो दुसरे दिसाचे तयारेक लागलो.

बरीच रात जाल्ली. सगूण आपल्या घराचे पडवेत पावलो. तशें ताच्या कानार आपल्या बापायचें आनी भयणीचें उलोवप कानार पडलें. शामल सांगतालें, ''बाबा, हांव म्हज्या जिवाचें बरें वायट करतलें. म्हजें हें पोट घेवन भोवपाक म्हाका लज दिसता. गांवांत तर हो विशय जालाच.''

''आगो बाय, तूं तुज्या जिवाचें वायट करूं नाका. तुज्या जिवाचेंय पळोवया आनी पोटांत वाडपी जिवाचोय सांबाळ करूंया. भुरगे जल्मतकूच ताका मानाच्या कुडासकारांचो वंशज म्हुणनच फुडल्या काळांत वाडोवया. ताणी ताका आनी तुका आपणायना जाल्यार तांका ती लज. पोट जावपांत वा भुरग्याक वाडोवपांत कांय लज ना. भुमिकादेवीच्या देवळांतली खबर तुकां कळ्ळ्याच आसतली. फाल्या तुज्या वसंताचो बापूय विष्णू– व्हडलो म्हाजन आमचे धाकटे देवळेंत येतलो. दिवे पेटयतकूच हांव गाराणे घालतलों... सगल्यांचें बरें कर म्हण... फाल्यां तूं बरें न्हेस. फुलां हाडून दवर.'' मागीर सगुणाच्या पावलांची सुलूस आयकून तीं अदीक खोशी जालीं.

पंचावन वर्सांचो विष्णू देवळांतसून घराकडे येवन आपल्या पुताची वाट पळयत रावलो. ताका आपल्या पुताची काळजी. पँट आनी टी शर्ट न्हेसलेलो वसंत घराकडे येतकच ताणे ताका आपल्या कुडीत आफयलो. आयज ताका पुताचो राग येंव नासलो. वयल्यान दिसभर जाल्ल्या घडणूकांनी तो बरोच हालोवन गेल्लो. वसंत आनी शामला विशीचें ताचे मत बदलून गेल्लें. ताणे वसंताक म्हणलें, ''बाबू तूं शामलाविशी किदें सांगूक सोदता? तूं ताचेकडे लग्न जातलो?

''हय पापा. तें म्हाका खूब वर्सां साकून आवडटा. ते म्हजें इश्ट जालां.''

''इश्ट? तें तर त्या गांवकारालें.''

''हय पापा, तें गांवकारालें. सकयल्या जातीचें पूण तें आमच्या गोत्राचें न्हय. पयशिल्लें.''

''हां, तूं सांगता म्हूण हांव तुजें आतां आयकतां. म्हाकां तुज्या जिवाचो भंय दिसता. फाल्यां तूं म्हज्या वांगडा ते देवळेंत यो. म्हाकां तुजो वांगड जाय.''

हें आयकून वसंत चड खोशी जालो. ताचें मन परमळून फुल्लें.

वाडदिसाच्या सकाळीफुडें मसणदेवाच्या देवळेतसून दिवे पेटोवन पांच जाण एक एक करून भायर सरले. वांगडा गांवच्या दोनय वाड्यावयले बरेचशे लोक एके हारीन भुमिकादेवीच्या देवळालागी येवपाक लागले. फुडें मंगलवाद्याचें वाजप वाजतालें. दिवे पालवचे न्हय म्हूण ते सांबाळटाले. दिव्यांची रांग भुमिकादेवीच्या देवळाच्या दरवंट्यार पावली, तशे सुवासिनी बायलांनी तांच्या कपलाक गंधाचे तिबे लायले. मागीर देवीच्या गर्भकुडीत खास दवरलेलो दिवो पेटयलो. उपरान्त हाडलेले दिवे थंय मांडले. थंयच्या सरमाळांच्यो वाती वयर सारल्यो, तश्यो त्योय चड लखलखल्यो. मागीर गांवभर वाडदिसाचें वातावरण वाडत गेलें.

रोकडोच गडगड जोगूलाचो कसो व्हडल्यान आवाज जालो. आनी फुडले शब्द कानार पडपाक लागले. ''तुमकां ही जी कथा हांवें सांगल्या, तो हांव काळ... काळदेव. हांगा वसपी... भूत, भविश्य, वर्तमान ह्या काळांत आसपी. कांय जाण जल्म आनी मरणाचो संबंद म्हजेकडे लायतात. स्थलकाल सापेक्षता सिद्धान्तांत म्हजो संबंद दाखयतात,.... सगल्या सगल्यांचो संबंद लोक म्हजेकडे जोडटात. हां, हांगा जें घडलां तें एक निमित्त... योगायोग. जल्म आनी मरणाचो संबंद दवरून हांगा वसंत आनी शामलाक एकठांय येवपाचें आसा कांय? कांय गांवच्या दोनय जमातींक लागी येवपाचें आसा? कांय भुमिकादेवीक आनी मसणदेवाक जोडयेन पुजून घेवपाचें आसा? कांय जल्म आनी मरणाक एकूच स्थान दिवपाक? कांय जिवित काळांत मरणाचीय जाणीव दवरपाक?..... हें हांव कांय नकळों, इतलीं लाखांनी वर्सां जालीं तरीं..... तुमी किदें तें समजून घेयात.''



# म्हज्या चेड्यांचो बापूय

तिनकातरेचो वेळ. हयन्हयसो उजवाड आनी काळोख. इतल्यान घरांत बसलेल्या शंकराक रस्त्यावयल्यान उलो मारलो. ''दादा.'' ओऽ म्हूण जाप दियत शंकर घरांतल्यान भायर आयलो. गेटीकडें शेजारचो तरनाटो आशीष उलो मारतालो. शंकरान विचारच्या पयलीच ताणे सांगलें, ''दादा, फाटी तुज्या शेजरा बिराडाक रावतालो तो विनू मेलो. ताचें मडें विरजणाकडें आसा. रस्त्या तेकूनच्या गोळीच्या झाडापोंदा.'' ''किदें जालें ताका?'' शंकरान विचारलें. ''तो गांवार भोवन आसतालो. व्हदळ ताच्या मड्याकडें कोण नासलो.'' ''केन्ना मेला कांय तो?'' ''दनपारां आसूंये.'' ''आतां थंय कोण आसा?'' ''हांवें ताका व्हदळ पळयल्लो. मदी दोन वरां तरी जातलीं. थंय एक रस्ताद काळो सुणे सोडल्यार कोण नासलो. तो मड्याक खायत म्हण आमी ताका धांवडायल्लो. तरी तो परतून परतून येतालो. हांवें धांवडायत तर तो म्हजेर करा करतालो. तो मेला ही गजाल गांवांतल्या सगल्या लोकांक खबर आसा. पूण ताचे कोणाक कांय पडलेलें ना. पुलीसांक कळयलां अशें कोण तरी म्हणटालो. हें आयकून शंकरान आपल्या कपलार हात मारलो. त्या तरनाट्यान सदचे संवये प्रमाण हीय खबर शंकराच्या कानार घातली आनी तो सायकलीवयल्यान आपल्या घरावटेन गेलो.

शंकरान बेगिबेगीन पँट चडयली आनी वयल्यान बुशशर्ट लकयलो. आपल्या पिकलेल्या केंसार हात लेगीत ना भोंवडायता ताणे आपली जीप सुरू केली. तो सरळ विरजणाकडें वचपाक लागलो.

दोन वर्सां पयलीं विनू शेजारच्या बिराडांत रावतालो. शंकर विनूचो शेजारी. विनू ताका हडकितालो. इतलेंच तांच्या मदले नातें. पांच वर्सां पयलीं ताचे दुसरे बायलेन ताका सोडलेलो आनी ती कोणा वांगडा पळून गेल्ली. उपरान्त ताचो संवसार हुबंतरार पडपाक लागलो.

विनू तसो ह्या गांवचो न्हय. गांवांत आयल्यार ताका पंचवीस वर्सां जातलीं. तो फिशाल मॅकनीक पूण कोल्ली. तो कामां कमी करतालो. तशे ताच्या हातार पयशे कमी चडटाले. केन्ना केन्ना ताका उपाशी रावचे पडटालें. ताची लग्नाची पयली बायल ह्या गांवांत येवन तीन वर्सांनीच मेल्ली. मागीर ताणे आपल्या एका वर्साच्या पुताक ताच्या आजोळा व्हरून दवरलेलो. मागीर तो

केन्ना ताचे खबरेक लेगीत वचूंक नासलो. हे गजालीक एकवीस वर्सां जावन गेल्ली.

शंकर जिपितल्यान तिस्कार पावलो. गांवचे हे वाटेक शारांत वचपी मार्ग मेळटाले. तिस्कावयल्या बसस्टॉपार कोण नासलो. तो तसोच उल्याच्या अंतरा वयल्या विरजणाच्या थळार गेलो. विरजणाच्या थळार एक पाशाणी खांबो आदी केन्नातरी पुरलेलो. ताचे फुडें इगर्ज आनी तिका तेकुनच सिमीतर आसली. कोण म्हणटालो थंय भुताटकी जाताली. भुतां केन्ना व्हडल्या व्हडल्यान रडटालीं. केन्ना किळांच्यो मारताली. थंयच्या रस्त्यावयल्यान एकटे येवपाक वचपाक लोक भियेताले. थंयच्या मोनेळ शांततायेत एक तरेची गुढताय भरलेली.

लायटीच्या उजवाडांत खाकी गणभेस घाल्ले दोग पुलीस रस्त्यार उबे रावल्ले दिसताले. एकल्याचो आब आनी ड्रेस पळोवन शंकरान ताडलें तो पुलीस सब इन्स्पेक्टर आसूंक जाय म्हूण. ताच्या खांदाक ASI अशें फीत आसलें. बोल्साक नांवाचो तक्तो आसलो. ए. पी. डिसा. दोग भुरगेशे तरनाटे आपल्या तकलेर हात दवरून बसलेले. गोळी झाडाच्या मुळांत मडें आसलें. ताच्या तोंडार धवसो कपडो घातलेलो. ताचे लागीच एक काळो सुणो कंवडाळें करून बसलेलो.

आपली जीप पयस दवरून शंकर तांच्या लागी चलत गेलो. तो थंय पावताच सुणो पयली उठलो आनी आपलें आंग ताणे फटाफटा करून फाफुडलें. मागीर शादूर जावन थंयच उबो रावलो. सुणो उबो रावल्या बरोबर झाडावयल्या कावळ्यान कांव कांव करून बोवाळ घातलो. मागीर थंय आसलेल्या सगल्यांची नदर जाण्टेल्या शंकराचेर गेली.

विनूचे घरचो कोण येता कांय म्हूण पुलीस वाट पळयताले. तशी पुलीस सब इन्स्पेक्टरान ताची खबर काडलेली. बेवारशी कसो मोगांत व्हरपाक तांका बरें दिसनासलें. आजून पंचनामो करपाचो आसलो. शंकर मड्या फुड्यांत गेलो तेन्ना एका पुलीसान ताच्या तोंडावयलो कपडो काडलो. तशें पुराय मडें शंकराक दिसलें. विनूच्या तोंडार बऱ्योच सुरकुत्यो पडलेल्यो. शिडशिडीत विनूची मेल्ली कूड अदीक बारीक दिसताली. पोटफाट एक जाल्लें. पिंदकीशी पँट आनी मातयेंत लोळलेलो शर्ट. पन्नास वर्सांचो आसून तो अदीक जाण्टो दिसतालो. ताची निर्जीव कूड तांबडे जमनीर पसरून आसली.

''तुमी कोण ताचे?'' पुलीस सब इन्स्पेक्टरान ताचेकडे बारीक

नदरेन पळोवन विचारलें. ''हांव ताचो कोण न्हय. तो आमच्या शेजारच्या बिराडाक रावतालो, इतलीच वळख.'' शंकरान सरळ सांगलें.

इतल्यान सुण्यान भूक भूक केलें आनी झाडावयर व्हदळ सावन रडटल्या कावळ्याक म्हणलें, ''पळयलें मरे. कोणाक सोयरसुतक ना. रस्त्यार मेल्ल्याक पळोवपाक येता फक्त . हो येयला तो पंदरावो-सोळावो मनीस. ताचो असो कोण ना. हे दोग भुरगे बसल्या ते सोडून...''

''कांव कांव... व्हदळच्यान ते येवन, हांगा रडटात. तांका सोरो चड जाला आसतलो.'' कावळो त्रोसांनी उलयलो.

''शेऽ रे. तुका सगलें वायटूच दिसता. वायटांत लेगीत कांय बरें आसता.... आतां वोगी राव. ते पुलीस आतां किदें करता तें पळय...''

पुलीस सबइन्स्पेक्टर तांच्याकडे आयलो तशे थंय लागी बसलेले तरनाटेशे भुरगे रडपाक लागले. तांचो वेश पळोवन कोणय म्हणू येताले. हे घाटी भुरगे म्हूण. लांबेलो भुरगो म्हणपाक लागलो, ''... म्हजो बापूय कसो...'' मागीर 'विनू अप्पा म्हूण तो व्हडल्यान रडपाक लागलो.

दुसरो काळो मोटवोसो भुरगो म्हणपाक लागलो, ''हांव तेका केन्ना केन्ना घरचें जेवण हाडून दितालों. ह्या दोन दिसाक मात तेका जेवण हाडून दिलेंना. म्हाकां बापाय समान तो.'' मागीर लांबेलो भुरगो म्हणपाक लागलो, ''हांवय तेका म्हज्या घरा जेवणाक व्हरतालों.''

मागीर दोगय बुटूबुटू करून रडटा तें पळोवन पुलीस सबइन्स्पेक्टरान तांका विचारलें, ''तुमी हांगच्या वाड्यार रावतात मरे?''

''हय सायब.''

''ताची आनी तुमची वळख बारांतली मरे?'' व्हडल्याक निरखून सबइन्स्पेक्टरान विचारलें.

''तशी आमी बारांत मेळ्ळ्या. पूण आमी हांगाचे ह्या वाड्यावयले सायब.''

''तुजें नांव किदें?''

''शरण.''

''तुकां वर्सां कितली?''

''बावीस.''

''तूं किदें करता?''

''न्हंयतलें नुस्तें धरतां. केन्ना झारयो घालून कुल्ल्यो धरतां.

विनूअप्पानच म्हाकां नुस्ते गरोबपाक शिकयल्लें.

''तुज्या घराकडे कोण आसा?''

''हांव बिराडाक रावतां. म्हजी बायल आसा.''

''हालीच हांव लग्न जालां.''

मदीच कावळ्याचो आवाज आयलो, ''सायब, तो कर्नाटकांतलो. ताचो गांव पयस. तो हांगा येयल्यार राम वनवासांत रावलो तितली वर्सां जातलीं.''

पूण ताचे सांगप सबइन्स्पेक्टराच्या कानार पडलेंना.

''कावळ्या तूं वोगी राव रे. मदीच तोंड घालू नाका. भूक भूक.'' सुणो वोगीच भुकता म्हूण थंय उबो आसलेल्या पुलिसान ताका धांवडायलो. तो मात्सो फुडें धांवलो आनी ताका तेळीत उबो रावलो.

मागीर सबइन्स्पेक्टरान जाड वोठांच्या मोटव्या भुरग्याक विचारलें, ''तुजें नांव किदें?''

''मोहन.''

''वर्सां?''

''अठरा.''

''किदें करता?''

''तसो बेकार. पूण भावाच्या गाड्यार बसतां.''

''तूंय ह्याच गांवांत रावता?'

''हय.''

''तूंय जाय पडटलो आंऽ..सय मारपाक.''

''हां सायब. हांव सय मारतलों.''

''हय, हांवूय तयार आसा.'' शरणान खातरी दियत सांगलें. सबइन्स्पेक्टर वोगीच रावलो पूण गंभीर जाल्लो.

''कावळ्या, आयकले मरे. रगताचे पूत लेगीत बापायक बापूय म्हणपाक फाटीफुडें येतात. हे भुरगे खंयच्या तेर्रासावन हांगा येवन रावल्यात. आनी हांगाच्या एका जाण्टया मनशाक बापूय मानता. तोंय कांय म्हयने तांचेकडे इश्ट कसो वागलो.''

''हांव जाणा रे तूं तांची कड कित्याक घेता तें. तुकां केन्ना पावभजीं घालता म्हूण कांय किदें रे?' कावळ्यान चोंच उबारून मारची तशें म्हणलें.

''आरे तें जालेंच. तुकांय त्या पावाचो कुडको खावंक मेळनासलो?

तूंय म्हज्या फाटोफाट उडत येयनासलो? हो मेल्लो विनूय आमकां आपल्या जेवणांतले दोन गोटे घालीनासलो? पळय वोगीच पडमूरपणा करूं नाका. आमी दोगय तर ह्या तिगांच्या भोंवतणी आवाळ्यो घुंवाळ्यो काडटाले. कोणाक दिसता– विनू एकटो आसलो. ना. ते तीग आनी आमी दोग मेळून आमचें पांच जणाचें कुटूंब आसलें.''

''आरे हय मरे. तूं मनशांमदी रावन कुटूंब म्हणपाक शिकलो मरे.'' कावळ्यान सुण्याक टोण्ट मारलो.

''हां हां... पूण आतां पळय. विनू मेला, ताचे फुडलें करपाक कोण ना. मनशाचे जातीत मेल्ले कुडीचेर अग्निसंस्कार करता तें तूं जाणाच आसतलो.'

''हय रे, तें दाखोवपा पुरतें. सगलें फटीचें. तांका खरे, जिवाभावाचें लागता अशें ना!'' कावळ्यान एके खांदयेवयल्यान दुसरे खांदयेर उडत म्हणलें.

उपरान्त सुणो शरणालागी वचून आपली शेपटी हालयत ताच्या पावलांक चाटपाक लागलो. ते बराबर शरणान म्हणलें, ''आं आंऽ टॉमी, व्हदळच्यान तूंय आमच्याभाशेन हांगाच आसा मरे...'' ''काव काव हांवय आसा.'' कावळो रडलो. ''कावळोय रडटा मरे टॉमी... जाणो मरे टॉमी आयज आमचो बाबा सोपलो.'' अशें म्हणून तो रडपाक लागलो. मोहनय रडपाक लागलो.

शंकर हें सगलें पळयतालो. ताका अजाप दिसतालें. हे भुरगे परकी. पूण बापूय मेल्ल्याच्या दुख्खान रडटात. जांव निमाणी रडपाक कोण तरी आसा.

लायटीचो लख्ख उजवाड. भोंवतणी गुडूप काळोख आनी किर्र आवाज अश्या थंयच्या वातावरणांत एक गूढ भरलां अशें शंकराक दिसतालें. कावळ्याचें रडप आनी सुण्याचें होळोम काडून भुंकप हातूंत शंकर वेगवेगळो अर्थ सोदतालो. ताका दिसतालें, सुणो आनी कावळो उलयतात. तांका किदें तरी जाणवता. जेन्ना आमी सगले एकाच वातावरणांत, एकाच प्रसंगांत आसता तेन्ना सगल्यांक तेविशी जाणीव जाता. विनू मेला हें शरणाक, मोहनाक, आपल्याक, पुलीसांक कळटा तशेंच सुण्याक आनी कावळ्याकूय कळटा. मागीर तो शरण, मोहन हांच्यासयत सुण्याचेर, कावळ्याचेर... तांच्या रडपाचेर, फडफडपाचेर चड लक्ष दिवपाक लागलो.

तसोच थोडो वेळ शांत गेलो. शंकराक दिसलें आपूण जाण्टो–म्हातारो

जालां. वय वाडलें तशें आपलें मन आनी आंगपांग वाडत रावलां.... सगल्यांत भरसलां.

निमाणी पुलीस सबइन्स्पेक्टरान पंचनामो बरोवपाक घेतलो. सगले मड्याच्या लागी जमले. मड्याच्या तोंडावयलो कपडो काडलो. इतल्यान मोटरसायकलीवयल्यान दोग जाण थंय आयले. एकटो तरनाटो... सादारण बावीस वर्सांचो. तर दुसरो गोरोसो जाण्टेलो पंचावन्न वर्सां वयर. ताणी मडें पळयलें आनी कुशीक वचून रावले. थंय ते किदें तरी फुतफुतताले. टॉमी सुण्याच्या कानांत तें गेलें आनी तो थंय वचून त्या तरनाट्याक हुंगपाक लागलो. कावळ्यान विचारलें, ''टॉमी, कोण रे तो?'' ''विनूचो सामको लागचो सोयरो दिसता.''

''व्हदळच्यान पुलीस जाची वाट पळयतालो तो कांय किदें रे? मागीर तो थंय वोगीच कित्याक रावला? मेला तो आपलो मनीस म्हूण कित्याक सांगीना?''

''आसतली किदें तरी अडचण. वा लजता आसतलो. टॉमीन आपले तरेन स्पश्ट केलें.''

''मागीर बेवारशी मडें म्हूण पुलीस व्हरतले मरे.'' कावळ्यान आइडोन सांगलें त्या तरनाट्याक कळपाक जाय म्हूण. मागीर सगळे वोगी म्हूण सुण्यान सांगलें, ''त्या तरनाट्याची इत्सा....''

पंचनामो फुडें बरोवपाक सबइन्स्पेक्टरान मडें आनीक सारकें पळयलें. मड्यार किदें मारलेल्याचे वळ वा घावे आसात कांय म्हूण पळयले. ताका मारलेल्याचे बीन घावे नासले. पंचनामो बरयतना दोगजाण येयल्ले तांका सबइन्स्पेक्टरान कांय एक विचारलेंना. पूण शंकराक पंचनाम्याचेर सय करतलो कांय म्हूण विचारलें. पूण तो वोगीच रावलो. निमाणी पंचनाम्याचेर त्या तरनाट्यांनी सय केली. मागीर मडें कवळ्ळें. तें मोर्गांत व्हरपाक सबइन्स्पेक्टरान फोन करून पुलीसांची हर्स व्हॅन आफयली.

हर्स व्हॅन बरीच उसरां आयली. रातचीं साडे धा वरां जाल्ली. हर्स व्हॅन येतकच मोटरसायकलीवयल्यान आयल्ले ते दोगूय जाण थंयसून कडसरले.

हर्स व्हॅनीत विनूचें मडें दवरताना शरणाचेर आनी मोहनाचेर आकांत आयलो. ते दोगूय जाण रडपाक लागले. त्या दोगय भुरग्यांची पुराय वळख आतां शंकराक जाल्ली. ते दोगय घाटी भुरगे आसले तरी गांवचेच प्राथमीक शाळेत शिकलेले. थंय तो तांका वळखतालो. आतां ते व्हडले जाल्ले. ते भुरगेय

शंकराक वळखताले. शरण आनी मोहन रडटा म्हूण शंकर तांच्या फुड्यांत गेलो आनी तांचे सांत्वन करपाक लागलो. इतल्यान दोगांयनी म्हणलें, ''शंकरदा, आमचो बाबा गेलो रे.'' मागीर ताणे तांच्या फाटीर थोपटीत वोगी केले.

शरणान आनी मोहनान तें मडें पुलीस हर्स व्हॅनीत दवरलें आनी आपूण दोगूय हर्स व्हॅनीत बसले. पुलीसांची हर्स व्हॅन मोर्गावटेन वचपाक लागली. तसो टॉमी सुणो आबूज जालो.... ताणे भुंकून होळोम काडलो. कावळ्यान कांव कांव करीत आड्डी मारली आनी झाडावयल्यान आपली पाखां फडफडायलीं. टॉमी भुंकत हर्स व्हॅनी फाटल्यान धांवपाक लागलो. तें पळोवन मोहनान म्हणलें, ''शरण पळय, टॉमी धांवत येता मरे...''

मागीर टॉमी ते व्हॅनी फाटल्यान आपलें हड्डें फुटसर धांवत रावलो.

दुसरे दीस सकाळीफुडें शंकर आपली जीप घेवन सरकारी हॉस्पिटलाच्या मोर्गाकडे गेलो. विनूचो कसो तरी अंत्यसंस्कार करपाक जाय हें येवजीत. ताचो कोण येत कांय ना हाची धाकधूक शंकराक आसली. थंय पावना फुडें ताणे पळयलें– कालचो पुलीस सबइन्स्पेक्टर एकट्या तरनाट्याक तापयतालो. तो कालचोच मोटरसायकलीन आयल्लो तरनाटो आसलो. आनी दुसरो गोरोसो जाण्टेलो. सबइन्स्पेक्टर रागान उलयतालो, ''आं ऽ तूं अशोक ताचो पूत. मागीर कालचे राती कित्याक सांगलें ना?''

''सर सांगतां, त्या प्रसंगार हांव ताका बापूय म्हणपाक भियेलों. तो म्हजो रगताचो बापूय आसलो तरी, इतलीं वर्सां ताणे म्हजेकडें बापूय म्हूण वळख लेगीत दाखयलीना. ह्या वांगडच्या मामाक लागून म्हाकां कळ्ळें तो म्हजो बापूय. आनी ताणे कालच म्हाकां तशें सांगलां. लोकलज्जेखातीर ताची निमणी क्रिया करपाक आमी आयल्यात. विचार ह्या मामाक.''

''बरें ओके ओके. हांवें तशी खबर काडलेली. तुमचे खाजगी जिणेत पडपाचे ना म्हाकां. सगल्यो फर्मालिटी करून व्हरात तांचें मडें.''

अशोकान ताचे मडें आपल्या गांवांतल्या घरा ना व्हरतां सरकारी हॉस्पिटलांतसून सरळ शारांतले मसणीत व्हेलें. शंकरय चल या म्हूण विनूचे निमणेयात्रेक गेलो. अशोक हो विनूचे पयले बायलेचो पूत. जाण्टेलो ताचे पयले बायलेचो भाव. ते तीग सोडून आनीक कोण नासले. म्युनिसिपालीटीचो मनीस सरण दाळतालो. शंकर अशोकाच्या दोळ्यांत पळयतालो. ताच्या दोळ्यांत तशी दुकां नासलीं. ही अंत्यक्रिया जावन वच्ची म्हण तो धडपडटालो.

शंकरान मडें उखलपाक हात घातलो आनी तें सरणार दवरलें. पुतान उजो लायलो तशी विनूची कूड हळूहळू उज्यांत ना जावपाक लागली.

शंकराक उबो रावला थंय विचार आयलो, विनूची दुसरी बायल कोणावांगडा पळून गेल्ली ती जर हांगा आयल्ली तर ती आपलें मंगळसूत्र आनी कांकणां काडून विनूच्या मड्याकडें दवरतली आसली कांय? लग्नसंबंद... नातेसंबंद... कपलाचो कुकूम... मंगळसूत्र काडून सोपता कांय? कांय तिणे पयलीच कोणावांगडा पळून वचून लग्नसंबंदाक तसो कांय अर्थ ना हें दाखोवन दिलें? कांय हे संबंदान मनीस आनी हेर प्राणी हांच्यांत तशें अंतर ना?

मदी काव काव काव असो आवाज जालो. शंकराचें लक्ष त्या आवाजाकडें गेलें. एक कावळो स्टोर रुमाच्या पांख्यार बसलेलो. शंकरान मनांत म्हणलें, ''खंयचो कावळो कांय हो? कालच्या त्या झाडावयलो? हे कावळे सगळेच एकसारके आनी काळेच. म्हाकां वळखूंक येना.''

मडें अर्दावयर जळून गेल्लें. शंकरान तरनाट्या अशोकाक हात दिलो आनी मसणी भायर येवन ताणे आपली जीप सुरू केली. इतल्यान जिपीच्या फाटल्या रिकाम्या सिटार कोण तरी येवन बसल्याचो ताका भास जालो. कोण बसला कांय म्हूण ताणे फाटल्यान पळयलें. जिपीची फाटली दोन सिटां तशी रितीच आसलीं... मागीर ताका उगडास जालो. आरे, आपणे कालच्या त्या भुरग्यांक वांगडा हाडलेना. हाडलेले तर.... शेऽ तांका हाडूंक जाय आसले...

दनपार जाली. सुर्याचे वोत खर जाल्लें. जीप गांवांतल्या विरजणाकडच्या बसस्टॉपाकडे पावत आयली आनी कालच्या त्या दोनय भुरग्यांक पळोवन शंकरान जीप थांबयली. शरण आनी मोहन कोणाची तरी वाट पळयत रावल्यावरी उबे आसले. तांच्या लागीच कालचो टॉमी सुणो बसलेलो. बसस्टॉपाच्या पाडसार दोन तीन कावळे वोगीच आड्डटाले. तातूंत कालचो तो रडपी आनी फडफडपी कावळो आसूंक जाय अशें शंकराक दिसलें.

जिपितल्यान तो देंवलो आनी त्या भुरग्यां म्हऱ्यांत गेलो. ताणे त्या भुरग्यांक हात वयर करून म्हणलें, ''आरे खंय रे तुमी? तुमी विनूच्या इतेराक आयलेनाशे.''

''पात्रांव... शंकरदा, आमी हांगा सकाळच्यान आसात. कोणेच आमकां सांगलें ना. ताचो इतेर म्हूण. आमी हांगाच रावल्यात.''

''तुमी रावल्ले तर. थंय शारांतल्या मसणीत ताचो इलो केलो तांच्या

मनशांनी.'' हें आयकून ते मोने आनी बाबडे जाले. तें पळोवन शंकराक वायट दिसलें. थोडेशे खंतीन तो थंयच उबो उरलो. मागीर ताणे पयली मोहनाक हात दिलो. उपरान्त शरणाक हात दितां दितां ताणे ताका सोमतीच वेंग मारली. आनी ताची फाट थोपटीयत रावलो.... ताका दिसलें बापायविणे भुरगे आनी...



# फटिंचे देव

शुभदा मोटर्साकडे सकाळी फुडेंच घिट्टी दिसताली. गाडयांची आनी मनशांचीय. पयल्याच पावसांत अपघात जाल्ल्यान तीन धाकल्यो गाडयो शुभदा मोटर्साचे गॅरेजीकडे हाडलेल्यो. गॅरेजीच्या कांवटरार चार जाण उबे आसले. तांका आवियार करपाक कांवटरार आजून कोण येवं नासलो. गॅरेजीचो मॅनेजर जेससायब पांच दीस जाले येवकूच नासलो. कोण म्हणटाले तो सुटयेर आसा तर कोण म्हणटाले तो नोकरी सोडून गेला.

चिंबल गांवचो सुनील तर स-सात दीस जाले थंय येतालो. ताची धव्या रंगाची टाटा कंपनीची Indigo cs कार थंय रिपेरिंगाखातीर हाडलेली. ती गॅरेजीच्या एका कोनशाक दवरल्या थंय आसली. तिका कोणेच हात लावंक नासलो. तिचेर धुल्ल बसलेलो. आपली गाडी घरच्या कम्पांवडांत भितर घेतना ताचे नवे कारीच्या फाटल्या दाराक लोखंडी गेट आपटलेली आनी बरेंच मोठें चेप पडलेलें. झरकटल्ल्यावरी बोरे वोडलेले. दाराचें चेप काडपाक जाय आसलें. आनी दाराक स्प्रे पद्धतीन रंग मारलो ना तर पावसांत गाडयेचो पत्रो कळमेवपाचो. आदलो मॅनेजर जेससायबान ताचे काम रोकडेच करून दिता म्हूण सांगलेलें. दोन दिसांनी इन्सुरंसाचो एजंट येवन गेल्लो आनी ताणे इस्टीमेटय केल्लो. ताका एक हजार रुपया भरपाचे पडटाले आनी बाकीचे बारा हजार रुपया इन्सुरंस कंपनी गॅरेजवाल्याक दिवपाची आसली. ताका दिसतालें चार-पांच हजार रुपया खरो खर्च आसूंये. वयलो खर्च बेश्टोच फुगोवन दाखयला... जांव, आपल्या बोल्सांतल्यान इतले खंय वता? तांचे ते पळोवन घेवं. तरी ताका परत परत दिसतालें. आपले परस आनी गाडये परस आनीक कोणाचो तरी इन्सुरन्स आपणे आपल्या पैशांनी काडला.

कांवटराचेर कोण मनीस ना म्हूण सुनील गॅरेजीत भितर सरलो. थंय एकटो मॅकनीक आसलो. कामाखातीर डार्क निळो ड्रेस घालपी मॅकनीकाक तो ह्या दोन दिसांत वळखतालो. सुनीलान ताका विचारलें, ''सलीम म्हजे गाडयेचें काम करपाक घेतलें? ताणे मानेनूच ना म्हणलें आनी तो उलयलो. ''तुजी आनी उपरान्तच्योय गाडयो रिपेर करूं ना. आमी मॅनेजर सांगता तशें करतां. तूं नव्या मॅनेजराक भेट. तो शोरूमाच्या सेल कांवटराकडे आसा. ताणे मोटव्या हातांचो तांबडो शर्ट घातला.''

तो नव्या मॅनेजराक मेळपाक वचपाक लागलो. तसो थंयचो आनीक एक गाडयेकार ताच्या वांगडा वचपाक लागलो. सादारण चाळीस वर्सां पिरायेच्या मॅनेजरामुखार बसून दोग गिरायक उलयताले. नवो मॅनेजर विनोद सुनीलाचे वळखीचो. तो ताचे गांवचो. तो पयरूच कामार रुजू जाल्लो. ताची बायल प्रिया शुभदा मोटर्सांत स्टोर क्लार्क म्हूण बरोच तेप काम करताली. ताणे सुनीलाकडे पळोवन हात केलो आनी ताणे मुखार बसलेल्यांकडे आपले उलोवप चालूच दवरलें. ते दोगूय नव्यो गाडयो घेवपाक आयल्ले. बऱ्याच वेळान तांचे सोपतकच सुनील आनी ताचे वांगडा आयल्ले मनीस कॅबीनांत गेले, तसो मॅनेजर मात्सो गोंदळ्ळ्यावरी जालो. सुनीलान ताका सांगलें, ''म्हजी गाडी इंडिगो सीएस रिपेराक दवरल्यार स दीस जाले. जेससायबान गाडी रिपेर करून दिता म्हूण सांगिल्लें.''

''तुजे गाडयेक इन्सुरंसाचो क्लेम आसा?''

''हय. इन्सुरंन्साच्या एजंटान इश्टीमेटय दिला.''

''हां. पूण तो रिपेर्साचो मॅनजर ना. हांव पळयतां किदें जाता तें. मॅनेजरान ताका उतर दिलें. उपरान्त वांगडचो मनीस उलोवपाक लागलो, ''पयर गाडी हाडून दवल्ल्या. इन्सुरंसाचो एजंट येता म्हण्टालो तें किदें जालें?

''एजंट आयज साडे धांक येता म्हण्टालो पूण आतां इकरा जालीं. मात्शी वाट पळोवया.''

ताणे अर्दवर वाट पळयली मागीर फाल्यां येता म्हूण तो थंयसून गेलो. ताचे वांगडा सुनिलानय थंयसून पांय उखल्लो. भायर पावस पडटालो. गाडी आसल्यार बरें जावपाचें असो विचार ताचे तकलेन येवन गेलो. तो परत मॅनेजराकडे आयलो आनी ताणे ताका सांगलें ''विनोद, मात्शें बेगीन जांव दी.'' ताणे पळयतां म्हूण सांगलें. तसो तो वोगी रावन वचपाक लागलो. ताणे मनांत म्हणलें- हो विनोद वळखीचो मनीस म्हूण वोगी रावलों. पूण ह्या धंद्याकाराकडें भिडमुर्वत खंय आसा?'' शुभदा मोटर्सचो पात्रांव कृष्णराज दनपारां बारांक ताच्या कॅबिनांत येवन बसलो. धा मिण्टां बसून एक-दोन फोन करून तो विक्री विभागांत ना वता तो गॅरेजीच्या विभागांत गेलो. गॅरेजीत फकत दोन मॅकनीक आसले. ताणी एके गाडयेचें मशीन उसयल्लें. स-सात गाडयो रिपेराक दवरलेल्यो. थंयच्या कामगाराक कांय ना विचारतां ताणे सगळीकडे नदर भोंवडायली आनी तो परतलो.

पात्रांव कृष्णराजान नव्या मॅनेजराक आपल्या कॅबिनांत आफोवन हाडलो. पात्रांवापरस नवो मॅनेजर सात आठ वर्सांनी ल्हान आसूंये. तो उबोच रावलो. फेर्राच्या शर्टपँटीतलो ताचो आब पळोवन ताणे ताका आपल्या मेजाकडच्या खुर्चेर बसपाक सांगलें. मागीर विचारलें, ''विनोदबाब, काम कशें चल्लां?''

''सर, सेलचें बरें चल्लां. गॅरेजीतलें काम... सर, आमकां गॅरेजीतल्या कामाक एक सुपरव्हायजर आनी दोन-तीन टेक्नीशियन जाय.''

''तूं सेल आनी गॅरेजीचो मॅनेजर. तुवें दोनय सांबाळपाक जाय. काम तशें चड आनी सेगीत आसल्यार आनीक टेक्नीशियन घेंव येता. काम मदी मदी आसना. इतले कामगार घेवन ताचो इतलो पगार कोण फारीक करतलो? आनी काम नासता तेन्ना तांका बसोवन पगार दिवचो पडटलो. पळय, आसा त्या कामगारानी काम करून घेवपाचें. काम आसताना कोणाक घरा रावपाक दिवं नाका. कांय जाणाक संवंय कसलेंय निमीत करून घरा रावपाची. एक कामगार कामार येंव ना मरे.''

''हय सर.'' मागीर कृष्णराजान आपले धवे केस सारके करीत म्हणलें,

''आंऽ, शादूर राव, आमचेकडे कामगार कमी आसात अशें कोणाक सांगप ना. राँग मेसेज वतलो कळ्ळें मरे!''

''हय सर.''

''शो रूम आनी गॅरेज उभारपाक आमी रीण काडलां तें फारीक करपाक कितलीशीच वर्सां वतलीं.'' हें सांगून तो मात्सो वोगी रावलो. ताच्या मनांत आयलें हें आपूण कितलीशींच वर्सां सांगीत आयलां. फाटलें रीण तर फारीक जालें...उपरान्त तो हय न्हयशें हांसलो आनी परत उलयलो, ''कामगाराक चड पगार दिवपाक शकना. तशेच चडूय कामगार दवरपाक शकना.''

''हां सर.'' मॅनेजरान म्हणले खरें. पूण कालच येवच्या येवन ताका कळ्ळलें तांचे दोन बरे कुशल कामगार पगार कमी मेळटा म्हूण गेल्याच म्हयन्यांत सोडून गेल्ले. आनी गेल्या आठवड्यांत शुभदा मोटर्सचो मॅनेजर जेससायब बरो जॉब मेळटा म्हूण दुसरीकडे गेल्लो. ताणे एम.बी.ए केल्ली खंय. ताका बरे कंपनीत बऱ्या पगाराचो जॉब मेळ्ळलो. हांगा शुभदा मोटर्सांत मॅनेजराचो पोस्ट रितो आसा म्हूण प्रियाकडल्यान ताका कळ्ळलें. नोकरी

दितना पात्रांवान ताका सांगलेलें– किदें आसा तांतून आमकां मॅनेज करपाक कळपाक जाय. परत पात्रांवान सांगलें. ''हां, चड चितप ना. म्हजेकडे मात कसलीच कागाळ येवंक जायना. तुजें तुवें मॅनेज करपाचें. दोनय विभाग. फाटी म्हजेकडे एक कागाळ आयिल्ली– म्हजो मॅनेजर फट उलयता. सारकें सांगीना म्हूण. हांव वोगीच रावन हांसलो. मॅनेजराक हांवें कांय एक म्हणलें ना. म्हजो मॅनेजर धंद्याकार. फट उलयलें ना जाल्यार धंदो कसो चलतलो? हांऽ... पूण म्हजेकडे कोणाची कागाळ येवंक जायना. तुजें तूं पळोवन घे. म्हर्जी आनीक खूब कामां आसात.''

पात्रांवाच्या कॅबिनांतल्यान मॅनेजर विनोद भायर सरलो आनी आपल्या कॅबिनांत आयलो. तेन्नाच ताच्या मनांत आयलें. आतां आपल्याक वेवस्थापना भायर खुबूच नाडेपेन्नां करचीं पडटलीं. ताच्या कॅबिनांत दोन कस्टमर बसलेले. दोगांयच्यो गाडयो रिपेराखातीर हाडलेल्यो. एकटो कस्टमर सांगपाक लागलो, म्हजी गाडी रिपेराखातीर दवरल्यार चार दीस जाल्या. आजून रिपेर करूं ना.''

''हां. हांव पयरूच जॉयन जालां. पळयतां. तूं यो फोन करून.''

पयलो कस्टमर उठून गेलो. दुसरो कस्टमर खेट कसो बसून रावलो. ताणे मागीर म्हणलें, ''स दीस जाले गाडयेक हात लेगीत लावंक ना. इंजीन रिपेर करपाक जाय. स्पेअर पार्ट जाय ते स्टोर्सांत आसा खंय.''

मॅनेजरान विचार केलो, जी गाडी उसयल्या ती सांजमेरेन जायत अशी दिसना. हाका किदें सांगू? आयचें मर्ण फाल्यां धुकल्ल्यार बरें अशे येवजून किदें तरी सांगपाक ताणे तोंड उगडलें, किदें पार्ट जाय तिका?''

''शाफ्ट''

''शाफ्ट मरे. तो तर स्टोअर्सांत ना.''

''स्टोअर्सांत हांव दोन दिसा पयलीं गेल्लों. आसा म्हण्टाली ती बायल.... स्टोर्स क्लर्क.''

दोन तीन दीस हाचे काम घेवंक मेळचेना हें चितून ताणे परत सांगलें, ''ना तो पार्ट ना. शाफ्ट इंजिनाचो मुखेल भाग. हांव ताका विचारतां आंऽ'' ताणे इंटरकॉमाचो नंबर लायलो. रींग वाजल्या बरोबर फोन उखलून हॅलो म्हूण बायल उलयल्ल्याचो आवाज आयलो. मागीर तो उलयलो. ''स्टोर रुम न्हय. हांव मॅनेजर उलयतां. ते गाडयेचो शॉफ्ट आसा आमच्या स्टोरांत? ना न्हय.'' तिणे आंऽ आंऽ म्हणलें. तेन्ना मॅनेजरान म्हणलें. ''कितल्या

दिसांनी मेळटलो? दोन दिसांनी..'' ताच्या प्रस्नाक तिणे जाप दिलीना तरीय ताणे म्हणलें, ''दोन दिसांनी मगो?'' तरी ती वोगीच. मॅनेजरान फोन दवरलो आनी त्या कस्टमराक सांगलें, ''पळय स्टोअर्सांत शाफ्ट ना. आमी ऑर्डर करतां. दोन दिसांनी मेळटलो.'' हो मॅनेजर ह्या बोटावयली थुकी त्या बोटार करता आनी वेळ काडटा हें ताका जाणवलें. तो वाजेवन उठलो आनी बरें, फोन करून येतां म्हूण सांगून गेलो.

मॅनेजराक इंटरकोमांतल्यान फोन. स्टोर रुमांतली स्टोर क्लर्क प्रिया... ताची बायल ताका फोन करताली. तिचो आवाज दुखान हाल्ल्याभशेन. ''विनोद.... सर, गाडयेक जाय तो शाफ्ट आमच्या स्टोर्सांत आसा. आनी ताका आमी आसा म्हूण पयली सांगलां. मागीर आतां ताका ना म्हूण कित्याक सांगलें?''

''तुका कळचेना गो तें.''

''पूण...''

''प्रिया पळय, पूण बीन तशें कांय ना.''

''पूण विनोद तुवें फट कित्याक सांगपाक जाय? तेंय येवच्या येवन. पयरच तर तूं हांगा जॉयन जाला.'' प्रियान आपलो उडलेलो आंवरो सांबाळीत सांगलें.

''आगो आतां मोबायल फोनाच्या काळांत फट, फन म्हूण पळोवपाक जाय.''

''तशे जाल्यार आमी साखरेक मीठ म्हणूया. साखरेच्या जाग्यार आमी दुदांत मीठ घालूंया. म्हणजे जालें... दूद फुट्टलें मरे. तोंडांत येता ते कितेंय बडबडूंक जायना....''

ताका उलोवपांतल्यान प्रियाच्या सावळ्या नाकाच्या शेंड्यावयलो राग आनी चुडीदारांतल्या ताच्या आंगाची तडफड कळ्ळी, म्हूण ताणे म्हणलें, ''आगो तूं मनाक लावन घेवं नाका. मागीर उलोवया. ओके?''

मॅनेजर विनोदान ओके म्हूण फोन दवरलो खरो पूण ताका आपल्या घोवाचें अशें फट उलोवप मानवलेंना. ताच्या मनाक तें खावपाक लागलें. आदलो मॅनेजर केन्नाय चुकून फट उलयतालो. आनी हो म्हजो घोव... असल्यानी कामां जातली कांय कामां जावपाक कठीण जातलें... मागीर उलयतलें हांव ताचेकडे. अशे येवजिलें तरी ताचे मन कामांत लागना जालें.

स्टोअर्सांतले ताचें काम रेक्त आसतालें. सगळ्यो नोंदी ना चुकतां

जाताल्यो. आपलें काम की आपूण बरें अशे ताका दिसतालें. तें कोणायच्या कामांत मेतर जाय नासलें. पगार व्हडलो नासलो तरी तें थंय सात वर्सां काम करतालें.

प्रियाचो घोव विनोद फाटी स म्हयने बेकार आसलो. ताणे ते पयलीं चार वर्सां एका टिवी मिडियांत मॅनेजर म्हूण काम केल्लें. तो टिवी चॅनेल नांवाजतो– Vision Media. चार वर्सां टिवी चॅनेल बरो चल्लो. पूण जुस्त वेचणूकेच्या वर्सा सरकारचो आनी पात्रांवाचो हस्तक्षेप वाडलो. सरकाराच्या आड जायत अश्यो कांय खबरी दिवप ना, कार्यावळी करप ना. तरी मिडियाच्या कार्यकारी संपादकान आनी मॅनेजर विनोदान मानून घेतलें. सरकाराच्या फावराद घडोवन फटीच्यो खबरी लेगीत दिल्यो. कार्यावळी दाखयल्यो. पूण हें जनतेक कळ्ळें. विनोदाक याद जाली– त्या दिसांनी मिनाखणीची एक खबर प्रसारीत जाली. जालें– मुख्यमंत्र्याचो पात्रांवाक फोन आनी पात्रांवाचो संपादकाक आनी मॅनेजर म्हूण विनोदाक.

''हॅलो, कोण विनोद मरे ?''

''हय सर.''

''संपादकान मिनाखणीची खबर दाखयलीच मरे!''

''ती खरी खबर सर. आमच्याच न्हय तर सगल्या न्यूज चॅनेलांनी ती दिल्ल्या.'' विनोदान गडबडून सांगलें.

''आरे ती सरकाराक वायट. सरकाराचो मिनाखणीचेर कांयच कंट्रोल ना अशें जाता. तेन्ना तुमी अशी न्यूज दिवंक नाका. जाता जाल्यार वेगळे तरेन तुमी न्यूज दियात. सरकारावशीन. तशे न्यूज रिपोर्ट करून दियात म्हूण रिपोर्टरांक सांगात. सरकारा फावराद. जांव मागीर ते खोटे. घडोवन दियात.''

''पळयतां सर''.

''पळयतां बीन कांय ना. सांगलां तशें जावंक जाय.'' बेठेच आमी तांका हजारानी पगार दिनात.''

''हां सर.''

दुसरे दिसाच्यान घडयल्ल्यो खबरी, रिपोर्ट विनोदाच्या व्हिजन मिडियांतल्यान लोकांमुखार येवंक लागले. लोक तितल्यापुरते पळयताले आनी विसरताले. सरकाराच्या फावराद त्योच त्यो खबरी, कार्यावळी दिवन संपादकय बेजार जाल्लो. निमाणी वेचणूक जाली आनी तातूंत सरकार

पडलें आनी नव्या पक्षाचें नवें सरकार आयलें. कार्यकारी संपादकाक आनी मॅनेजर विनोदाक दिसपाक लागलें. आतां तांचेर हावळ येतली आनी तशेंच जालें. सरकार पडटकूच दोन दिसांनी दोगूय जाणांक कामावयल्यान काडून उडयले. सारकें काम करुंना म्हूण. आरोप दवरतले कसोय दवरता. सुण्याक मारपाचें जाल्यार तें पिसावलां म्हण्टा आनी तुबकाची गुळी घालता. आनी तशेंच जालें.

फाटलें हें सगले येवजून विनोद खंतीन हुस्कारलो. आपूण डबल ग्रॅज्युएट B.Sc., B. Com आपणे सरकारी शिर्वीस वा बँकेत शिर्वीस केल्ली तर प्रायव्हेट शिर्वीसेतले जंवजाळ पडचे नासले वा तांच्या तालार नाचचो पडचो नासलो. आपलो स्वताचो धंदो केल्लो तर तो इतलीं वर्सां मेरेन उबो जातलो आसलो, अशें तो चित्ता थंय आसा, प्रिया ताच्या कॅबिनाच्या दाराकडे येवन उबे रावलें. ताका पळोवन ताच्या काळजांत कच्च जालें. मनीस, परकी मनशापरस आपल्या मनशाक चड भियेता. प्रियाच्या हातांत जेवणाचे दोन डबे आसले. ताणे मेजावयल्या मोबायलाच्या घडयाळीचेर पळयलें. दनपारचें देड वर जावन गेल्लें.

दोगांयनी आपआपले जेवणाचे डबे मोन्यानी उगडले आनी जेवपाक सुरवात केली. प्रियान व्हदळचे शाफ्टाचे गजालीचेर उलयतलें म्हूण पयलीं थारायल्लें. पूण जेवताना किजिलां नाकात म्हूण तें वोगी रावलें. ताका दिसतालें विनोद काय बरो प्रामाणीक आसलो. त्या चॅनेलांत कामांत वतकूच बदल्लो. आतां तर तो आदलीचो विनोद उरूं ना. धंदेकार विनोद जाला. व्हडलो बिसनेसमन. तोय त्या पात्रांवांचो. आतां तर तो मोबायलार खरें-फट उलयत आसता. तांचेच कित्याक सगल्यांक तशी संवंय जाल्या. जगार वारेंच तशें आयलां म्हणल्यार जाता.

प्रिया व्हदळची गजाल काडीत म्हूण विनोदय उलोवपाक खाकुडटालो. तोय मोन्यानी घांस तोंडांत घालतालो. ताणे व्हिजन चॅनेलातलें घाण्याच्या बैलाभशेनचें आपलें काम ओडलेलें आनी ते उपरान्त स म्हयने जिवाक खावंक येवपी बेकारपण सोसलेलें. बेकारीन ताका हालोवन उडयल्लो. तांतूत शाळेत शिकपी दोग पूत. हे यादीन जेवताना ताच्या उस्तऱ्यां गेलें. प्रियान बेगीन बेगीन ताका आपलो उदकाचो पेलो दिलो. उदक पियेतकच ताचो श्वास मेकळो जालो. प्रियान ताच्या फाटीर थोपटीत सांगलें, ''सवकास, सवकास. वोगीच चड विचार करूं नाका. तो उलयलोना पूण ताणे मनांत

म्हणलें– किदें जाता तें जांव. किदें जाता ताका तोंड दिवप.''

सदाच सकाळपासून दनपारां आनी दनपार ते सांजवेळमेरेन शुभदा मोटर्सांतले लँड लायन फोन आनी मोबायल फोन वाजताले आनी कोण ना कोण उलयतालो. तांतूंत चडशे मॅनेजराक फोन आसताले. गिरायकांचे आनी माहिती विचारप्याचेय आसताले. मदी मदी गाडी दुरुस्त करूंक दवरलेल्याचे आसताले. कामापरस उलोवप चड जातालें. किदें उलोवचें, कशें उलोवचें हाचो प्रस्न पडटालो. कांय जाण उलयताना मॅनेजराक कातरीन धरताले. मागीर तो वेळ निभावन व्हरपाक आदल्या मॅनेजराभशेन किदेंय सांगतालो. तर केन्ना बेजारून आपलो मोबायल फोन बंद दवरतालो. तर केन्ना मेजावयलो फोन वाजत रावतालो. शोरुमातलें रिशेप्शनिस्ट कम क्लर्क रुचिराक ताणे आपल्या कॅबिनांतलो फोन घेवपाक सांगलें. निरागस दिसपी रुचिरान फोन घेवन हॅलो केलें आनी ताणे मॅनेजराकडे पळयलें. मॅनेजर ताका हातान कुरवो करतालो. हांव ना म्हूण सांग ताका. भायर.... फोनातल्यान आवाज,... मॅनेजर आसा? ताचेकडे उलोवपाक जाय... दी मात्सो....'' रुचिरान सांगलें, ''मॅनेजर हांगा ना. तो भायर गेला...''रूचिरा जाणा आसलें– हातूंत तशें वेगळे कांय ना. सगले मॅनेजर एकेच तरेचे. दिसता जेससायबाभशेन होय हाडापेरान घट आनी उंच, पूण फोफसो.

तीन दीस मदी गेले. चिंबलचो सुनील गॅरेजीत मदी येवकूच नासलो. गॅरेजीतली सांडलेली काळी ऑयल वा ग्लीस आपल्या मुस्तायकेक वा पायांच्या बुटांक लागत म्हूण तो भियेतालो. किदें जालां ते पळोवया तरी म्हूण सुनील एके सांजे स वरां जावचे आदी शुभदा मोटर्सचे गॅरेजीत भितर सरलो. ताची नदर वण्टीक लायल्ल्या जेजूच्या पांयजेलाचेर पडली. जेजू देवबाप्पाकडे लोकांक गुन्यांवाखातीर भोगोस म्हूण मागपी. पांयजेलाच्या उजव्या कोनश्याक मेरीमांयेचो धाकटुलो फोटो कोणेतरी लायल्लो. तिच्या माथ्यावयल्यान पदर आसलो. ती तर जेजूची मायेस्त आवय. उपरान्त सुनीलान पळयलें थंयचे दोन मॅकनीक सलीम आनी विष्णू आपले हात धुताले. आपले इंडिगो सीएस गाडयेचेर नदर भोंवडावन तो भायर सरलो आनी ताणे मॅनेजराच्या कॅबिनावशीन पांय उखल्ले.

थंय पावतकच तो कॅबिनाभायर रावलो. मॅनेजर फोनार उलयतालो. तो ताका नियाळीत रावलो. इतल्यान मॅनेजराची बायल प्रिया आपल्या खांदार धाकटुले बॅग मारून थंय आयलें. काम सोपतकच ती दोगांय

मोटरसायकलीर बसून घरा वचपाची आसलीं. सुनील वळखीचो म्हूण प्रिया ताका हडकिल्ल्यावरी हांसलें. मॅनेजर फोनार उलोवपाचो थांबलो, हें पळोवन सुनील कॅबिनांत गेलो आनी खुर्चेर बसलो. फाटोफाट प्रियाय कॅबिनांत आयलें आनी थंय उबे रावलें. इतल्यान मेजावयलो फोन वाजलो. मॅनेजरान तो घेतलो. ''हॅलो हांव नितीन तळवटकार उलयतां. आमची गाडी तयार जाली? जाल्यार येता हांव व्हरपाक.''

''सर गाडी तयार जावना. आयज गाडयेचे काम घेवपाक मेळूंना.''

''तुवें सांगिल्ले न्हय आयज जातली म्हूण.''

''आयज सांगिल्ले?''

''नेगार कित्याक वता?''

''सर पळय, आयज आमचो मॅकनीक सलीम कामार आयिल्लो पूण ताची आवय सीक आसा म्हूण तिका घेवन तो जीएमसी हॉस्पिटलांत गेल्लो.

''खरें सांगता.''

''हय, देवाच्यान तर...''

तेन्नाच मॅनेजराक मेळपाक येयल्लो घरा वचपाच्या कपड्यांतलो सादसो सलीम कॅबीनाच्या दारांत रावन हें सगळें आयकतालो. ताका अजाप दिसलें... सलीमाकय थंय आयिल्लो पळोवन मॅनेजराक आनी प्रियाक फस्तीक सांपडल्यावरी धक्को बसलो.

''ना... ना... किदें तें फाल्या सांगता.'' अशें सांगून मॅनेजरान बेगीन बेगीन फोन सकयल दवरलो. आपूण गुन्यावकारी आनी कुस्कूट कसो ताका दिसलें. प्रियाक सलीमाच्या दोळ्यांत रागसो दिसलो... तो आतां मॅनेजर विनोदाकडे झगडटलो.... गाळीफस्ती करतलो. आपल्या आवय वयल्यान भलत्याच लोकांक फट मारली म्हूण. आपली आवय किदें विकपाची वस्त. तिका किदें अशी भायर उडयल्या... आतां सेर्त दोगांयची मारामारी जातली अशे प्रियाक दिसलें. ताचें तोंड काळें पडलें.

मॅनेजराचें अशें फट उलोवप कस्टमर म्हूण आयल्ल्या सुनिलाक मानवलें ना. तो मनांत म्हणपाक लागलो फट उलोवपाचें कोणाक चुकलें ना. महाभारतांत रणभूंयेर लेगीत फटी मारल्यो. द्रोणाचार्याक लडायेत मारचे पयली ताका निराश करपाक अशे तरेन सरळ सरळ फट मारली ना. युधिष्ठीरान लेगीत नरो वा कुंजरो वा म्हणलें. आनी हांगा ह्या वेळार भलतेच घडटा. मॅनेजराचें चडूच जालें. ताका राग आयलो आनी तो सलीमाची

प्रतिक्रिया पळोवपाक रावलो. आपले भलतेच फटीन विनोदय भियेल्लो.

धील जाल्ले नटबोल्ट घट करचे तसो सलीम हांसलो. ताणे कांय म्हणलें ना. ताका याद जाली... आपूण कामार येनासलों तेन्ना कितले तरी फावट फटी मारल्यात... ''मांक बरें नाशिल्लें... तिका जीएमसी हॉस्पिटलांत व्हेल्ली....'' हे यादी भरशी तोय वोगी वोगी आनी खंती कसो जालो. मागीर मॅनेजराकडे ना उलयतां आनी सदच्या कामाचो रिपोर्ट ना कळयतांच तो घरा वचपाक लागलो. सगल्या हुजीर आपल्या आपूण सोणकुटार मारलां अशें विनोदाक दिसलें आनी ताचें तोंड काळें-निळशे जालें.

प्रियाचेर आकांत आयल्लो तो मात्सो कमी जाल्लो. तरी तें घुस्मटत उरलें. ताका दिसपाक लागलें- हो म्हजो घोव कित्याक हे फटींचे देव उबे करता कांय? कित्याक हे जंवजाळ उबे करता? पात्रांवाखातीर? पैश्यांखातीर? म्हजेखातीर कांय संवसाराखातीर? दोन भुरग्यांखातीर? कांय जगपाखातीर? कोणाखातीर आनी कित्याखातीर? अशे प्रस्नार प्रस्न. ते प्रस्न ताका अदीक खोल भोंवऱ्यांत घेवन वचपाक लागले.



# हिशेब

भोंवतणचें सगलें घुंवलेले वरी दिसता. म्हजो बिपी वाडला. तो १६० वयर आसूं येता. ब्लडप्रेशरान येवपी ही घुंवळ म्हणजे म्हजे कुडीची दुर्बळकाय. रगतांतली साखर आनी बिपी वाडत आसा....

हांव मनोहर. बासश्ट वर्सांचो. केंस पिकल्यात. दोन दीस जाले, खाड काडुंना. म्हज्या मनांत आंकड्यां परस अर्थाक धरूंक सोदपी उतरांचीच गर्दी चड.

पंदरा दीस जाले, लायटीचें तें बील मेजार पडलां. हांव हांगा खाटीर न्हिदलां आनी तें बील म्हजे सामकारूच आसा. फाटल्या दिसांनी हांवें तें म्हज्या हातांनी काडून दोन-तीन फावटीं पळयलें. दोन म्हयन्यांचें लायटीचें बील. बाराशें रुपया. म्हज्या जांवयान पळोवन थंयच दवरलेलें. ताच्या दोन बेडरूम फ्लॅटाचें तें बील. गिझर, फ्रीज, फॅन, कुलर विजेचेर चलताले. विशाखा म्हजी धूव. तिणें तें तिनदां पळयलें. फाटल्या बिला कडेन तपासून पळयलें. ह्या म्हयन्यांत चड आयलां अशें म्हणून थंय मेजार उडयल्लें. आयज तें बील फारीक करपाचो निमणो दीस.

स म्हयने जायत आयल्ले, हांव धुवेगेर रावल्यार. हांव ह्या हॉलांतले खाटीर न्हिदलां. विशाखा आनी जांवय जितेंद्र आपले कुडींत न्हिदतात तर तांचीं दोनूय भुरगीं दुसरे कुडींत. सकाळी फुडें भुरगीं शाळेंत वयतकूच हांव एकलो घरांत दीसभर आसतां. फाटल्या पांच- स वर्सां सावन अशीं घरचीं बिलां पळयतकच आनी फारीक कर नासतना उरतकच म्हजो बिपी अदीक वाडटा.

बारा वर्सां पयलीं म्हाकां असल्या बिलांचें कोंतूच नासलें. हांव बँकेंतलो पगारदार मनीस. एक जापसालदार ऑफिसर. असल्या बिलांचो आनी ल्हान पार्टेच्या बिलांचो हांव हिशेब करी नासलों. कॉर्प-एस् बँकेत भरपूर पगार. कामूय खूब. आनी बरो हुद्दो. आमचे बँकेक हेर बँकां परस कोट्यांनी रुपयांचो फायदो जातालो. आमचे बँकेच्यो चडश्यो शाखा कॉम्प्युटरायज्ड जाल्ल्यो. कामाचो वेग वाडलेलो. निर्णय बेगीन जावन कामांय सटसटीत जातालीं.

एक दीस हेड ऑफिसांतल्यान आमचे शाखेक सर्कुलर आयलें. ह्या सर्कुलराच्या पेपराचो रंग गुलाबसार आसलो आनी भितरल्या मजकुराची रचनाय आकर्शक आसली. सर्कुलर हांवेंच पयलीं वाचलें आनी बँकेच्या कर्मचाऱ्यांक व्हीआरएसाची येवजण आयल्या अशें हांवेंच मोठ्यान सांगलें. कावंटरा वयल्या स्टाफान पयलीं नवलायेन म्हजे वशीन पळयलें. कांय जाणांनी तें सर्कुलर म्हजे

कडल्यान घेवन वाचलें.

आपखोशी सेवा निवृत्तीचे येवजणेंत सादारण कर्मचाऱ्यांक धा लाखां वयर तर ऑफिसरांक बारा लाखां वयर रुपया मेळपाचे आसले. इतले दीस हांव असले आपखोशी सेवा निवृत्तीचे येवजणेची वाट पळयतालों. म्हाकां बँक सोडून दुसऱ्या वेगळ्या मळा वयल्या जिविता कडेन वचपाचें आसलें. हांव तसो हिशेब करपी. म्हाकां मेळपी पंदरा लाखांतले बारा लाख रुपया बँकेंतल्या फिक्स डिपॉजिटांत उडयत तर म्हयन्याक धा हजार मुळांत मेळू येताले. बारा वर्सां पयलीं धा हजार म्हणजे तशे कमी नासले. ते भायर वेगळीं कामां, प्रोजेक्ट करून जायतो पयसो मेळोवं येतालो. अशें चिंतून हांवें आशिकुशीच्या स्टाफा कडेन पळयलें. ते येवजणे कडेन पयलीं नवलायेन पळोवपी सगले जण तांकां ते येवजणेचें कांय पडूंक ना अशे तरेन कामाक लागलेले.

म्हज्या हिशेबा प्रमाण म्हाकां फायदो  आसलो. तशेंच म्हजो पुराय वगत म्हाकां मेळपाचो आसलो. म्हजे फुडलें आख्खें जिवीत म्हजे खातीर मेळपाचें आसलें. बँकेचे सेवेचें म्हत्व म्हाकां खबर आसलें. तरी म्हाकां बँक म्हणजे आंकड्यांचो हिशेब... खेळ. आपले आंकडे सदांच वाडटे दवरप... मात हे आंकड्यांचे रुपया काळा प्रमाण बाजाराक लावन तांचें मोल हातासपी बिजनेसमन आसतात आनी कांय थोडे व्होगडावपीय आसतात. बँकेक मार्केटांतल्या पयशांच्या मोलाचे व्हडलें पडलेलें नासता. मोडटल्याक तें कळटा.

सांजचो हांव घरा आयलो. म्हजे भिरकेंतूच हांवें घरकान्नीक उलो मारलो. ''सुमित्रा!'' तिणें जाप दिली आनी म्हजे कडेन पळयलें. हांव गंभीर दिसलों म्हूण तिणे विचारलें, ''किदें जालें? तुमी सिरियसशे?''

''हांव व्हॉल्युंटरी रिटायरमँट घेतां. आयजूच बँकेंत व्हीआरएसाचें सर्कुलर आयलां.''

''पूण इतले बेगीन....! तुमकां आजून पन्नासूय वर्सां जावंक नात.''

''पूण तुका सांगलेलें न्हय गो, धुवेचें लग्न जातकच हांव व्हीआरएस घेतलों म्हूण! व्हीआरएसाची स्कीम बरी आसा. मागीर मेळची ना. पंदराच दीस मुजत आसा. हांवें थारायलां.''

पूण फुडें किदें? फुडलें जिवीत तर शेकानशेक पडलां. आमचो निभाव कसो? तुमी रिटायरमँट घेवं नाकात.'' अशें म्हणत ती रडपाक लागली.

''आमकां लाखांनी रुपया मेळटले. तांचें व्याजूच पुरो आमकां. तशेंच किदें, नवो बिजनेस घालुंया.'' अशें सांगून तिका थातारपाचो यत्न केलो. तरी

ती आयकनासली. बँक सोडूं नाका. रिटायर जावं नाका, अशें परती परती सांगताली. दोन दीस जाले तरी म्हजो निर्णय बदलना तें पळोवन ती म्हजे वांगडा रावली. म्हणटाली, ''जावं, किदें जाता तें पळोवपाचें. आमी किदें तरी करचें.''

हांवें आपखोशी सेवा निवृत्तीचो अर्ज आमच्या बँक मॅनेजरा कडल्यान हेड ऑफिसाक धाडलो. दोन म्हयन्यांनीच म्हजो अर्ज मान्य जाल्ल्याचें लॅटर म्हाकां मेळ्ळें. त्याच दिसा एक व्हडली न्यूज कळ्ळी. आमच्या कॉर्प-एस बँकेचे पुराय देशांतले मेळून तीन हजारां वयर कर्मचारी आपखोशयेन निवृत्त जातात. आनी तांचे सगल्यांचे अर्ज हेड ऑफिसांतल्या बोर्ड ऑफ डायरेक्टरान मान्य केल्यात. इतले व्हड संख्येन बँकेंतले कर्मचारी निवृत्त जातात हें कळून म्हाकां धक्को बसलो. म्हाकां म्हज्या रिटायरमँटाची खोशी जाली ना. हांव रिटायर्ड जातालों म्हजे पिरायेच्या पन्नासाव्या वर्सा, आनी, म्हजे वांगडा बँकेतले कर्मचारी... हजारांनी.

निरोप सुवाळो जावन हांव घरा परतलों. घरा मेरेन सोडपाक म्हाकां बँकेची कार आयल्ली. म्हाकां दिल्ली गिफ्टां आनी फुलां तुरे घेवन हांव दारांत पावलों आनी म्हाकां कडकडो सुटलो. त्या दिसा हांव बरो सुटाबुटांत बँकेत गेल्लों. ते पळोवन कॅशरान म्हाकां आयकूंक येत असो कॉमेंट मारलो, ''सायबाचो सुटाबुटांतलो झेत फुडें उरतलो मरे?''

हांवें तेन्ना हो कॉमेंट आयकुना असो केलो. पूण दारांत पावतांच ताची याद जाली. बँकेचो आदार आयच्यान सुटलेलो. हांवूय एके पूर्व नियोजीत येवजणेचो बळी आसलों.

हांव कडकडटां तें पळोवन सुमित्रान म्हाकां घट्ट धरून भितर व्हेलो आनी सोफार बसयलो. त्या वेळार ताचे निळे साडयेचो पालव म्हज्या माथ्यार आसलो. म्हज्या शरिराची आनी मनाची स्थिती वळखून ताणें म्हाकां सांबाळ्ळो. म्हाकां म्हणपाक लागलें, ''भियेवं नाकात. हांव आसां तुमचे फाटल्यान... सदांच...'' ताच्या ह्या उतरांनी आनी लागसारपणान हांव सांवरलों. अश्या वेळार म्हजे वांगडा म्हज्या लांब जिविताची भरवंशाची सांगातीण आसा ही जाणीव जावन म्हाका धीर आयलो.

म्हाकां बँकेकडल्यान लाखांनी दुडू मेळपाचे आसात ही खबर आयकून एका आयतारा सकाळीं फुडेंच म्हज्यो भयणी, भाव आनी बरेचशे सोयरे तशेच इश्ट आयले. तांचे मदीं म्हजी धूव विशाखा आनी जावंय जितेंद्र आसलीं. पूत वामन आनी विलेश दोगूय आपली कामां कडेन दवरून त्या दिसा घराच रावल्ले. घरांत एके ल्हानशे पार्टेची तयारी चलताली. एकूण खोशयेचें वातावरण. पूण ह्याय

वातावरणांत कांय जमलेल्यांच्या अपेक्षांचो सूर गंभीरतायेन वाजतालो तर कांय जणांनी हुस्क्याचो सूर लायल्लो.

सुमित्रा किचनांतलें आपलें काम सोडून म्हज्या रुमांत आयलें आनी म्हाकां शादूर करपाक फुतफुतून सांगपाक लागलें, ''पळयात, आतां खबू जण येतले. तुमी तुमची जोड दिवन उडयश्यात. हांव तुमकां पयलीं सावन वळखतां म्हूण सांगतां. तुमकां पेंशनूय ना. किदें मेळ्ळां ते एके गांठीन. पयश्यांक खडप लेगीत तोंड उगडटा.''

''हय गो. पूण म्हजे कडेन आतां हातांत खंय आसा दिवपाक?''

''पूण फाल्यां सगल्यांची गरज उप्रासतली. तेन्ना तुमी ते बँकेंत आनी पोस्टांत फिक्साक जमा करात बेगीन.''

''आमी थारायलां ते प्रमाण करुया मगो.'' अशें सांगून हांवें ताका तात्पुरतें समजायलें.

दनपारचें जेवण जावन, सांजची च्या जावन जमलेलीं वचपाक लागलीं. तेन्ना कांय जणांच्या तोंडा वयल्यो अपेक्षा म्हाका वाचपाक येवपाक लागल्यो. चलयेक हांवें खूब शिकयल्ली. नोकरेक लायल्ली. तिचें लग्न केल्लें. ती आपल्या घोवा वांगडा गांवांतल्या घरा रावताली. तांचें पोन्नें घर पयस आसलें. तांकां नोकरेक लागीं पडटा असो शारांत फ्लॅट जाय आसलो. कोणा सोयऱ्याक गरज पडल्यार मजत जाय आसली. व्हडल्या चल्याक लग्न करपाचो आसलो.... आनीक कोणाक किदें किदें... अपेक्षांचें हें वोजें इतले बेगीन म्हजेर लकून येत अशें म्हाकां दिसूं नासलें. तांकां दिसलां जावंये, म्हज्या घरांतूच ती पयशांची बँक लोटून आयल्या.

आठ वर्सांनीच पंदरा लाखांचे पंचवीस लाख जावपाचे सोडून तीन लाख जाले. सुरवेक थारायल्ले प्रमाण पयशे घालून बिझनेस सुरू करपाक म्हज्यान जालेंना. सुमित्रान फोर्सान तीन लाख पोस्टांत फिक्स डिपॉझीट करपाक लायल्ले. बँकेंत दवरलेले तीन लाख मोडून घर रिनोव्हेट केलें आनी व्हडल्या चल्याक लग्न केलो. चार लाख मंत्र्याक दिवन धाकट्या चल्याक सरकारी नोकरी मेळोवन दिली. चलयेक पयलीं कांय दिलेंना. ती रागार जाल्ली. पूण मागीर शारा लागी दोन बेडरूम फ्लॅट घेवपाक चार लाखांची मदत केली. एक लाख असोच हाका ताका किरकोळ मोडलो. ते भायर म्हज्या सेव्हिंगांतले वेगळे तीन लाख काबार कशे जाले, कळ्ळेंच ना.

आठ वर्सां उपरांत हिशेब दाखयल्यार– पयले तागडेंत तीन लाख रुपया पोस्टांतले. तांचेर दर म्हयन्याक येवपी व्याज २२५० रुपया आनी दोन पासबुकांनी

मेळून बचतीचे उरलेले तीस हजार रुपया. आनी दुसरे तागडेंत म्हजो आनी सुमित्राचो वखदांचो खर्च, बारीक बारीक खर्च आनी व्हडल्या भुरग्यांच्यो आनी चडीत म्हटल्यार नव्या जल्मल्ल्या नातरांच्यो आमचे कडल्यो अपेक्षा.

हांव रिटायर्ड जावन धा वर्सांनी सुमित्रा सतत दुयेंत पडपाक लागलें. तें म्हजे परस दोन वर्सांनी ल्हान. पूण जाणटें दिसपाक लागलें. पोले पडलेल्यान आनी कपलार मिरयो दाटलेल्यान ताची गोरसाण लिपली. हांवूय तसो जाणटो न्हय., पूण हांव काम करी नासल्यान जाणटो दिसपाक लागलो. तातूंत गोडेमुताचे आनी ब्लडप्रेशराचें दुयेंस जाल्लें. दोतोर आनी वखदां म्हटल्यार म्हयन्याक पांचशे-सशें रुपया दोगांयचेर खर्च जावपाक लागले. दोतोरा कडेन वचना, वखदां हाडून घेना जाल्यार जगपाक कठीण जावपाक लागलें. म्हजे कडले म्हयन्याचे पयशे सोंपत आयले तरी हांव भुरग्यां कडले घेयनासलों... भुरग्यांक आमचें वोजें जावंचें न्हय म्हूण, वयल्यान आमी तांका जाय दिसचीं म्हूण लायटीचीं, उदकाचीं, फोनाची बिलां हांवूच म्हयनेम्हाल भरतालों. आमचो हात संवसाराक लागचो... पुतांक-सुनांक आमी नाका जावंची न्हय म्हूण.

गेल्या वर्सा सुमित्राचें रिमोटायडसाचें दुयेंस बळावलें आनी धोंपरां आनी पांय चड दुखपाक लागले. तातूंत भर म्हूण ताच्या काळजाची शीर तुंबली. बायपास ऑपरेशनाचो उपाय दोतोरान बेगोबेग करपाक सांगलो. बेंगळूर व्हरून बायपास केल्यार सादारण दोन लाख खर्च येवं येतालो. हांव घरा आसतां. म्हजे कडेन फिक्स डिपॉझिटांत पयशे आसात अशें समजून भुरग्यांनी तिचें सगलें म्हजेरूच सोडलेलें. एक दीस सांजवेळां हांवें विशाखाक फोन केलो. आनी आवयच्या बायपास ऑपरेशना विशीं सांगलें. ताणें वोगीच रावन आयकून घेतलें. मागीर हांवें ताका फुडें सांगलें. ''हांव पयशे खर्च करतां. म्हजे कडेन पोस्टांत फिक्सांत आसात ते काडटां. पूण तुजी आई ते काडूं नाका म्हणटा. किदें करूं हांव?'' ते बराबर विशाखा भुरग्या वरी म्हणपाक लागलें, ''मोड मरे डॅडी, तुजे कडेन आसात ते.'' मागीर वोगी रावन हांवें फोन दवरलो. दुयेंत आसुनूय सुमित्राक म्हजो हुसको. म्हजे फुडले दीस कशे वतले हाचो....

हांवें तयारी सुरू केल्लीच. दोगूय पूत तिनसांजचे घरा येतकच तांकां हॉलांत आपयले. तांच्यो बायलोय आयल्यो. सुमित्रा मात भितरले कुडींत आसलें. ताचें बायपास ऑपरेशन सगलीं जाणां करुंया म्हणटालीं. बेंगळूर वचपाक दोगूय पूत तयार जाल्ले. सुमित्रा म्हाकां जाय आसलेंच. भुरग्यांकूय तांची आवय जाय आसली. हालींच ती अडचल्ली. खरें म्हळ्यार तिच्या ऑपरेशनाचो खर्च दोगूय

पुतांनी करचो अशें म्हाका दिसतालें. पूण ऑपरेशनाक लागपी पयशे आपूण मोडटां अशें कोणूच तोंडान सांगिनासलो. बरोच वगत गेलो. निमाणें हांवें सांगलें, ''फिक्साचे पयशे हांव काडटां. जितले मेळटा तितले मेळू, तातूंत भागतलें...'' अशें हांव म्हणटा थंय आसां, सुमित्रान थंय येवन म्हटलें, ''नाका, तुमी काडूं नाकात... म्हजें किदें जाता तें जावं... तुमकां हांवें पयलींच सांगलां न्हय....'' अशें म्हणून तें रागान आनी भंयानशें म्हजे कडेन पळोवपाक लागलें.

दुसऱ्या दिसा पोस्टांतले पयशे काडपाक अर्ज दिवन हांव घरा आयलों. पयशे दुसऱ्या दिसा मेळपाचे आसले. घरा येवन सुमित्राक उलो मारलो. सुमित्राची जागमाग ना म्हूण पळयत तर तिची जाग तिका कायमची सोडून गेल्ली.

पयश्यां खातीर तिचें ऑपरेशन करपाक फाटींफुडें जाल्ल्यान तिका मर्ण आयलें अशें म्हाकां दिसतालें. म्हजे धुवेचे अशेच थोमणे म्हाकां आयकुचे पडले. म्हजीं सगलीं पांखां, तुरो झडून वचून हांव लांडो कसो जालों.

सुमित्राच्या मर्णा उपरांत तीन म्हयन्यांनी हांव विशाखाच्या फ्लॅटार येवन रावल्लों. ताणेंच म्हाकां आफयल्लो. थंय रावन म्हजे फाटल्यो कांय कटकटी सुटच्यो अशें म्हाका दिसतालें.

हांगा येवन रावल्यार आयज स म्हयने जाल्ले. विशाखा आनी ताचो घोव जितेन्द्र कामाक वचपाचीं आसलीं. तीं तयारी करतालीं. लायटीचें बील मेजार पडून आसलें. बील फारीक करपाक म्हजे कडेन पयशे दिल्यार म्हज्या वखदांक पयशे उरचेनात. हे म्हारगायेंत वखदांय खूब खूब म्हारग जाल्यांत. वखदां घेतलीं ना जाल्यार म्हज्या रगतांतली साखर आनी ब्लडप्रॅशर दोनूय वांगडाच वाडत रावतलीं. चड वाडल्यार न्हिदून रावचें पडटलें वा मरून वयतलों. हांव मेलों म्हूण व्हडलें वायट जावचेंना. आमचे कॉर्प-एस बॅंकेंतले रिटायर्ड जाल्ले तीन हजार कर्मचारी... चड शाणे ते.. चड शाण्यांक फातरां शीत. हे सगले किदें जगून उरल्यात आसतले? म्हजे म्हायती प्रमाण आमच्या रिजनांतले बरोचशे निवृत्त कर्मचारी मरून गेल्यात... तांचेरूय अशेंच किदें लचांड आयलें जातलें... मात सुमित्राक लागून फिक्सांतले पयशे आजून आसले.

म्हाकां परत परत दिसता. हांव मरूं पूण म्हज्या मनशांक हांव नाका जावंचो न्हय. म्हजे कडेन जाता ती मजत हांव तांकां करतलों... बील भर नासतना रावल्यार मात हांव तांकां नाका जातलों. मागीर हांव मेल्ले सारकोच. हांव मेल्यार मरूं, वखद नासूं असो म्हज्या मनांत विचार जोगलायलो आनी हांवें विशाखाक उलो मारलो, ''विशाखाऽ हें बील भरपाचें आसा मगो? हे पयशे घे

आनी भर. हांव वचून भरपाचों पूण म्हज्यान नजो.'' विशाखा कामार वचपाचे घाईंत आसलें. ताणें 'आंऽ डॅडी' अशें म्हणलें आनी म्हज्या फुड्यांत उबें रावलें. हांवें मेजा वयलें लायटीचें बील उखल्लें. ताचे पयशे पळयले. खुंटयाळाक लायल्ले म्हजे पोन्ने पॅण्टीतले पयशांचें पाकीट काडलें. तातुंतले सगलेच... जे बाराशें रुपया जाताले ते काडून ताच्या हातांत दिले. बिलूय काडून दिलें. तें ताणें घेतलें आनी घोवा वांगडा कामाक भायर सरलें, मोन्यांनी.

बरोच वगत हांव बसून आसलों. कोण तरी म्हाकां शिटकायल्ले भाशेन... ''आरे, तुजे धुवेन पयशे घेतले पूण तुका विचारलें ना– डॅडी, तुवें ह्या म्हयन्याचें वखद हाडलें काय म्हूण.'' हांव बरोच डिस्टर्बड जालों.... म्हाकां वायट दिसलें...

वगत गेलो तशें म्हाका दिसपाक लागलें. आपलीं मनशां रगताचीं आसून केन्ना केन्ना परकी जातात आनी लोकांची हाडलेली चली... म्हजी बायल जी परकी मनीस... ती आपली कशी जाता.... हो म्हजे जिणेंतलो डॅबीट क्रॅडीटचो हिशेब... हें कशें जाता तें म्हाका कळना... म्हज्या जाणटेपणांत लेगीत म्हाकां ताचें कुवाडें पडलां.



# कबजा–स्पिरीट

यफ–सी बँकेच्या लागी पावनाफुडें विणाक घराकडे आपले आवयन म्हणलेलें याद जालें. ''बाय, आयज तुका बँकेत बेगीन वचूंक जाय गो?'' ताणे सांगलेलें ''हय गे. जाणा तूं, सकाळी णव ते रातची णव वरांमेरेन काम.'' ''पूण सरकारी ऑफीसां साडे णवांक सुरू जातात मगो.'' ''म्हजी बँक प्रायव्हेट'' विणान नाराज जावन म्हणलें. ''प्रायव्हेट जाली म्हूण किदें जालें?... आगो तुका सांगपाचें आसा. फाटल्या दिसांनी तुका सोयरीक घेवन येवपी तो मनीस काल तिनसांजेर सातांक आयल्लो. तेन्ना तूंच नासलें. किदें सांगपाचें ताका? न्हवऱ्या भुरग्याक खंय नोकरी करपी व्हंकल जाय म्हण्टालो तो. पप्पा तर म्हण्टा तुका विचारूनच किदें तें थारावपाचें. सांग मगो तूं, किदें तें. आयज येतलो तो...'' ''आगे मागीर पळोवया. वता हांव. कळाव जाता म्हाकां.'' अशें सांगून विणा घरांतल्यान सटसटीत भायर सरलें. ताचे उंचायेक लागून ताची पावलां लांब लांब पडटालीं. ताच्या निळश्या सलवार कमिजार जांबळ्या–गुलाबी रंगाचीं फुलां. तातुंतल्यान ताचे गोरशें तरनाटे आंग मोडल्यावरी दिसतालें. ताचो चडसो वगत बँकेतल्या कामाक बांदलेल्यान आनीक कसलो विचार करपाक ताका फुरसद मेळनासली.

पणजे शारांतल्या मदल्या भागांत नवे सोबीत इमारतीत बँकेचो कारभार चलतालो. तिचेर FC BANK असो तांबड्या अक्षरांनी व्हडलो बोर्ड लायल्लो. तो रस्त्यावयल्यान येता वतल्याच्या नदरेत भरतालो. ताचेर शिडां लायल्लें तारवांचें चित्र बँकेची मुद्रा म्हूण आसले. तें तारूं ब्रिटीशांच्या इस्ट इंडिया कंपनीचें कशें दिसतालें. नवे दिल्लीत बँकेचें रजिस्टर्ड ऑफीस आसलें.

विणान बँकेच्या मुखेल दारांतल्यान भितर पावल दवरलें. थंय रावन १८ डिसेंबर ही त्या दिसाची तारीख झळकताली. पयल्या माळ्यार बँकेची विभागीय कचेरी मॅनेजींग डायरेक्टर विलास मेहता चलयतालो. बँकेच्या शाखेचे सगले कर्मचारी Regional ऑफीसाक एमडीचें ऑफीस म्हणटाले. इमारतीचो तळमाळो आनी पयलो माळो यफ–सी बँकेन सरळ विकतो घेतलेलो. दुसरें आनी तिसरे माळयेर बिल्डींगेचो मालक डॉमनीक कारवाल्हो आपल्या कुटुंबासयत रावतालो. दुसरी आनी तिसरीय माळी बँकेक विकत

दिवची म्हूण बँकेच्या एमडीन कारवाल्होक पांच कोटी रुपयांची ऑफर दिल्ली. ताचेर तांची उलोवणी चलताली.

विणान आपल्या मेजाचो खण उगडून आपलो जेवणाचो डबो दवरलो. बँकेच्या फाट्याचो मॅनेजर सुधन भट आपलो कम्प्युटर 'लॉग इन' करून तातूंत घुस्पल्लो. काळो कोट आनी टाय हातूंत ताचो दिमाग दिसतालो. पंचेचाळीस वर्सांचेरय धवसार जावपी आपल्या केसांर तो मदी मदी हात भोवडायतालो. ताच्या मेजार हाजिरीपट आसलो. विणान ताच्या म्हऱ्यांत वचून 'गूड मॉर्नींग सर' म्हणलें. ते बराबर ताणेय तकली वयर ना काडटां 'गूड मोर्नींग' म्हणलें. विणान हाजिरीपटार आपली सय करतानाच कांवटरार काम करपी दोग क्लार्क ताच्या फाटल्यान सय करपाक रावले. बँक णवाक उगडटा हें गिरायक जाणा आसले म्हण तेय णवाक येताले.

विणा आपल्या खुर्चेर बसलें आनी लॅन (LAN) नॅटवर्क चालू करपाक आपलो कम्प्युटर 'लॉग इन' केलो. कालचो एक कस्टमर ताचे सांगणेवयल्यान आयज-फाल्यां पांच लाख रुपया डिपॉजीट घेवन येतलो आसलो. ते खातीर आपली बँक कितली बरी. ठेवीवयलो व्याज दर हेर कांय बँका परस चड कसो दिता हें ताका ताणे पटोवन दिल्लें. ताणे ताचें नांव, फोन नंबर घेवन दवरलेलो. गिरायकाच्या खात्याक जोडलेले विमे, एक लाख ठेव आसलेली क्रेडिट कार्डां आनी हेर येवजण्यांचेर काम करपाचें आसलें. ताका दिसांतल्यान उण्यात उणे स तरी बिजनेस करपाक जाय आसले. आपल्या तीन वर्सांच्या काळांत ताणे बँकेक बरोच बिजनेस करून दिल्लो. तें कस्टमराक सांगतालें 'आमची बँक करता Only Banking पूण ताची बँक Total Business करता हें तें जाणा आसलें. हाली तर ताचे काम चड वाडलेलें. ताचे कुशीकच्या मेजार काम करपी निरा हेगडेन नोकरी सोडलेली. हे गजालीक तीन म्हयने जाल्ले. ताची खुर्ची आजून तशीच रिती आसली.

बँकेतलो सिनिअर ऑफिसर जॉर्ज व्हियेगस भितर येताना विणान पळयलें. सादारण पन्नास वर्सांचो. काळसो. आंगान उंच आनी शिरपुटो. तकलेचे मदले केस गेल्ले. युद्धांत हारलेलो शिपाय कसो तो मान सकयल घालून येतालो. तो लागी पावताच विणान ताका गूड मोर्नींग केलें. त्या बरोबर ताचें पडलेलें तोंड हांसकुरें जालें. ताणेय परत ताका गूड मोर्नींग म्हणलें. मागीर तो मॅनेजराच्या कॅबिना कुशिकच्या मेजालागच्या खुर्चेर बसलो. यफ-सी बँकेत आयल्यार ताचो हो दुसरो दीस. काल तो असोच

निरशेल्लो दिसतालो. विणाक ताचेविशी आपलेपण दिसपाक लागलें.

यफ-सी बँकेन धनश्री बँकेक आपल्या ताब्यांत घेतल्यार फक्त धा दीस जाल्ले. गोंय आनी महाराष्ट्रांत वेवहार ना जाल्ल्यान ती बुडपाक पावल्या अशी खबर गेल्या तीन म्हयन्यांत येताली. गिरायकांनी आपले पयशे बँकेतल्यान काडपाक घिट्टी केल्ली. उपरान्त ते बँकेक टेक ओव्हर केली ती दिल्लीचे यफ-सी बँकेन. महाराष्ट्रांतले चाळीस फांटे आनी गोंयचे तीन फांटे तिच्या ताब्यांत आयले. धनश्री बँकेचे साठ प्रतिशत शेअर विकत घेवपाक यफ-सी बँकेच्या मॅनेजमेंटान मान्यताय दिल्ली. एका खिणांत धनश्री बँक यफ-सी बँकेची जाली आनी त्या वांगडा तांची साधनां, सुविधा आनी थंयचे कर्मचारीय.

विणा तेन्ना नवेंच बँकेत. प्रशिक्षणार्थी म्हण. फक्त पंदरा दीस जाल्ले. सांजवेळा एमडी विलास मेहतान ताका आपल्या वांगडा येवपाक फर्मायलें. मेहतासर आंगान लांबरुंद. तांच्या गोरेपणान ताका युरोपियन मनशाभाशेन सया मारताली. वाघाचे कशे घारशे दोळे. काळो कोट, पँट आनी बूट ह्या पेहरावांत तांचे व्यक्तिमत्व भक्कम दिसतालें. ताणीच ताका कामाक वेचून काडलेलें म्हूण ताच्या मनांत ताचेविशी आदर आसलो; पूण भंयूय दिसतालो. तांचे आलिशान मर्सडीस कारीत बसून ती म्हापशेच्या धनश्री बँकेच्या फांट्यांत गेल्ली. तांका थंयच्या सिनिअर ऑफिसर जॉर्ज व्हियेगसाक मेळपाचें आसलें. विणा तांच्या कॅबिनात वचून, एमडी विलास मेहतासर तांका भेटपाक आयला म्हूण सांगलें. जॉर्जान तांका दोगांकय आपल्या कॅबिनांत बसपाक सांगलें.

इंग्लीश भाशेत वळख जातकच विलास मेहतान सांगलें, ''जॉर्जजी आमी तुमचें नांव आयकलां, एक एफीसियंट बँक आफिसर म्हण. फाटल्या दिसांनी खबरापत्रांनी आयिल्लें. तुमच्या फोटवासयत बेस्ट बँकींग ऑफिसर म्हण. तुमचे हे बँकेत तुमकां तशी व्हडली संदी ना. कितलीं वर्सां जालीं तुमकां हे बँकेत?'' ''वीस वर्सां. पूण हांव म्हज्यां कामांत समाधानी आसा.'' जॉर्जान तांका टाळपाक सांगलें. हें आयकून मेहता फुडें उलयलो, ''बरें आसा. पूण तुमी बरीच वर्सां हे बँकेत काडलीं. आनीक खंयचे बँकेत आशिल्ले तर तुमच्या कामा प्रमाण तुमी मॅनेजर जावन फुडे पावपाचे. हांव तुमचे परस ल्हान आसूंये. म्हाकां यफ-सी बँकेत संदी मेळी. हांव एम डी जालों. गोंय आनी महाराष्ट्र वाठारांतल्या यफ-सी बँकेचो पुराय चार्ज

म्हजेकडे आसा. आमची बँक तशी व्हडली बँक. तुमच्या मनांत आसा जाल्यार, आमचे बँकेत येवपाची तुमकां ऑफर दितां.'' मदी बरोच वगत मोनेळ. जॉर्जान म्हणलें, ''विचार करूं येता.'' ''अवश्य विचार करात. आमकां तुमच्या सारको अधिकारी आनी लोकल गोंयचो मनीस जाय. सावथ गोंयांत आमकां आमचो बिजेन वाडोवपाचो आसा. चड करून दर्यावेळेकडच्या गांवांनी.'' ताचे आयकून जॉर्जाक कच्च जालें. ताणे मनांत म्हणलें, ''हांकां लोकल ख्रिस्तांव मनीस जाय दिसता. दक्षिण गोंयांतल्या विस्ताराक...'' जॉर्ज वोगीच रावला म्हूण ताणे विणाकडे बोट करून म्हणले, ''हें आमच्या बँकेचें नवें स्टाफ. बरेच हुशार. She is from Goa'' ''हय सर.'' विणान कोंकणीत सांगलें. जार्जान ताका दोळे मोठे करून पळयलें आनी मागीर हांसापक लागलो. तो हांसता तें पळोवन मेहतान म्हणलें, ''तुमच्या हांगाच्या परस चड पॅकेज मेळटली. वर्साक आठ-णव लाख रुपयावयर. हां मात तितले 'आवट-पूट' जाय. तरी जिवितांत अपस् ॲण्ड डावन आसतातच. मेहतान अनिश्चीतताय उक्तायली. ''पूण तुमचे बँकेत जॉबाची सेक्युरिटी आसा न्हय?'' जॉर्जान विचारलेल्या प्रस्नाक मेहता फक्त हांसलो आनी वोगी रावलो. विणाक ह्या प्रस्नाचेर दिसलें- जॉर्ज हो जाण्टो. तो जाणा जांवये जिविताची खातरी ना थंय ज़ॉबाची खंयची? जॉर्ज वोगीच रावला तें पळोवन मेहतान परत सांगलें. ''काळजी करूं नाकात. तुमकां बेटर पॅक मेळटली. दोन दिसांनी कळयात किदें तें. ओके म्हूण ताणी ताचो निरोप घेतलो.

एमडीच्या सांगण्याप्रमाण तिसऱ्या दिसा सांजचो विणान जॉर्ज व्हियेगसाक फोन केलो. ताणे ताका आपूण यफ-सी बँकेत नोकरेक येवपाक तयार ना म्हूण सांगलें. ताचेर विणान विचारलें, ''सर, कित्याक लागून? पगाराक लागून कांय किदें? तुमकां पगार वाडोवन दिवपाक शकता म्हूण एमडीन सांगलां. धा लाख रुपया वर्साक पॅकेज.'' ''पूण विणाबाय पळय, हांव फक्त पॅकेजाखातीर म्हणीना. जॉबाची सेक्युरिटीना. म्हजो चलो ह्याच वर्साक दोतोरकी शिकता. म्हाकां आनीक चारपांच वर्सां तरी नोकरेची खातरी जाय. फक्त कांय पयशे चड मेळ्ळे म्हूण जायना. आनी आयचो जमानो जाणा तूं use and throw. अशें सांगून तो वोगी रावलो. ''बरें थँक्यू सर'' म्हण ताणे फोन दवरलो. मागीर ताणे एमडीच्या वयल्या कॅबिनांत वचून ते तांचे बँकेत जॉयन जावपाक तयार नात म्हण सांगलें. पूण जॉर्जान म्हणलेलें

युज एँड थ्रोचें कांय म्हणलें ना. ताणे ऑफर न्हयकारली म्हण एमडीन पयली आपल्या तोंडार कांय एक भाव दाखयलोना. मागीर आपलो सकयलो वोंठ आपल्या वयल्या दातांनी दाबलो आनी रागान किदें तरी फुतफुतलो. तें पळोवन विणा थंयसून भियेत भायर सरलें.

धनश्री बँकेच्या म्हापशें ब्रांचीची आतां यफ–सी बँक म्हापशे ब्रांच जाल्ली. ते ब्रांचितल्या त्या मानी आनी हुशार अधिकाऱ्याची – जॉर्ज व्हियेगसाची बदली पणजी यफ–सी शाखेत जाल्ली. एक दीस जालो थंय येवन पूण ताका विशेश काम दिवंक नासलें. जुस्त धा वरांचेर विणाच्या मेजावयलो फोन वाजलो. तो एमडी सराचो फोन. ताणे भियेतच फोन घेतलो आनी म्हणले, ''एस सर.'' ''विणा जॉर्ज व्हियेगसाक एमडीन आफयला म्हूण सांग. आनी तूंय वांगडा यो. एमडीच्या आदेशाप्रमाण ताणे जॉर्जसराक सांगलें. आपलें इस्तिचें वक्ल सारके करीत तो सरळ उठलो आनी बद्द वयल्या कॅबिनावटेन वचपाक लागलो. तेंय ताच्या फाटोफाट गेलें. आपल्याकय कित्याक आफयलां एमडीन? तो एकटो ताका फेस करपाक भियेता कांय? कांय बायलमनशेचो सपोर्ट घेता?

पॉश केबिनाच्या दाराकडे पावतकच जॉर्ज थांबलो आनी दार उगडून ताणे भितर पळयलें. उंच, मोव आनी मॉडर्न खुर्चेर एमडी आसनाधीस्ट जाल्लो. तो पेपरावयल्या आराखड्याचेर येवजितालो. मागीर दाराकडे ताणे आपल्या वक्लांतल्यान दोळे वयर करून पळयलें. जॉर्ज आयल्लो पळोवन तो सुखावल्ल्याभशेन जालो. ताणे ताका भितर येवपाक सांगलें आनी 'वेलकम जॉर्ज' म्हणलें. वातावरण मेकळेशें दिसलें तसो जॉर्ज भितर येवन सोफार बसलो. एमडीन ताका आपल्या व्हडल्या मेजालागच्या खुर्चेर बस म्हण सांगलें. मेज इतलें लांबरूंद आसलें म्हण जॉर्जाक दिसलें, ताचे आनी आपले मदी व्हड अंतर आसा. विणा भायर दारार गणयता तें पळोवन एमडीन ताका भितर येवंक लायलें आनी ताचेकडे पळोवन मिश्कील हांसलो. विणा न बसता थंयच्या खुर्चे फाटल्यान खाकुडत उबेंच रावलें. एमडी सायब जॉर्जाच्या दोळ्यांत पळोवन उलोवपाक लागलो. ''तूं जॉयन जाल्यार आयज दुसरो दीस न्हय? तुकां पणजे ब्रांचीत तशें कांय एक काम ना.'' हें आयकून जॉर्ज हाल्ल्याभशेन कांचवेलो आनी एमडीचें फुडले आयकूंक लागलो. तुका रिजनल ऑफीसाचें काम. स म्हयन्या पयली आमची येवजण आसली one staff branch with ATM घालपाची. गोंयांत आमी ती घालूया. हे खातीर

हांवें कळंगूट, कोलवा आनी पाळोळें ह्यो बीच प्लेसी वेंचल्या. तूंवें त्या ठिकाणार वचून जागो वा घर सोदपाचें आनी ह्या स म्हयन्या भितर काम फत्ते करपाचें. म्हजे संमतीन तुका जाय ते पयशे ह्या कामाखातीर मेळटले. पयली दिल्लीसावन हांगा पयशे हाडटाले. आतां हांगाचेच पयशे मेळटात. हांऽ तुका गाडीय मेळटली. कामाक वेग येवपाक.''

''सर पूण ...'' जॉर्ज आडखळलो. ताका प्रस्न विचारपाचो आसलो. तो वोगीच रावलो. ''पूण बीन मागीर पळोवया. तूं प्रामाणीक आनी तत्परतेन कामां करपी. हो प्लॅन घे. हाचेर one staff branch विशी तपशीलान आसा. ताचो अभ्यास कर आनी म्हजेकडे उलय. ओके?''

तोंड धापून तो प्लॅनाचो पेपर घेवन भायर सरलो. आपल्याक खंयचे मेज-खुर्ची आसतली कांय म्हण तो विभागीय कचेरी नियाळपाक लागलो.

विणा भियेल्ले आपल्याक जॉर्ज सायबाचे असिस्टंट करीत म्हूण. तशे जाल्यार आपल्याक फिल्ड वर्कखातीर बँकेभायर भोवचें पडपाचें. ताचें काळीज धडधडपाक लागलें. असलें काम ताचेर येवन पडूं येतालें. ताका एक बरें दिसलें- जार्जसरान ह्या कामाक नाखोशी दाखयली ना. वा ना म्हणलें ना. ताका एमडीची युक्ती आवडली. एका थळाव्या, गरजेवंत आनी प्रामाणीक मनश्याच्या खांद्यार कामाचो बावटो दिवपाची.

आपल्या मेजाकडे येतां येतां रितें मेज-खुर्ची पळोवन विणाक निराचो परत उगडास जालो. बँक सोडून निरा किदें करता कायं? ताका प्रस्न पडलो. मीस निरा हेगडे बँकेत येवन देड वर्सांतच ताचे नांव जालें. बँकेत क्लॅरीकल केडरांत कामाक येता तांका तीन म्हयने ॲप्रेन्टीसशीप करची पडटा. ह्या नेमाक लागून एमडीन निराक ॲप्रेटीसशीपीर दवरलें. तो ताच्या कामाची तोखणाय करतालो. मीस निरा हेगडे वाणीज्य शाखेचें पदवीधर न्हय तर कला शाखेचें. पूण तिच्यांतल्या समाजसेवी भावनेक लागून ताका एमडीन वेंचिल्लें. ताच्या गांवातय कांय समाजसेवा करपी संस्था आसल्यो आनी तांचे तें सभासदय आसलें. बँकींग क्षेत्र हेंय सेवेचेच क्षेत्र अशें एम डीन सांगतकच ताच्या मनाची तशीच धारणा जाली. ताच्या सटसटीत कामान आनी म्होवाळ वागण्यान लोकांचेर प्रभाव पडटालो. तें लांब नाकाचें सोबीत चली. ताच्या गोरेपणाक कांत मारताली. मोठ्या दोळ्यांचे आनी आपलेपण दाखोवपी. ताचे कुटुंब व्हडलें आनी गिरेस्त. सुर्वेक सावनच ताच्या घराब्यांतली मनशां आनी सोयरी-दायरी ताका बँकेत येवन मेळटाली. ताचो

फायदो बँकेक जालो. ताच्याच कुटुंबांतल्या मनशाकडल्यान दोन कोटींच्यो ठेवी दोन म्हयन्यांतच जमा जाल्यो. त्याच दिसा एमडी ताका मेळपाक आयलो. अभिनंदन करपाक ताणे म्हणलें, ''कॉंग्रेच्युलेशन मीस निरा. तुवें दोन म्हयन्यात दोन कोटी रुपया बँकेंक डिपॉजीट मेळोवन दिलें. हांव आनी बँकेचो सगलो स्टाफ तुका परबी भेटयतां.'' मागीर विणाकडे पळोवन ताणे म्हणलें, ''विणा तूं ताचे आपलें म्हूण अभिनंदन कर. तुवेंय लोकांकडल्यान डिपॉजीट जमयलां.'' आपणे आपल्या कुटुंबाकडल्यान घेवना. तें तर शक्य नासलें. हांवें घेतलां तें लोकांकडल्यान. हांगा येतल्या कस्टमराकडल्यान अशें विणाक म्हणचे आसलें पूण तें वोगीच रावलें.

फुडें एमडी उलोवपाक लागलो, ''निरा बरें काम करता. खरें म्हणल्यार हांव ताका आताच पे रोलार घेवपाचो. पूण नेम कित्याक मोड. फक्त एक म्हयनो तर बाकी उरला. फुडल्या म्हयन्यासावन दोन वर्सांचो बाँड घेतकच पगार सुरू. ताचे खातीर आयज हांव खोश्शेन सगल्या स्टाफाक आयस्क्रीम दितां.'' हे आयकून विणा किदें समजूपाचें तें समजलें. पूण मीस निरा हेगडे सामकें खोशी जालें. आपल्या कामात सगल्यांक आयस्क्रीम मेळटा म्हूण ताका आपूण मळबांत हुबतां अशें दिसपाक लागलें. एमडी, मॅनेजर आनी सांगाती आपली तोखणाय करता म्हूण ताका उमेद जाताली.

स म्हयन्या भितर मीस निरा हेगडे खूब कामां करपाक लागलें. बँकेतले उण्यातउणे स बिजनेस करून तें आनीक कामां करताले. विणाकय ते मदत करतालें. क्रेडिट कार्ड, डेबीट कार्ड, डिपॉजीट, वेगवेगळे इंसुरन्स वीथ अकावंट लींक अशी कामां करता करता वेळ पासार जातालो. तें विणा वांगडाच रातचें घरा वचपाक लागलें. विणाकय निराच्या वागणूकेचें कुवाडें पडटालें. ताका दिसतालें हें इतलें गिरेस्त हाका तशी नोकरेची गरज ना, जशी आपल्याक आसा. हें हांगा खूब वगत, प्रमाणीकपणान काम करता जशे चलयेन दिल्ल्या घोवा घरा करचें आनी घोवाकडे प्रामाणीक रावचे. कांय तें आपले तोखणायेक भुल्लुसलां? चली मनीस आपलें मन खंय लायत तें सांगू नजो.

बँकेत येवन स म्हयने जांवचे आदीच एक दीस मीस निरा हेगडेन आपल्या लग्नाची व्होंवळीक स्टाफाक दिली. इतले बेगीन लग्न जाता म्हूण मॅनेजर सुधनान ताची फकणा केली. विणान ताका म्हणलें, ''तुकां तर फक्त एकवीस वर्सां जाल्यांत. मात्शे रावचे न्हंय गो? हांव सव्वीस वर्सांची घोडी

जावन म्हाकां ताकतीक ना.'' ते वेळार निरान हांसून सांगलें, ''घरच्यांनी नेट केलो म्हूण हांव लग्न जाता. म्हाकां म्हूण इतले बेगीन खंय लग्न करपाचें आसलें. उपरान्त कांय दिसांनी लग्न जावन तें घोवावांगडा हनिमूनाक गेलें. रजा नाशिल्ल्यान रोकडेच कामार आयलें.

निराक दीस गेले आनी सातवो म्हयनो लागलो. गुरवारपणातय तें कामाक वता आनी उसरां येता म्हूण ताच्या घोवाक – मुकूंदाक राग येवपाक लागलो. तांची झगडीय जावपाक लागलीं. एका राती ते येतकूच ताचे आनी मुकूंदाचें तोंडाक तोंड जालें. ''तूं कोणाखातीर काम करता?'' मुकुंदान बेजारून विचारलें. ''आंऽ म्हाकां काम करपाक आवडटा.'' निराची थंड जाप. ''आगो आमकां तुज्या पयश्यांची गरज ना. म्हजो बिजनेस तर काय बरो चलता. राणी कशें बसून खांव येता तुज्यान.'' ''घरांत बसून वाज येवपाचो. कामांत बरें बिझी उरतां. I like to work आनी तुवें सांगल्यार लेगीत हांव हें काम सोडचें ना.'' निरान निश्चेवान सांगलें.

दुसरे दीस निरान विणाक सांगतकच ताणे ताका सांगलें, ''पळय, घोव सांगता जाल्यार सोड गो. किजिलांनी संवसार इबाडटा. हे बँकेत कितले जाण नोकरेक आयले आनी गेले.''

''पूण हांव फुडल्या दिसांनी रजा घेतलें.''

''मेळटली मगो तुकां रजा?'' विणान दुबाव उक्तायलो.

''पळोवया.'' अशें म्हूण निरा आपल्या कामांत रमलें. मागीरच्या दिसांनी निराक खूब कामां पडलीं. बँकेचे हिशेबाखातीर स म्हयन्यातलें क्लोजींगय आसलें. रजेचो अर्ज दिवपाक तें विसरलें. निमाणे णवो म्हयनो सुरू जावन रजेचो अर्ज मॅनेजराकडे दिलो. मॅनेजरान तो अर्ज एमडीक धाडटां म्हूण सांगलें आनी आपल्या मेजाच्या खणांत दवरलो. मागीर एका सप्तकांत तो एमडीक धाडलो. एमडीन ताचेर एक–दोन क्वेरीज काडून परत मॅनेजराकडे धाडलो. मागीर तो अर्ज तसोच निर्णय ना घेतां उल्लो.

घराकडे येतकच मुकूंदान ताका विचारलें,

''तुजी रजा मान्य जाली गो?''

''ना तशीच पेंडींग दवरल्या. निर्णय घेवना.''

''केन्ना घेवपाचो तर? फाटी दोतोराकडे तपासपाक वचपाचे तशेंच उल्लां. फाल्या तूं सांग आपूण रजेर रावता म्हूण.'' मुकूंदान तिडकून सांगलें.

दुसरे दीस ताच्या मेजाकडे कस्टमर येत रावल्या कारणान ताका

फुरसद मेळ्ळीना. तेच दीस तिनसांजेर पोटांत ताण पडला. भितर हालचाल जायना म्हूण तें घरा आयलें. घोवाक कळटकच ताणे ताका बेगोबेग प्रायव्हेट हॉस्पिटलांत व्हेलें. थंय दोतोरान तपासून सांगलें– भुरग्याचें काळीज चलना. भुरगे भितर पयलीच... उपरान्त रोकडेच निराचे ऑपरेशन करचें पडलें.

निराक घरा हाडटकच घोवबायले मदी झगडीं जावपाक लागलीं. मुकूंदान रागान म्हणलें, ''तुवें आमच्या भुरग्याक व्हगडायलें. भुरग्या परस, संवसारापरस शिर्वीस व्हड तुका. मनशाक खावपी, म्हज्या भुरग्याक खावपी तुजी बँक. चल तूं तुज्या आवयगेर. तुवें भुरग्याची काळजी घेतली ना. बँक एके बँक केलें.''

''तुका जायच जाल्यार हांव शिर्वीस सोडटा.''

''सांगिल्लें तेन्ना सोडली ना. आतां सोडून किदें उपेग. तूं म्हाकां नाका. तूं काडून वच.'' आपल्या घोवाची ही उतरां आयकून निरान रडून आकांत केलो.

दुसरे दीसाच ताच्या घोवान ताका ताच्या आवयगेर पावयलें. उपरान्त निरान बँकेच्या नोकरेचो राजीनामो बरोवन धाडलो. घोवानय ताका सोडचीट दिली.

.... कांय दिसांच्या घडणुकांत निराचे भुरगें गेलें. नोकरी गेली आनी घोवानय ताका सोडलें, हे याद जावन विणा खंती जातालें. ताका बँकेचो चड राग मारतालो.... निराकडली वागणूक ताच्या मनाक खाताली..... निरान दोन वर्सांचो बाँड बरोवन दिल्लो. दोन वर्सां जावचे पयलीच नोकरी सोडली म्हूण ताचे कडल्यान पासश्ट हजार रुपया वसूल केले. ताका पयली सांगलें तीस हजार रुपया सोडटा म्हूण. पूण निमाणी एक रुपयाय सोडलो ना. पुराय पयशे ताच्या बँक खात्यांतल्यान काडले... हे यादीन विणान लांब हुस्कार सोडलो.

सांजवेळा एमडीकडल्यान शिपाय येतालो. ताच्या हातांत लांबचे लांब कागद आसलें विणान ताका विचारलें, ''किदें रे तें?'' शिपायान तोंडार बोट धरून म्हणलें, ''शूऽ वोगी राव. तें खाजगी. घरच्या सामानाचें लिस्ट. मॅनेजराक दिवपाक. मॅडम ... एमडीची बायल मुंबयसावन सांजची विमानान पावता.''

एमडीची बायल दोन दोन म्हयन्यांनी मुंबयसावन गोंयांत येता तें विणा जाणा आसलें. तेन्ना अशेच लिस्ट एमडीकडल्यान मॅनेजर सुधनाकडे

येतालें. तो तें सामान स्वता ह़ाडटालो आनी दोनापावलच्या एमडीच्या बंगल्यार पावयतालो. एमडीन तो बंगलो तीन वर्सां पयलीं दोन कोटी रुपयांक घेतलेलो. ताचो आयज चार कोटी तरी वालोर आसलो. लिस्टाप्रमाण सामान पावयलें ना तर मॅडम एमडीचेर नाराज जाताली.

''सामानांत लोणच्याचो कॅन आसा मरे?'' विणान विचारलें.

''आसा तर!''

''तूं हाडटलों मरे ?''

''हांव. शेऽ... म्हजे मानोवंक नाका तांका. तांच्या कामाक जापसालदारेचोच मनीस जाय.''

अशें सांगून आनी आपलें हांशें मुद्दाम दामीत तो मॅनेजर सुधनाच्या कॅबिनांत रिगलो. विणाक मात दिसलें- हांसचें कांय रडचें?

रातची णव जावच्या पयली तें खुर्चेवयलें उठलें. कांय कर्मचारी आजून काम करताले. कांवटर आठाक बंद जाल्ले पूण तांचे काम आजून चलतालें. भायर एटीयमात टुरिस्टांची रांग आसली. विणा मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागलें, ''हांव हांगा इतलो वगत कशें रावंक शकता? इतले काम कशें करूंक शकता? हांगा कामाक आयल्ले दादले-बायलो बँक सोडटात. हांव कशें हांगा उरलें. इतलें सोसपाक म्हज्यान कशें जाता कांय? अजाप दिसता... म्हाका दिसता हांव गोंयांत जल्मलें पूण म्हजो बापूय गोंयचो न्हय.... महाराष्ट्रांतलो... त्रास काडपी... आवय हांगाची आनी हांव mixed blood''. हें येवजून ताका हासूंक येता. तें फुडें चितता, ''म्हाकां म्हजे गोंयचे आवयकडल्यान सोशीकपण मेळ्ळां.... चिड्डुले तरी वयर सरपाचें. आनी महाराष्ट्रीय बापायकडल्यान चाकरी करपाचें.... मागीर उलोवपाचो गूण... आंऽ आंऽ.... mixed blood म्हाकां कोणय म्हणीत हांव हुशार म्हूण. तशें ना. हांव हे बँकेच्या वातावरणांत पडलां. म्हाकां बाकीचे कांयएक खबर ना. म्हाकां तसो दुसरो अणभव ना. हांव ह्या कामांत टांग्यांचो घोडो कसो जालां. दोनय दोळ्यांकुशीक झडपां बांदल्यांत. फक्त फुडलें दिसता.... काम ापुरते. किदें जाल्यार निराभशेन नोकरी सोडपाक म्हजोय नंबर येंव येता.''

बँकेतल्यान भायर सरतां सरतां विणान आपल्या मोबायलचो प्रोफायल सायलंट वयल्यान जनरल केलो. तेन्ना मोबायलावयली तारीख पळोवन १८ डिसेंबर तारीख आजून सोपूना म्हूण जाणवलें. फाल्या १९ डिसेंबर गोंय मुक्ती दीस... आनी इतल्यान ताच्या घराकडसून फोन आयलो.

मनाचेर जादू करपी फोनाची रींग आयकून ताका बरें दिसलें. ताची आवय उलयताली, ''बाय बरें मगो?'' ''हय मम्मी. बँकेतल्यान आतांच भायर सरलां. काळजी करूं नाका.'' ताणे जाप दिली आवयन फुडें सांगलें, ''बाय, तुजे सोयरीकेक तो मनीस आयजूय सांजवेळचो आयल्लो. तो तुका बरोच वगत रावतालो.'' अशें सांगताना फोनाचो संपर्क तुटलो. आपले सोयरीकेक येतल्या त्या मनशाचें तोंड विणान केन्ना पळोवंक नासलें. पूण त्या मनशाचें तोंड म्हूण वेगवेगळी तोंडां ताच्या दोळ्यामुखार नाचपाक लागली.... केन्ना एमडीचें... केन्ना जॉर्जसायबाचें.... केन्ना मॅनेजर सुधनाचें... केन्ना निराचें... केन्ना बँकेतल्या कस्टमराचें.... केन्ना अनवळखी मनशाचें... परत आवयचो फोन आयलो आनी ती सोयरीकेक आयल्ल्या त्या मनशाविशी सांगपाक लागली. ते बरोबर विणान सांगलें, ''आंऽ गेऽ... फाल्यां पळोवया. पयली येतां हांव.'' अशें म्हणून ताणे फोन बंद केलो.

मागीर विणा आपल्याच मनाकडे उलोवपाक लागलें, ''हांव म्हण्टां न्हय म्हजें घर... आवयबापायखातीर हांवें कर्ज काडून घेतलां. आनी हांव बँकेक बांदून रावलां. आमी इतले दीस बिराडाक रावलीं.... आंऽ आता रावता तें घर न्हय... ल्हान फ्लॅट... शेऽ अर्दो फ्लॅट... अर्दो बेडरूम. आंऽ ताचे कर्ज फारीक करपाचें आसा म्हाकां. शिर्वीस सोडल्यार म्हाकां सोयरीक येवपाचीय बंद जांव येता... सोयरीक येता जाल्यार येंवदी... म्हाकां जगपाचें आसा.''

मनांत अशें म्हणत विणा घराची वाट उमेदीन चलपाक लागलें.



# आरतें-परतें

आपलो पूत एकलोच घरा आसतलो म्हूण एकनाथ शाळा सुटतकच बेगिबेगीन पावलां उखलपाक लागलो. शाळा आनी ताचे घर अर्द किलोमिटराच्या अंतरार. पूण ताका तें खूब पयस कशें दिसलें. आयज चवथेच्या वर्गांतली भुरगीं शाळा सुटच्या वेळार 'सर आमकां कविता वाचून दाखय' म्हूण बोबाळ घालतालीं. घराकडे ताचो समीर सकाळीं झेमेल्ल्यावरी दिसतालो. ताणे ताका सकाळीच न्हाणयल्लो तरी तातूंत ताणे सारकें खावंकय नासलें. शेजारच्या इश्ट नानूक मात्शें ताका पळय म्हूण सांगून दवरलेलें.

नानूची बायल मदी येवन समीराक किदें जायतें पळयताली. जेवण जाय जाल्यार ताच्या बापायन रांदलेलें वाडट्टाली. आजुनय सारकें जेवपाक जायना म्हूण ती म्हण्टाली, ''सात वर्सांचो घोडो जालो तरी जेंवक कळना मरे तुकां. शीत सगलें सांडटा. शीऽ वोंठांवयल्यान लाळूय गळटा.'' ती किदें म्हण्टा तें ताका कळनासलें. मागीर मान हालोवन ताणे तोंडातल्यान आवाज केलो. ''आय... हांव... हांव...''मागीर निरागसपणान तो तिच्या तोंडाक पळोवपाक लागलो. तशें तिणे म्हणलें, ''हां. तूं सम... समीर. बाबू आमचो तूं.'' तिका तिची भुरगीं आई म्हण्टा म्हूण समीर तिका आय म्हण्टालो. ती ताची काळजी घेताली. ताची खासा आवय स म्हयन्यापयलीं अचकीत मरून गेल्ली. फाटले हे यादीन एकनाथान लांब हुस्कार सोडलो आनी परत पावलांक नेट दिलो. आपलो पूत सम आपल्याक ताचेकडे ओडटा... तो आजून दोन-तीन वर्सांचो कसो दिसता. बुद्धीन मंद. सारकें उलोवपाक जमना. आयकूंक येना. आंगान बारीक. तोंडाचो बोचो फुडें आनी दोळे मोठे... बिटबिटे. केन्नाय त्या दोळ्यांनी पाडकाची व्याकुळटा आसा असो ताका भास जातालो.

एकनाथाक याद जाताली शाळेंत म्हणलेली कविता-

म्हज्या घरांतलो बाबू
बांदला ताणे घर
म्हज्या मनांत...

हांव शाळेंत
तो घरांत
तरीय तो असो कसो
म्हज्या ध्यानांत...

घातला हांवें ताका
रंगयाळो बुशशर्ट
सरपाक घराभायर
तरीय तो कित्याक तल्लीन
आपल्याच भितर...

ताका दिसता ताच्या दोळ्यांमुखार... कुवाडें पडल्यावरी शाळेतली भुरगी पयलीं अजापता आनी रोकडीच कुवाड्याचो खेळ सुटल्यावरी हांसतात.

चलतां चलतां ताका दिसता– कुवाडें जालां आपल्या जिणेचें. खेळ जाला आपल्या नशिबाचो. कुवाडें सुटना आनी नशिबांतले खेळूय सोपना.

घराकडे पावताच नानूचे बायलेन ताका सांगलें, ''हांव तुमचीच वाट पळयतालीं. सम न्हिदला. तो ऊठ म्हणल्यार उठना. हालयल्यार धोलयल्यारूय. एकनाथाच्या काळजांत कच्च जालें. तो धांवत ताच्या बाज्जेकडे गेलो. ताणे ताका उलो केलो, ''सम ऊठ.'' ताका हालयलो. ताची जाग नासली. ताचो स्वास चलता म्हूण तो जिवो आसलो. तो बेसुद्ध जाल्लो.

एका वराचो प्रवास आनी धडपड करीत एकनाथान समीराक 'व्हेनस' हॉस्पिटलाच्या इमर्जन्सी विभागांत व्हेलो. शेजारचो इश्ट नानूय गाडयेतल्यान वांगडा आयल्लो. बेसुद्ध समीराक उखलपाक दवरपाक तो मजत करतालो. 'व्हेनस' हें शारांतलें व्हडलें हॉस्पिटल. सगल्या नव्या सोयीसुविधांचें. इमर्जन्सी विभागांत मुखेल दोतोर कामत समीराच्या खाटीकडे आयलो आनी तो ताका नियाळीत रावलो. बारीक हाडकुळो समीर. तांबडो बुशशर्ट आनी कुल्ल्याची काळी चेड्डी ताका व्हडली जाताली. तशी भायरसून रोगाची लक्षणां दिसनासली. दोतोर ताका तपासतां तपासतां म्हायती घेवपाक लागलो. ''तुमी कोण?'' ''बापूय ताचो.'' ''केन्नासावन साबुद्धीर ना?'' ''दनपारां तो साबुद्धीर ना म्हण कळ्ळें. सकाळीच झेमेल्यावरी दिसतालो.'' ''शाळेत वता?'' ''ना. संजय स्कूलांत घालतले ताका.'' ''म्हणजे तो

mentally challenged तर?'' हय, म्हणून तो वोगीच रावलो. बरोच वगत तपासून जातकच दोतोरान सांगलें, ''तसो तो बरो आसा. कांय तपासण्यो करपाक जाय. रगताच्यो, काळजाच्यो बीन. ताच्या मेंदूक रगत सारकें पावना. आमी यत्न करता. भियो नाका तूं.''

दोतोरान एका ल्हान पेपरार बरोवन दिलें आनी रिसेप्शन कांवटरार वचपाक सांगलें. थंय वचून वीस हजार रुपया भरतकूच समीराक तीन-चारकडे व्हरून ताच्यो वेगवेगळ्यो तपासण्यो केल्यो. मागीर ताका आयसीयूत दवरलो.

दुसरे दीस सकाळी फुडें ताच्या तपासणेचे वेगवेगळे रिपोर्ट ताच्या केसपेपराक लायले. धा वरांचेर दोतोर कामती वांगडा आनीक स्पेशालिस्ट आयलो- दोतोर जहांगीर. तो हार्टाचो सर्जन. ताणी रिपोर्ट पळयले आनी समीराक परत बारीकसाणेन तपासलो. मागीर ते थंय बसून बरोच वगत एकामेकांकडे चर्चा करपाक लागले. एकनाथ भायर रावन भितर पळोवपाचो यत्न करतालो.

बऱ्याच वगतान दोतोर कामतीन एकनाथाक आयसीयूत आफयलो आनी लागच्या स्टील खुर्चेर बसयलो. ताका समजावन सांगचें तशें दोतोर कामतीन म्हणलें, ''तुज्या पुताच्या काळजाची एक झडप सारकी काम करीना. रगत जाय त्याच मार्गान वचना, आनी ते मेंदूक जाय तितलें मेळना. काळजांतली एक झडप - valve घालची पडटली. मागीर हें दुयेंत बरें जातलें. ते खातीर पयली ऑपरेशन करचें पडटलें.'' हें आयकून एकनाथान आंवरो उडल्यावरी 'आंऽ' असो उद्गार काडलो. मागीर दुसरो दोतोर जहांगीर उलयलो, ''ही aortic regurgitation ची केस. ती झडप घालीत तर रगताचो झोत योग्य वटेन वतलो. मेंदवाक जाय तितलें रगत मेळून तो बरो जातलो. ऑपरेशन करपाक हय कांय नाका तें तुवें सांगपाचें.'' मागीर एकनाथान कामत दोतोराक म्हणलें, ''पूण दोतोर तो mentally challenged. '' ''तशें कांय ना. तें दुयेंत न्हय. कांय जाण असल्यांक ऑपरेशन करपाक फाटीफुडें येतात. टाळतात. ते चुकीचें म्हणतात- ऑपरेशन करून कांय वर्सांच पेशन्ट जगतलो मागीर असल्या पेशन्टाचें ऑपरेशन कित्याक करचें आनी केल्लें जाल्यार परत त्या कुटूंबाक त्रास ते त्रासूच.'' ''तशें न्हय...'' एकनाथ त्या दोतोराक किदें तरी सांगपाचो यत्न केलो. पूण दोतोरान ताका हातान राव म्हण सांगून तो

फुडें उलोवपाक लागलो, ''पळय तो बेसुद्ध आसा. ह्या प्रोब्लेमाक लागून ताका केन्नाय मरण येवं येता. पूण आमकां आमच्या नव्या सुसज्ज हॉस्पिटलांत अशें मरण आयल्लें नाका. आमकां उपचार करपाक जाय. जांव तें असल्याक ऑपरेशन.'' दोतोर मात्सो वोगी रावलो आनी ताणे परत सांगलें, ''आयज दनपार दोन वरांमेरेन कितें तें सांग. आमी पॉलीकार्बनाची हार्ट वॉल्व हाडून दवरतां.'' ''पूण दोतोर पयशेबीन...'' ''कांवटरार सांगतले.'' तें आयकून एकनाथ आयसीयूतल्यान भायर सरलो. ताका कलकल्ल्यावरी जालें. सगलेंच हाताताल्यान वता अशें जालें. तो तसोच येवन व्हारांदातल्या बाकार बसलो.

तो बसला थंय ताका किदें करचें तें कळना जालें. कोणाचो सल्लो घेवपाक तशे थंय कोण नासले. पुताचें ऑपरेशन करचें कांय करचें न्हय हाचेविशी वादळ ताच्या मनांत घुंवपाक लागलें. ताचो चलो ताका जाय दिसतालो आनी केन्नाय ताका दिसतालें ह्या सगल्या त्रासांतल्यान सुटका जाल्यार... मदीच ताका दिसलें सम फक्त बेसुद्ध आसा. तो तसो तडफडना. तो दिसांचे दीस तडफडत उरलेलो जाल्यार? कोणाकय दिसूं येतालें– तो हातुंतल्यान सुटचो... शेऽ कसलो विचार हो... म्हूण ताणे तो फाफडून उडयलो.

फाटलो भूतकाळ एकनाथाच्या मुखार उबो रावलो. निताक– ताचे बायलेक दीस गेले तेन्ना ताणे ताची अदीक काळजी घेतली. किदें जाय किदें नाका तें पळयलें. ते दीस खुबच उमेदीचे आसले. तो तेन्ना फेर्रांचे मुस्तायकेबगर भायर भोवनासलो. केन्ना पँटशर्ट तर केन्न खोमीस–पिजाम घालतालो. केसांची भिशी तर आसताली. उलोवपाच्या झेता वांगडा दोळ्यांत खोशी झळकताली.

समीर जल्मल्या उपरांत ताची खोशी दोट्टी जाली. ताची अपुरबाय ल्हान आसतानाच सुरू जाली. मागीर ताका देड वर्स जालें. तो भुरगो उलयना, आवाजावटेन लक्ष दिना म्हूण तांका दुबाव आयलो. ताणी ताका शारांत भुरग्यांच्या दोतोराकडे व्हेलो. थंय दोतोरान बऱ्योच तपासण्यो करून सांगलें, समीराक मतीमंदपण आसा आनी तोंय मल्टीपल डिसॅबिलीटीज. तें आयकून आपल्या तकलेर कोणेतरी लोखणाचो जड जड घण घातला अशें एकनाथाक जालें. भुरग्याचें पुराय जिवीत हातुंतच वतलें आनी ताचो भार आपल्या जिणेत सतत व्हांवोवचो पडटलो हें येवजून तो थतर वितर

जालो. निताय काचाबूल जालें. आतां फुडें किदें असो प्रस्न ताका पडलो. हो भुरगो ना जल्मल्लो तर बरें आसलें असो विचार एकनाथाचे तकलेंत आयलो पूण ताणे तो पयस धुकल्लो. उपरान्त दोगांय जाणांनी एकामेकांक सांबाळून घेतलीं. तांच्या रगतामासाचो माणकुलो भुरगो तांका जाय जायसो दिसतालो. तीं ताचेर मायामोग करीत रावली. दोतोरान सांगलां तशें तीं दोगांय वावुरपाक लागलीं. श्रवणयंत्र हाडून ताच्या कानाक लायलें. तो पयली तें काडून उडयतालो पूण मागीर ताका ताची संवंय जाली.

समाची अपूरबाय, सांबाळ करपांत दोगांयचो वेळ पासार जातालो आनी तांका तातूंत खोसचखोस मेळटाली. दीस वताले. दुखांत सूख आनी सुखांत दूख कशें. तांच्या ध्यानामनांत सम... ताका खेळोवपाक, नाचोवपाक एकनाथ गितां म्हणपाक लागलो आनी कविताय रचपाक लागलो. कवितांतय सम येवपाक लागलो. ताच्यो हालचाली, नाच पळोवन सम आपूण नाचूंक लागलो, हांसपाक लागलो. उपरान्त समाखातीर केल्ल्यो बालकविता तो शाळेतल्या भुरग्यांक शिकोवपाक लागलो. तींय खोशेन कवितांची मजा घेवपाक लागली.

समाक स वर्सां जाली. ताका बाकीच्या भुरग्यांभशेन शाळेंत घालचो कांय ना हो प्रस्न आवयबापाय मुखार उबो जालो. पयशिल्ल्या शारांत सोडल्यार तांच्या गांवालागी संजय स्कूल नासलें. तो सामान्य भुरग्यांमदी आनी तांचे तरेन शिकचोना हें एकनाथ जाणा आसलो. समाक केन्ना केन्ना ताची आवय आंगणवाडीत व्हरताली आनी हाडटाली. शाळेचो प्रस्न सुटना जालो. निमाणी हेडमास्तराक सांगून एकनाथान समाचें नांव शाळेंत घातलें.

चार म्हयने जाले तरी सम एक-दोन अक्षरां सोडल्यार कांय शिकलोना. तो चार-पांच शब्द सोडल्यार कांय उलयनासलो. आपलो पूत आपूण शिक्षक आसुनय शिकूंक शकना. तो शिकपाक सामको फाटी म्हूण एकनाथ बेजार जावपाक लागलो. एक दीस दिसाळ्यांत खबर आयली. ''अमके अमके गांवचे शाळेत शिक्षकान आपल्या मतिमंद भुरग्याक शिकपाक घातला. त्या भुरग्याक लागून बाकीच्या भुरग्यांच्या शिकपाचेर परिणाम जाता. ह्या प्रकाराक कांय विद्यार्थ्यांच्या पालकांचो विरोध आसा.'' ही खबर गांवभर जाली. शाळेतय ती एकनाथाक कळ्ळी. ताका दूख जालें आनी कांय जाणांची तिडकय मारली. तो जाणा आसलो आपूण शाळेच्या विद्यार्थ्याक जीव तोडून शिकयतां. ते फाटी नात आनी समाक लागून तर

ते फाटी पडनात. भुरग्यांचो सांगात लाबचो म्हण ताणे ताका शाळेत घातला. आपलोच भुरगो शिकना. तो मतिमंद म्हूण ताका लज दिसली. सोसूं नज अशें दूख जालें. आनी तो शाळेतच व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलो. तो रडटालो आनी भुरगीं अजापून पळयतालीं. आनी त्याच वर्गांत बसलेलो सम ताचेकडे पळयनासलो. तो आपले भितरसो. भायर किदें घडटा तें ताका लागनासलें.

दुसरे दीस हेडमास्तरान ताका कचेरीत आफोवन हाडून सांगलें, ''एकनाथ तुज्या पुताक आमी वर्गांत बसोवंक शकता कांय ना तें हांव सारकें नकळो. हांगाचो अभ्यासक्रम ताचेकडे जमचोना. आनी पालकांचो विरोध तर आसा. तुवें ताका वेगळ्या स्कूलांत वा संजय स्कूलांत घालपाक जाय.'' ''पूण सर, हांगा लागी ताचे खातीर कसलेंच स्कूल ना.'' ''शारांत आसा न्हय.'' ''ते ह्या गांवासून खूब लांब.'' ताचेर हेडमास्तरान सांगलें, ''तें तूं पळय. ताका हो म्हयनो सोपसर बसूं दी वर्गांत. मागीर हे शाळेतलें नांव काड. आनीक फुडें दवरीत तर वयल्या अधिकारणीकडल्यान म्हाकां मेमो पडूं येता.''

हे आयकून एकनाथाक दूख जालें. ताका आपलो अपमान दिसलो. ताणे ताका हां म्हणले आनी आपूण सकयल्या मानेन कचेरीभायर सरलो.

तेच दिसा ताणे गांवातल्या ह्या शाळेतल्यान बदली मागपाचें थारायलें. घरा वतकूच शाळेतली गजाल समाचे आवयक-निताक सांगली. तें तिच्या जिवाक लागलें. तेंय हुडकेवन हुंडकेवन रडलें. तेच रातीकडे प्रेशर वाडून चाळीस वर्सांचें निता सोपलें. एकनाथाची सांगातीण आनी समाची आवय एका खिणांत ना जाली. तो समाक जेन्ना मारतालो तेन्ना निता ताका आडायतालें आनी म्हण्टालें, आरे तो मोनजात कसो. हें आयकून एकनाथ सामको शेळेतालो.

निमाणी समाची सगली जापसालदारी एकनाथाचेर पडली. तोच आवय आनी तोच बापूय. ताणे समाक आपली चेड्डी घालपाक, बुशशर्ट घालून बटन लावपाक शिकयलो. शाळेच्या भुरग्यांक आपणे शिस्त लायल्या तशी शिस्त ताका लायत आनी संवंय करीत तर समा आपलें काम आपूण करतलो हाची ताका खातरी आसली. पूण तें काम समाक खूब कठीण आसलें.

ताणे आपल्या पुताचें नांव शाळेतल्यान काडलें आनी ताका घराच

दवरलो. ताचे खातीर शेजाऱ्यांची मदत घेवपाक लागलो. रोकडीच ताणे आपली बदली शारालागच्या गांवांत करची म्हूण मागली पूण मेळ्ळीना. तो निरशेलो. मागीर ताणे निश्चेव केलो-- आपल्या समाक आसा तसो खोशी दवरपाचो. तो ताचे वांगडा खेळटालो. शेवण्या सावदांवरी बागडटालो. आपलें तोंड आनी वोंठ हालोवन कविता म्हुणून दाखयतालो. भायर भोंवडायतालो. ताचेकडे उलय उलय उलयतालो. ताका शिकोवपाकूय लागलो. केन्नाय चुकून शाळेतल्या भुरग्यांची एकनाथाक नसाय दीस, पूण तो तांचेकडे केन्नाच वायट वागलोना. आपल्या भुरग्यांपरस तांचेकडे अदीक म्होवाळपणान वागतालो. ताणे आपल्या बालकवितांचे पुस्तक छापलें आनी ताच्यो प्रती शाळेच्या चारय वर्गांतल्या भुरग्यांक वांटल्यो.

एक दीस ताणे विचार करून थारायलें- आपले जिणेत मेळटा तो खीण जगपाचो आनी जगोवपाचो.... फुडें ताणे प्रार्थना कशी आपल्या आपूण उच्चारली- आतां समाचेर राग करून उपेग ना. मारून उपेग ना. आतां ताची फकत काळजी घेवप. कसलीच सर्त ना. दुस्वास-नसाय ना. मायेमोगांन ताका वाडोवप... फक्त माया आनी माया.

एक दीस ताचो सोयरो ताच्या घराकडे आयलो. हेवटेन तेवटेनच्यो खबरी करीत ताणे ताका दुसरें लग्न जावपाक सांगलें. एक चली सोयऱ्यांचीच आसा म्हूण सांगलें. ताच्या पुताक सांबाळटली अशेंय सांगलें. एकनाथ कांय एक उलयलोना. सोयऱ्यांची चलीय नाका म्हणलीना. ती आपल्याक समाक पळोवचीना अशेंय म्हणलें ना. वा आपल्या पंचेचाळीस वर्सांचे पिरायेर लग्न जांवचोना अशेंय म्हणलें ना. तो तोंडाक कुलूप घालून रावलो.

व्हेनस हॉस्पिटल्याच्या व्हारांदांत बसलेकडे ताका फाटलो यादी येताल्यो. ताका परत आपले बायलेची याद आयली. ती आसलेली तर आयज इतलो खर प्रसंग येवचो नासलो. तिचें नासप ताका सतावपाक लागलें. एकटेपण भेश्टावपाक लागलें. आनी सम नासत तर आपूण एकटो एकटो जातलों. आपल्या जिवितांत आपल्याक वांगड दिवपी तो एकटो आसा आनी हांव ताका. तो जाय म्हाकां अशें म्हणत, बसलेलो एकनाथ उठलो... समाचें ऑपरेशन केल्यार तो कांय काळ तरी जितो उरतलो. आठ-धा वर्सां कांय जायना. तो आनीक कितलेय दीस जगूं.... ताचें ऑपरेशन करपाचेंच. पयशे पडटा तितले पडूं.... अशे मनांत म्हणत तो कामत दोतोराक मेळपाक धांवत गेलो.

समाचें ऑपरेशन जावन चवदा वर्सां जाल्लीं. ताची पिराय आंतां एकवीस वर्सांची. ताका फाटल्या दोन वर्सां सावन बारीक बारीक मिश्यो येताल्यो. आतां ताका बारीक बारीक केसांचें खाड आयलां. तो आजून आंगान आनी तोंडावळ्यान बारीक. तो आपलें काम आपूण करतालो. एकनाथान फाटी शारालागच्या शाळेत बदली घेवन ताणे समीराक संजय स्कूलांत घातलेलो. थंय ताणे कोर्स केले. आपल्या आंगात बळ आनी वागपांत शिस्त हाडलेली. लीप रिडींगात दुसऱ्याचें उलोवप कांय प्रमाणांत समजतालें. पूण हाली हाली तो चड मोनो मोनो जाल्ल्यावरी. ताचो बापूय इकूण साठ वर्सांचो जाला. ताचे सगले केस पिकल्यात. तो आपल्या पुताची काळजी आजून घेतालो. ताचे खातीर रांदून दवरतालो. पूण... पुताखातीर तो आतां बालकविता म्हणीना. तांतूत खंड पडला. तो म्हातारो जाला म्हूण कांय? कांय सम खाडमिश्श्यांचो दादलो जाला म्हूण... कांय ताचे विशी आनीक किदें चित्ता म्हूण. कांय ताका... दादल्या भुरग्याक आनीक किदें जाय म्हूण. कित्याक कांय? कांयच कळना. बापूय लेगीत बिराडाच्या घरांत वोग्गी वोग्गी आसतालो.

नोकरेतल्यान निवृत्त जावपाक फकत पावूण वर्स उल्लां म्हूण एकनाथान आपल्या गांवांत बदली घेतली. बिराड सोडलें आनी समीराक घेवन तो गांवघरा आयलो. ताचो शेजारी नानू ताचे भशेन जाण्टो जाल्लो. गांवांतल्या पयलीच्या प्राथमीक शाळेंत तो कामाक रुजू जालो. शाळेत ताका शिक्षक नवे, तशीच भुरगींय नवीं. फाटल्या काळांत भुरग्यांक शिकयतालो तश्योच तो तांकांय आपल्यो बालकविता गावन दाखोवन शिकोवपाक लागलो. ताचेकडल्यान नवें किदें मेळटा म्हूण भुरगीं खोशी आसलीं.

तो गांवघरा येवन तीन म्हयने जावन गेल्ले. एके सकाळी ताच्या घराचें दार उगडूना म्हूण नानून दारार मारलें. कोणेच उगडलेंना देखून ताणे धुकल्लें. भितरल्यान खिळी घालूं नासल्यान तें उगडलें. किदें जालां कांय ते पळोवंक नानू घरांत गेलो. घरांतल्या बाज्जेर एकनाथ न्हिदला थंय आसलो. ताणे उलो मारलो पूण ताची जागमाग नासली. ताणे ताका हालयलो. ताणे पळयलें एकनाथाच्या देहांत जीव नासलो.

एकनाथ मास्तर मेलो ही खबर गांवभर जाली. तशी ती शाळेतय पावली. शाळेचे तीन शिक्षक विद्यार्थ्यांक घेवन ताच्या निमाण्या दर्शनाक आयले. भुरगी शांत आसलीं पूण चुळबूळटालीं. कालूच एकनाथ सरान

आपल्यो दोन कविता तांका म्हणपाक शिकयल्ल्यो. त्यो तांका ताज्यो ताज्यो याद येताल्यो. एकनाथाची पार्थी कूड शेनरेर दवरलेली आनी ताका फुलांच्यो माळो घातलेल्यो. निष्प्राण कुडी लागचे वण्टीर ताणे कांय वळी बरयल्ल्यो.... बालकविता कशी... ती कांय भुरगीं वाचपाचो यत्न करतालीं. ताच्या निशब्द, अचल शरीराकुशीक सम तेकून बसलेलो आनी ताका आपलो हात लावन ऊठ ऊठ म्हण्टालो.... वातावरणांत गुढ शांत बधिरताय भरलेली.... इतल्यान एक-दोन भुरग्यांनी शाळेच्या बोर्डावयलें सहज वाचचें तशें वण्टी वयली कविता वाचपाक सुरवात केली... अक्षरांक शब्दरूप आयलें-

हुबलें हुबलें म्हातारपण
उल्ले उल्लें भुरगेंपण
दोनय आरतें नी परतें
म्हातारपण नी भुरगेंपण



# बळी-म्हाबळी....

ते दीस तुफानांत बुडोन मेल्ल्या ट्रालरावयल्या त्या खलाशी यशवंताचो हांव आत्मो न्हय. आनी त्याच तुफानांत मंगळूर, गोंय, मालवण, रत्नागिरी हे लांबचे लांब देगेवयल्या दर्यांत बुडलेल्या पांचश्यांवयर खलाश्यांचोय आत्मो न्हय. हे नुस्त्याचे जेटीर बोटीनी भरभरून हाडलेल्या दर्यांतल्या अगणीत नुस्त्याचोय आत्मो न्हय. तशेच हालीच हेच जेटीर नुस्ते खावंक येवपी आनी नुस्त्यांच्या ट्रकांच्या टायरा पोदां चिड्डून मेल्ल्या चार रस्ताद सुण्याचोय आत्मो न्हय. हांगा केन्ना जेटीर नुस्तें व्हरूंक येवपी वा असोच हांगा थंय भोवपी आनी कोणाचेंय किदें लागूं येता असो हांव आत्मो आसूं येता. वा आनीक कोणाचो.

कुडास न्हंयचे हे मुखावयले जेटीर ह्या दिसांनी तशे चड लोक नात. फाटल्या दिसांनी एक आगस्टासावन नुस्त्याचो सिजन सुरू जातकच गर्दी उसळलेली. खलाशांची, ट्रकांची, यान्नीची आनी हेर लोकांची. पूण गेल्या आठ आगस्टाक तुफान जालें आनी ह्या जेटीवयल्यो देडशें बोटींतल्यो पांच बोटी दर्यांत व्हांवून गेल्यो. दुसऱ्याय जेटीवयल्यो बोटी व्हांवून गेल्यो. तरी बरें थोड्योच बोटी त्या दिसांनी दर्यांत गेल्ल्यो.

दर्यांत व्हांवून गेल्यो कांय बोटी खंय गेल्यो खंय बुडल्यो कोणाक खबर ना. बोटीवयल्या खलाश्यांक किदें जालें, तेंय सारकें खबर ना. ह्या फुडल्या जेटीवयल्या बोटींतले शंबरावयर तशेच दुसरे जेटीवयले सत्तरावयर खलाशी बेपत्ता आसात.

आकांताचें वादळ जावन धा दीस जाल्यात. बेपत्ता खलाशांचो आजून सोद लागूं ना. वीस -पंचवीस मडीं उदकांत उफेतालीं आनी कांय तडीक लागलेली. तांची वळख सारकी पटूंना म्हूण एकठांय तांचो इलो केल्लो. तुफानाच्या तडाख्यान वाटवलेल्यो खूबश्यो नुस्त्याच्यो बोटी जेटीकडे नांगरून दवरलेल्यो आनी त्या बोटींतले सगळेच खलाशी भियोन आपापल्या घरा गेल्ले. हरशी सदची जात्रा कशी दिसपी हे नुस्त्याचे जेटीकडे तशें सामसूम दिसताले. लोक आसले पूण खूब कमी. नुस्त्याचो सिजन आसा पूण आतां पावसांतलो लांब ऑफ सिजन कशी कुडास जेटीची आनी हेर

पांच जेटींची दशा जाल्ली.

हांव हें कित्याक सांगतलों तें कळपाक कुडास जेटीच्या गेटीकडे पळयात. गेटीकडे जाण्टेली आवय आनी तिचो धाकटो पूत व्हदळच्यान आसा. दनपार जावन तीं हांगा पावल्लीं. पूण बरोच वगत जालो तरी कोणाक विचारचें तें तांका कळनासलें. ती कोणाक तरी सोदल्यावरी हांगा थंय, हाका ताका पळयतालीं. मागीर ती जेटी भितर मेकळ्या सुवातेत दोन व्हडले माटोव घातलेले तांचेकडे पळोवपाक लागलीं. ते रंगीत कपड्याचे माटोव पळोवन तातूंत कसलो तरी समारंब जातलो म्हूण तांका दुबावसो. माटोव आयज सकाळीच घातलेले. पूण तातूंत लोकांचे ये वच नासलें. पयस कांय जाण आसलेले, तांच्या मदी मोनेळ पातळलेलो.

त्या दोगांयनी बोटितल्यान वयर जेटीर येतल्या मुकादम शंकराक पळयलो. ते बराबर तीं आवय-पूत गेटी भितर सरून जेटीर गेलीं. ताणी शंकराक रेवाडो घातलो. कोण तरी कर्नाटकांतली बायल आनी भुरगो आपल्याकडे धांवत येता इतलें शंकराक समजलें. पूण ताणे तांका वळखलें ना. ताणे काचाबूल जावन विचारलें, ''कित जालें? कोण तुमीं?'' ''आमी सुनावळ गांवचीं. हांव विठाय. हो मिगेलो धाकटो पूत सदा. होनावरांत बसांत बसून येयल्यात.'' विठायन जाप दिली.

''हां, मगेर?''

''आरे, काळोसो भुरगो, धवो शर्ट आनी अर्द पँट घालतालो तो आमगेल यशवंत खंय आस्सा?'' विठायन आडखळत विचारलें.

''कोण यशवंत? खंयचो यशवंत?'' हात फाफुडल्यावरी मुकादम शंकर उलयलो.

''तुकां गोतू ना? तूं येयल्लो मरे तेका व्हरच्याक गोंयचे बोटीर. मिगेलो व्हडलो पूत यशवंत गाबीत.'' विठायन आड्डून सांगलें.

हे आयकून शंकर वोगीच जालो. ताका उगडास जालो. तो सुनावळे यशवंत गाबीताच्या घरा गेल्लो. बोटीर खलाशी जाय म्हूण. तो ताका वांगडा घेवन येयल्लो. ताची ही आवय विठाय आनी भाव सदा. इतल्या पयस पावस चालू आसतना बोटीर वचूं नाका म्हूण ती यशवंताक सांगताली. तें ताका याद जालें. ताच्या ह्या धाकट्या भावान पयलीं मोडो घातलेलो. पूण जेन्ना ताणे पंदरा हजार रुपया यशवंताच्या हातार तेकयले तेन्ना ताणे तांचे कानारमनार घेतलें ना. तरी ही आवय ताका इतल्या भर पावसांत इतल्या

पयस वचूं नाका. इतले बेगीन नाका. जायजाल्यार सुतापुनवेक दर्याक सूत पडटकूच वच अशें परत परत सांगताली. आनी आपूण तांका सांगतालों– गोंयांत फिशींगचो सिजन सुरू जालो.

पयरूच बारा ऑगस्टाक सुतापुनव जाली. आनी तो यशवंत एक आगस्टाक तर बोटीर चडलेलो. दर्या पूजे पयली तो धरून तीस खलाशांच्या वांगडा. शंकराचें काळीज धडधडलें आनी दोळ्यांच्यो घारश्यो बावल्यो बारीक जाल्यो.

तो गप्पच रावला म्हण यशवंताच्या धाकट्या भावान विचारलें, ''आरे सांग, खंय रे तो?'' सांगपाचें टाळपाखातीर काळसर शर्टपँट घातलेल्या मुकादम शंकरान म्हणलें, ''म्हाकां खबर ना. गेला आसतलो खंयचेय बोटीर. बोटकार पात्रावांक विचारात. येतलो तो सांजेर. हांवय येतलों. पात्रांवाच्यो कांय वस्तू हाडचे आसात, अर्जंट.'' अशें सांगून तांका कुशीक काडून तो सडसडीत आपल्या मोटर सायकलीकडे गेलो आनी तिचेर बसून गेटीभायल्या रस्त्यावयल्यान खंय तरी गेलो. ती दोगांय ताच्या फाटल्यान धांवत गेलीं. मागीर परतून येवन जेटीचे गेटीकडे थांबली. तीं जेटीर आनी रस्त्यावयल्यान येवपी वचपी मनशांमदी कोण वळखीचीं दिसता कांय म्हूण तेळीत रावलीं.

तिनसांज जायत येताली. इतल्यान गेटीतल्यान जेटीर येवपी एका काळ्या आनी दणकट मनशान तांका हडकिलें. ''हांगा कित्याक रावल्यात?'' ''यशवंत गाबीताक सोदतात आमी. तो सुनावळेसून जुलयच्या ३० तारकेक गोंयांत बोटीर कामाक वयता म्हूण येयल्लो. ताची कांय खबर आमकां ना. मदी वादळमोड जालां अशें आमी आयकल्लें. तेका सोदूक, तेका मेळूंक येयल्लीं आमीं.'' विठायन सांगलें.

त्या दणकट मनशाच्या काळजांत खप्प जालें मागीर ताणे सांगलें, ''हांव तिमण्णा अंबी. तांडेल. नुस्ते मारपी. तुमी यशवंताली कोण लागतात?''

''हांव तेची आवय. हो तेचो भाव.''

''तुमकां खबर ना तर यशवंताची?''

''कित खबर? त्या शंकर मुकादमान आतांच सांगलां तो बोटीर गेला. बोटकाराक मेळ सांगलां.''

''तशे न्हूं. तो शेणला ताचो पत्तोच लागना.''

''शेणला?'' तिणे कपलार मिरयो घालीत विचारलें. ''हय शेणला पाणयांत. ताची बोट बुडली. एम व्ही मिनाक्षी बोट वादळमोडांत बुडली. हांवय

ते बोटीर आसलों.'' इतलें सांगतासर तिमण्णाचें काळीज वोसाडीभशेन वयरसकयल जालें. ताका श्वास घेवपाक कठीण जालें. यशवंताची बोट बुडली म्हण विठायन किळांच मारली. तिणे थंयच्च बसकण मारली. मागीर ती हुंडक्योन हुडक्योन रडपाक लागली. तें पळोवन येतले वतले लोक थंय जमले. सदान तिका सांगलें, ''पळय, हांग तूं रडो नाकां. हो परकी गांव.'' मागीर तिमण्णान पयलीं स्वताक सांवरलो आनी मागीर तिका सांगपाक लागलो. ''आमी तेंका अजून सोदतात. तो खंयूय आसूं येता. आमी सगळे तीस जाण बोटीर आसले. पर्सींग करपाक गेल्ले. आमगेली बोट व्हडली. पूण हांव आनीक एकटो अशे दोग खलाशी वांचल्यात. अठ्ठावीस जणांचो पत्तो ना. ते खंयतरी आसू येतात. सुक्यार नाजाल्यार पाणयांत. वादळ जाल्यार आयज धावो दीस. आमी तेंका सोदतात. हांव ते बोटीवयलों. हांव तेंका वळखता म्हूण पात्रांवान म्हजेरच सोदपाचें काम सोपयलां. हांवें आनी पात्रांवान तेंका मालवण, रत्नागिरी मेरेनच्या वाठारांत सोदले. खास गाडी घेवन भोवले पूण...''

फुडलें सांगपाचें तांडेल तिमण्णान टाळलें. तो वोगीच रावलो. ताणे मालवण, रत्नागिरी वाठारांतल्या दर्यादेगांचेर कांय मडीं पळयल्लीं. तातूंत ताका वळखीचीं दिसू नासलीं. तांचे तोंडांचेरे सारके नासले. तीं चोंचायल्यावरी दिसतालीं. वळखनास्तना तांका ते आपले म्हूण कशे पोटलायतले आसले.... आनी तींय नुस्त्यांनी खाल्लेली मडीं... आपूण ते दीस बुडोन मेल्लो तर आपलीय दशा जावपाची.... हें चिंतून ताणे लांब हुस्कार सोडलो.

देवबागांत सोदताना एम व्ही मिनाक्षी बोटीचो हणयाकडलो ल्हान भाग दर्यादेगेच्या चिखलांत मुंगरलेलो दिसलो. ताचे वयले M. V. Minaxi हें नांव पात्रांवान वाचलेलें. ताणे हणयाचे नाळीक हात लेगीत लायल्लो पूण त्याच वाठारांत मेळलेल्या पांच कुसलेल्या मड्यांची वळख मेळूंना म्हूण, ते आपले न्हय अशें ताणे सांगलेलें. तेन्ना थंयच्या खारवी लोकांनी ते आपलेच मनीस अशें पुलीसांक सांगून तांचो इलो केल्लो... मात तांचो इलो जायसर तांडेल तिमण्णा आनी पात्रांव गोविंद थंय रावल्ले.

हरशी दर्या आपल्या आंगांत मेल्लें कांय दवरी ना. कोणाचीय मेल्ली कूड वयर उफेता वा मागीर तडीक येवन लागता. पूण खूब जाणांचो थांगपत्तो नासलो. कांय जाणांच्यो सोडल्यार खूब जाणांच्यो मेल्लो कुडी मेळल्यो नात. कोण म्हणतात त्यो दर्यांतल्या ल्हान व्हडल्या नुस्त्यांनी खावन

उडयल्यो. मनीस नुस्तें खाता... आतां मनशांक नुस्तीं ... तिमण्णा मात खंती जाल्लो. वादळवाऱ्यान आनी पाणयान मनशांक खाल्ल्यांत देखून. ताचो तसो बोटीवयलो दांणगो अणभव आसलो. तो अणभव काळजांत घेवन तो हांगा थंय भोवतालो. घरा वचूं नासलो. मात ताचे बोटीवयलो वांचलेलो दुसरो खलाशी रमेश पळोन घरा गेल्लो. तिमण्णाक घरासून परत परत बायल भुरग्यांचे, सोयऱ्यांचे फोन येताले. आनी तो तांचेकडे उलोवन भागयतालो. ताका ताच्या वांगडच्या खलाशांक सोदपाचे आसलें. तो, ताचो पात्रांव हांगा थंय भोवताले. तेन्ना तिमण्णाच्या माथ्यार धवो वालो आसतालो. तांतूंत तो सुतकांत आसा कसो दिसतालो. केन्ना मुकादम शंकरय तांचे वांगडा आसतालो.

तांडेल तिमण्णा इतलो वगत वोगीच रावला देखून सदान ताका विचारलें, ''बुडलेले बोटीर तूं आसलो मरे? यशवंत पाणयांत बुडलो तर?''

''मगेर हांव आनीक चड किदें सांगू? आनी बुडलेलो इतल्या दिसांनी मेळटलो? आमी तर तेका सोदलो. गेल्या दोन दिसांक आमी सगल्याक रकाद धाडला, आमचे खलाशी कोण खंय खंय आसात तेणी फाल्यां सकाळी हे कुडास नुस्त्या जेटीर येवचे म्हूण. पळोवया. फाल्यां इकरा दीस आनी परवां ... बारा दीस.''

तिनसांज जाली आनी मिनाक्षी बोटीचो पात्रांव गोवींद आनी शंकर वांगडा जेटीर येयले. तांच्या फाटोफाट एम व्ही शेरॉन आनी जोजफ बोटींचो पात्रांव निकलांव येयलो. जेटीवयल्या सगल्या ट्रालर धनयांची मिटींग आसली. ती जेटीरच जावपाची पूण यैन वेळार फुडें धुकलून तिचे ठिकाण बदल्लें. तीं बंद हॉलांत घेवपाची आसली. तातूंत फाल्याच्या होमहवनाविशी आनी फुडल्या कामाविशी थारावपाचें आसलें. मिटींगेचे ठिकाण बदल्ले म्हूण मिनाक्षी बोटीचो पात्रांव गोवींद वचपाक लागलो. तेन्ना तिमण्णा ताका मेळ्ळो आनी यशवंताचे आवय, भाव येयल्यात तें सांगलें. पात्रांव गोविंदान तांका समजावन सांगपाची विनंती तिमण्णाक केली.

तिमण्णान विठायक आनी सदाक जेटी भितर आफोवन एका बाकार बसपाक लायलीं. विठायन आपले मातये कोराचे साडयेचो पदर माथ्यावयल्यान घेतलो आनी ती बसलेकडे तोंड धांपून रडपाक लागली. सदा बाबडो जालो. तो दोळ्यांतली दुकां मनगटान पुसतालो. मागीर तिमण्णा आनी शंकर तांका समजवपाक लागले. शंकरान म्हणलें, ''पळयात, तुमी

हांगा आतां रावन कांय उपेग ना. तुमी घरा वचात. रातची आठाक निमणी बस आसतली. तुमी वचात.'' ते बराबर सदान म्हणलें, ''आमी घरा वचून किदें करूं?येकानचो तो फाल्या बी येत.''

मुकादम शंकरान म्हणलें, ''इतले दीस आमी पळयतात. तो फाल्या येत वा जितो आसतलो... अशें म्हाका दिसना.''

ते बराबर विठायन कच्च करून गाळी घालीत म्हणलें, ''राण्डेच्या शंकरा. तुंवे मिगेल्या चेड्याचो जीव घेयलो. आमी नाका म्हण्टा आसतना तुवें तेका व्हेयलो.''

''आरोप करू नाका. हांवें तेचो जीव घेंवना. तो कोणे घेतला ते म्हाकां गोतू ना. हांवें ताका हांगा कामाक हाडलेलो. तुकां बरे पंदरा हजार रुपया ॲडव्हान्स दिल्यात. हातीत पयशे पडटकूच तुमी बरी भुल्लीं. पात्रांवाची बोटे गेली आनी पुराय पंदरा हजार रुपया गेले उदकांत.'' ताचेर सदा नागाची फडां कशी काडून उलयलो. ''तुमचे पयशे तुमकां दिसले आनी आमचो मनीस तुमकां दिसलोना.'' जाय जाल्यार तुमचे रुपय घेयात... आमचो मनीस दियात.'' सदान दुखाच्या कडान म्हणलें.

''तुमचो मनीस बेपत्ता आसा. ताका तुमी सोदात. तुमकां दिल्ले रुपय तुमी पावोवचे पडटले.'' मुकादम शंकरान वाद वाडयलो. तिमण्णा तांचे मदीं पडलो आनी सांगपाक लागलो, ''आरे शंकरा, अशें उलोवपाचो हो वेळ न्हू. कित घडलां... आनी तुमी अशे... आरे शंकर तेंका रातची रावपाची वेवस्था कर. फाल्या दनपार जावन तेंका जाय जाल्यार वचूंनी...''

विठायक दुखाच्या कडावांगडा राग येतालो. ती दुखावेगान रडटाली. ती रडटा रडटा म्हणपाक लागली. ''पुता, तुजो जीव घेयलो रे. आमकां फटयले रे. पंदरा हजार रुपय दिल्ले तांतुतले तुजेकडल्यान पांच हजार रुपय घेतले. तुका फुडे लागतले म्हणून. तुकां लगीन करपाचो आसलो रे. तुका सोयरीक येयली रे. देवा, पुताचो घात केलो रे...'' लागच्या लॉजिंगांत पावसर ती रस्त्यावयल्यान चलताना रडत आसली.

तांची रावपाची वेवस्था करून मुकादम शंकर आनी तांडेल तिमण्णा बोटकार धनयांची मिटींग चलताली थंय गेले. गोवींद पात्रांवान तांका आपले वांगडा राव म्हूण फर्मायल्लें. ल्हानश्या हॉलांत मिटींग चलताली.

हॉलाचे दार बंद आसलें तरी जनेला भायर उलोवपाचो आवाज येतालो. तो त्या दोगांयच्या कानार पडटालो. कोण उलयताले तें कळनासलें.

बोट धनी आनी तांचे बरे मागपी उलयताले.

एकलो म्हण्टालो, ''सरकारान फिशरीज फेडरेशनाचे वतीन उतर दिलां. मेल्ल्या दर खलाश्याच्या नात्यातल्याक एक लाख रुपया दितले. तांची सगल्यांची नांवां सरकाराक कळोवपाक जाय.''

''आरे पूण तांची सगल्यांची नांवां तरी आसात मरे?''

''नासूं, आमी उदकांत आसतात. केन्ना उदकांन सगले फासून वचत सांगू नजो. तांचीं नांवां परतून बरोवन काडून आमचे वतीन सरकाराक दिवया. पांचूय नुस्त्या जेटीवयली एकशे धा वयर जातली...'' कोणतरी उलयलो. ''आमी फाल्या ज्या भटांक आफयल्यात ते भट कुंदापूर-शिर्सीसून आयज पावल्यात. तांची रावपाचीय वेवस्था केल्या.... फाल्या होमहवन किदें करता तें बरें. आमी तशें कांय करूंक शकना. पूण मेल्ल्यांच्या आत्म्यांक तरी शांती मेळपाक जाय.''

''आरे तें करपाचें फाटले मिटींगेत थारायलां. फाल्यां तें करतलेच. पूण सगले खलाशी आपापल्या घरा गेल्यात. बोटी बुडल्यात तांचे गेल्यात आनी ना तांचेय गेल्यात. तांचे किदें? ते केन्ना येतले. कोण तुफानाक भियोन गेल्यात. कोण आनीक कित्याक. आमी हांगा रावन कितें करपाचें? मुस्कां मारपाचीं. सोलार सुंगटाचो सिजन तर सुरू जावन सोपत येयला. जिवाच्या भंयान फुडें खलाशी येयले नात तर किदें करतले. कांय जाणांच्यो बोटी बुडल्यो त्यो बुडल्यो. तांचे इन्सुरंस गावतलें. पूण खलाशी वेळार येयले ना जाल्यार आमचो सगल्यांचो धंदोच बुडटलो.'' एका बोट धनयान तांका जुस्त दुखता थंय बोट दवरलें.

''तेच खातीर तर आमी फाल्या प्रोग्राम करतात न्हय रे. हांव जुवांव फर्नांडीस तुमच्या बराबर आहाय. फायचें कित तें करुंया. नायजाल्यार आनीक कित करुंया.''

... मिटींग सोपत येयली. हांव हेडगो आत्मो त्या शंकर आनी तिमण्णा वांगडाच थंय आसलों. म्हाकाय तांच्या उलोवपाचो अर्थ बेस बरो कळटालो. खलाशी परतून कामार येवंक जाय म्हूण ते सगले बोटधनी एकठांय येयल्ले. जांव तो ख्रिस्तांव, जांव तो हिन्दू. तांचो धंदो चलपाक जाय आसलो. मागीर तो कोणाच्याय जिवा खुस्तार जांव. जेटीर सुतकी वातावरण आसा तें निवळपाक तशेच खलाशांच्या मनांतले भंय काडपाक... तांच्या हिशेबान बुडोन मेल्ल्या खलाश्यांच्या आत्म्यांच्या शांतीखातीर आनी

खवळलेल्या दर्याच्या शांतीखातीर यज्ञ जाय आसलो. ते खातीर नेटान तयारी चलताली. दोन यज्ञाचे दोन यजमान दाम्पत्य पयलीच थारायल्ले.

सकाळी णवांक धवेवाले न्हेसून उगड्या आंगान भट-पुरयत त्या दोन माटवांनी बोबाळटाले. तडेवशीनच्या मांटवांत मेल्ल्या खलाशांच्या आत्म्यांच्या शांतीच्या होम-हवनाक केळीच्या गब्यांचे कूंड केल्लें. तशेंच दर्यावशीनच्या माटवांत दर्या शांतीच्या यज्ञाक केळीचे गबे चौकोनी मांडून मोठें कूंड सजयलें. ताचेर कुशीक केसरी रंगाच्या रोजांनी सजावट केल्ली. होमकुंडाच्या मातशें पयस व्हडल्या परातीत शिताची दोन हातांनी धरपायेदी मोठी मुठलीं करून दवरलेलीं. तांचेर पिंजर माखलेली. तशेंच दुसऱ्या परातीत शिताची लहान मुठलीं लाडू कशीं दाळलेली. माटवांत कांय खुर्च्यो आसल्यो. तांचेर यजमानांचे आनी बोटकारांचे कांय सोयरे वोगी बसलेले.

खलाशी यशवंताची आवय आनी भाव सदा हें सगलें पळयतच जेटीत भितर सरलीं. हेर लोकांमदी माटवांत ना वयतां कुशीनच्या शेडीच्या एका बाकार बसलीं. विठायन कालचीच मातये कोराची सुती साडी आनी सदान कालचींच निळ्या रंगाची शर्ट आनी मोटवी काळी पँट न्हेसलेली. तांका त्या होमहवनाचें पडूं नासलें. तीं फकत वाट पळयतालीं. भावराथी आशेन- येकानचो यशवंत येत.

दोनय माटवांनी हवनाक सुरवात जाली. पुरयतांचो मंत्रोच्चार चालून आसलो. यजमान दांपत्त्याच्यो दोन जोडयो नवें न्हेसून एका एका कुंडा मुखार पाटार बसल्यो. रंगीत णव वारी कापडां न्हेसून दोनय यजमानीणी सजलेल्यो. ताणीं घातलेले भांगरांचे अलंकार नुस्त्याच्या धंद्यांतले गिरेस्तपण दाखयतालें. यजमानानी दोनय हवनांत समिधा उडोवपाक सुरवात केली तसो भटब्राह्मणांनी आपल्या मंत्रोच्चाराचो नेट वाडयलो.

इतल्यान शंकर आनी तिमण्णा विठाय आनी सदाच्या फुड्यांत येयले. तांच्या वांगडा एक जाण्टो दादलो आनी जाण्टी बायल आसली. शंकरान तांका विठायच्या कुशीक बसयलीं. ताणे सदाक म्हणलें, 'ही दाल्दी समाजाचीं. तांचो पूत अन्वर शेणला. उपरान्त दोन भयणी येवन बसतकूच शंकरान म्हणले, 'ह्यो ओडिशाच्यो. धर्मराव आनी जेटलीच्यो भयणी. म्हज्या मनांत प्रस्न. तीं हांगा सोदपाक आयल्यात तें खऱ्यानीच आपल्या भावाच्या मायेमोगान? कांय ते मेल्यात हें खातरी करून घेवपाक... कांय लोकलज्जेक... कांय... म्हाकां लेगीत तांच्या दर्यापरस खोल मनाचो

थाव लागनासलो. ती सगलीं मोन्यानी पळयतालीं.

तांका सगळ्यांक पळोवन विठायक रावं नज जालें. तिणे विचारलें, ''आरे तिमण्णा, तूं बोटीर आसलेलो मरे. मगेर खरें कित तें सांग.'' ''आगे मागीर सांगतां. पयलीं ते थंय इकरा दिसांचे कित करता तें पळय. पयली वोगी राव.'' मागीर सदानय तिका चूप केली.

माटवांतले आत्मशांतीचे आनी दर्या शांतीचे विधी सोपत येयले. यजमान शिताची मुठलीं कुडास न्हंयच्या उदकांत सोडपाक लागले. ती मुठलीं म्हणजे मनशाची बावलीं कशी तिमण्णाक दिसलीं. ती बावलीं न्हय तर मनीसच उदकांत सोडटात अशें मागीर ताका दिसलें. मागीर ताच्या दोळ्यांमुखार पावस वादळ सोंशेवपाक लागलें आनी अख्खो खंकाळ दर्या हालता धोलता कसो दिसपाक लागलो. तातूंत तांची बोट सांपडली. तिमण्णा तसो अणभवी खलाशी. तो तांडेल नंबर दोन आसलो. वारेवादळ, गडगड पावस येवन दर्या उचंबळ जालो. ताका दिसलें, अशे मोड ताणे जल्मांत पळोवंक ना. ताणे बोटीचो वेग कमी करपाक लायलो आनी हणी वोसाडीक फुडें केलें. बोट तर दर्यांत खूब पयस पावल्ली. बोट बुडटां कशी जाता तें पळोवन ताणे बोटीच्या भितर दवरलेलो जेल खलाशांक सांगून भायर दर्यांत उडोवपाक लायलो. बोट चार दीस दर्यांत पर्सींग करताली. बोटीर सोलार सुंगटां दोन टनावयर आसलीं. वाऱ्याच्या झोतान पर्सिंग जाळ खलाशांच्या हातांतल्यान सुटलें. बोट वादळान वयर सकयल जाताली. दर्याच्यो वोसाडी उंच वयर मारताल्यो. मागीर नेटाच्या घुंवत्या मोडान बोट उमथली. बोटीचो उंच-उबो कुंवो सकयल जालो. सोलार सुंगटां सयत सगळे खलाशी उदकांत पडले. आनी वोसाडीनी उदकांत भितर वचपाक लागले. मागीर तिमण्णा पेयत ओमथ्या बोटीकडे गेलो. थंय एक खलाशी नाकातोडांत उदक वचून घुस्मटत ओमथ्या बोटीक धरून आसलो. ताणेय ओमथ्या बोटीक घट्ट धरलें. दोनी हातांनी बोटीक धरलां थंयसून वोसाडीच्या धपक्यान पयस उसळूं येतालो. इतल्यान ताणे पळयलें, चार पांच खलाशी उदकार हात मारतात, जीव वांचोवपाक. ताणे बोब मारली हांगा येयात. पूण मदीच महाकाळ कशीं व्हड वोसाड उसळ्ळी आनी ते काळ्या निळश्या खोल उदकांत गेले. रोकडोच लागीच धा मिटरांच्या अंतराचेर यशवंताक ताणे पळयलो. उदकांतय ताणे ताका वळखलो. ताणे परत बोब मारून ताका आफयलो. एका हातान बुडटे बोटीक धरून तिमण्णान दुसरो हात

ताचेवशीत केलो. पूण हाय, कटा. वयर सकयल जाल्ल्या वोसाडीनी यशवंत उदका पोदां गेलो. ताका तो वांचोवंक शकलो ना. येद्या व्हडल्या वादळाफुडें आनी उदकाच्या झोतीफुडें ताचे कांय चलनासलें.

एक रातभर उदकांत रावन दुसरे दीस कोस्ट गार्डाचे बोटीन त्या दोगांक वांचयल्लें. बाकीचे खलाशी खंय गेले ते कळ्ळें लेगीत ना. यशवंतय तांच्यांत आसलो. निमाण्या वेळाक बोटीतलो जेल दर्यात उडोवपी, दर्यांत आकांतान पेवपी, तो कामसू यशवंत; काळ्या घट्ट बावळ्यांचो जुवान तरनाटो यशवंत परत परत तिमण्णाच्या दोळ्यांमुखार नियाळटालो.

होमहवन सोपतकच विठायक कळ्ळें; शेणलेलो पूत यशवंत आतां परतो भेटपाचो ना. बाकीच्या वांगडा ती मोन्यानी उठली आनी धाकटो पूत सदाक हाताक धरून घरा या म्हूण कुरू करूंक लागली. तें मुकादम शंकरान पळयलें; तो सदाच्या फुड्यांत येयलो. शंकरान तांका सांगलें. ''आतां जेटीर सरकारी अधिकारी येवपाचो आसा. ताचेकडे तुमच्या पुताचें नांव, गांव दियात. तुमचेय नांव, गांव दियात. तुमकां एक लाख रुपय मेळटले. हां, तुज्या पुताक बोटीर धाड. तुमकां पयली पंदरा हजार रुपया अॅडव्हान्स दिल्यात. ते कोण फारीक करतलो? बोटीच्या पात्रावान सांगलां, ताचो मनीस खलाशी म्हूण ताचे दुसरे बोटीर चडत तर ते रुपय परते भरपाचे नात. ते भायर हांगा रावल्यार सरकारी एक लाख रुपय मेळटले. कळ्ळे न्हू.''

विठायन रागान मुकादम शंकराक पळयलें आनी म्हणलें, ''म्हज्या व्हडल्या पुताक खाल्लो आतां मिगेल्या धाकट्या पुताकय गरयेच्या हांयसाक लायता कांय कितें?''

''तशे न्हू. तुकां तें कळचेंना. तो बेकार रावन कित करतलो. तुमची परिस्थिती हांव जाणा. थोडे दीस काम केल्यार पुरो. पंदरा हजार अशेच फिट्टटले आनी तोय जोडटलो. हांगाची जोड व्हड. हां... यशवंताचें नांव आनी तुमचेंय नांव गांव सरकाराक कळोवपाक हांव पात्रावाक सांगता... आरे रावता मरे दुसरे बोटीर.'' ताणे सदाक पळोवन म्हणलें. तो पयलीं गप्प रावलो. आपल्या भावाचे पयशे फिट्टटले आनी आपलो मेल्लो भाव रिणान उरचो ना म्हण ताका हय म्हणचेंशे दिसतालें.

''तुज्या मेल्ल्या खासा भावाक असो रिणांत दवरूं नाका समजलें.'' ताचे उलोवप सदाच्या आनी विठायच्या काळजांक व्हडल्या गऱ्याभाशेन तोपलें. सदा सकयल पळयत पांयाच्या आंगठ्यान माती उस्तूंक लागलो.

मागीर ताणे बोटीर येवपाचें उतर दिलें. आनी ती दोगांय गांवघरा वचपाक जेटीच्या गेटीतल्यान भायर सरलीं. तांची तोंडां पडलेली आनी पांयांतसून सगळें बळ निस्तून गेल्लें.

फाटल्या काळांत केन्ना तरी असोच वादळमोडांत बळी गेल्ल्या मनशाचो हांव आत्मो. हय हांव बळी गेल्ल्या मनशाचो आत्मो. हांव खंयच्याय हेडग्या मनशांच्या मनांत केन्ना केन्ना वसतां. फाटल्या काळांतली, हालीची गजाल म्हाकां खबर आसा. तशेच फुडले गजालीचीय चुकून सुलूस लागता. काळाप्रमाण स्थिती–परिस्थिती बदलता. मनशांप्रमाण वृत्ती–प्रवृत्ती बदलता. एकूण परिस्थितीचो, मनशाचे प्रवृत्तीचो हो खेळ आनी घोळ. परिस्थिती–प्रवृत्तीची ही कथा.

म्हजे नदरेन ही कथा आनीक फुडें चलता. म्हाकां दिसतालें. विठायच्या हातांत पांचशें रुपया तरी दिवपाचे. तांतूंत तिची तात्पुरती अडचण भागूं येताली. पूण म्हाकां तें दिवप शक्य ना. आमी अशे शक्य अशक्यतायेच्या जाळ्यात घुस्पल्यात.

विठायच्या.... एके आवयच्या मनाक जाल्ले घाये आमकां दिसल्यात. पूण दर्यांतल्या गाबोळेच्या नुस्त्याचेर... दर्यांतल्या आवयांच्या जिवांचेर, तांच्या पिलावळीचेर येयल्लें सकट तुमकां दिसना? दर्याक सूत ओपून, नाल्ल सोडून दर्याची पूजा केली.... विधी केली... पूण सुतापुनवे पयलीं दर्यांत नुस्तें मारूंक ना वचपाचो परंपरेन चलून येयल्लो संकेत पाळ्ळो ना जाल्यार अपघात कित्याक जांवचे नात.

ह्या तुफानांत पांचशेंवयर लोक बळी गेलेच पूण हें भलत्याच वेळार, अमर्याद जोडीखातीर, खवळलेल्या दर्यांत कितलीशींच मशिनां घेवन धांवले. हातूंत तुमकां सैमीक समस्या दिसता कांय man made problem दिसता?

ही कथा तशी हांगाय कशी सोपतली? बळींची ही कथा तशी चालूच उरपाची. एकामेकांच्या जिवार आपली पोळी भाजप तशें फुडें चालू उरतलें. तातूंत ह्या बाबड्या दर्याक, पावसाक, वाऱ्यावादळाक कशे जापसालदार धरतले. एके कथेक दुसरी कथा, दुसरेक तिसरी जशें एका आंशांक दुसरें आशें, दुसऱ्याक तिसरें अशें घट्ट सुतान विणून व्हडलें जाळ जावपाचें. सगल्या मेल्ल्या खलाशांचे मेळून – जशें ओडिशाचे धर्मराव, जेटली, दाल्दी

समाजाचो अन्वर आदींचे मेळून व्हडलें कथाजाळ. पूण तें ह्या येद्या व्हडल्या व्हडल्या दर्याक कशें आस्पायतलें, घुस्पायतले? परतें तें कथाजाळ तातुंतच घुस्पून-शेणून वचपाचें.... कोणाक याद लेगीत उरपाचें ना.





तुकाराम रामा शेट

'भुंयदेवी' हो तुकाराम शेट हांचो नवो कथांझेलो वाचतना कथेच्या फॉर्मावयली लेखकाची घट जायत वचपी पकड नदरेंत भरता. ... ह्या झेल्यांतल्यो पंदराय कथा बारकायेन तिजल्यार लेखकाच्या कथाविश्वांत जायत गेल्ली वाड साबार आंगांनी लक्षणीय आसा - देखीक विशय-विविधतायेच्या नदरेन पळयल्यार दरेक कथा आपलें खाशेलेपण केळयिल्ली दिसता. .... तांच्यो कांय कथा समकालीन गोंयांतल्या समाज मानस तशेच परिस्थितीचो अचळय वेध घेतात. 'भुंयदेवी' ही कथा वाचप्याक बांग्लादेशी गारुडी जमातीवांगडा - एका अनामीक भावनेच्या धाग्यान अळंग जोडटा - राजकी सरादीं पलतडी! ... कांय कथांनी कथाकारान प्रतिकात्मकतायेचो खुबयेन वापर केला, तशेच मानवेतर पात्रां जांव निवेदक म्हूण सुचक उपयेगूय जाला. ... तशेच खंयच्याय मार्मीक खिणावयली तांची प्रतिक्रया कांय कथांक उजू पांवड्यार उब्यो करतात. ...

- किरण बुडकुले

तुकाराम रामा शेट हांचो कोंकणी भाशेच्या संस्थात्मक आनी विधायक चळवळींत तशेंच कोंकणी राजभास चळवळींत सक्रीय सहभाग. कोंकण टायम्सच्या नेमाळ्याचें ३३ वर्सां संपादन. बालगीत निकेतनची स्थापना. हजारांनी आंगणवाडी, केजी, प्राथमीक शिक्षिकांक प्रशिक्षण दिवन; पुस्तकांची , सिडीची निर्मिती करून पूर्व प्राथमीक शिक्षणाची बुनयाद घडोवपांत वावर. कथा, कादंबरी, कविता, ललीत निबंद, बालगितां, बालकादंबरी अश्या विविध साहित्य प्रकारांत योगदान. तांका केंद्रीय साहित्य अकादमी तशेच राज्यांतल्या संस्थांचे साहित्य पुरस्कार लाभल्यात. बालशिक्षण, बालसाहित्य, पत्रकारिता ह्या मळारय पुरस्कारान सन्मानीत.



कोंकण टायम्स पब्लीकेशन
व्हाळकेश्वरवाडो, बेती, बार्देश, गोंय 403 101